# जाग

वर्ष २४ ◇ अंक ४ ◇ नोव्हेंबर १९९७



# जाग

र्स २४ ◇ आंक ४ ◇ नोव्हेंबर १९९७

पादपी : रवीन्द्र केळेकार

वुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

जवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

क्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

ापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

व्हर चित्र : मिलन


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. ७५/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ६०/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २००/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

व्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
अ द साउदादिश, पाजीफोंड,
डगांव – गोंय ४०३ ६०१.

करकोळ आंकाचें मोल : रु. ७/-


# नदर संपादप्याची

## कोंकणी 'शिक्षण'

बाबू तिसरेक आंसा. चुकलों, 'थर्डा'क आसा. हेर विशयां वांगडा ताका 'कोंकणी' होय एक विशय शिकचो पडटा.

आवय ताचो सद्दां 'अभ्यास' घेता. ती सांगता, 'जाय' बरय. तो केन्ना केन्ना 'चाय' बरयता. आवय मागीर तापता, 'तुका कितें बरोवंक सांगिल्लें? 'चाय' बरय म्हळ्ळें काय 'जाय'?' बाबू 'च' चें मागीर मोन्यांनी 'ज' करता.

आयज आवय भयणीक मेळूंक म्हापशां गेल्ली. बाबूक तिणें 'अभ्यास' घालून दिल्लो. 'हांव येसर हें सगळें करून दवर... नाजाल्यार हांव तुका रातचो न्हिदूंक दिवची ना' अशी धमकीय दिवन गेल्ली.

'ताल्या, म्हाका सांगता?' अशें म्हणून बाबू पटी घेवन म्हजेसरीं आयलो. हांवें पटी उकती केली.

पयलो प्रस्न आशिल्लो – Fill in the missing letters.

—ब, उ—क, आ—, घ—, —दर, न—न.

बाबून उतरां भरलीं –

बाब, उदक, आज, घर, नदर, नमन.

दुसरो प्रस्न –

Write two words for each of the following alphabets – आ, बा, रि, जा, ना.

बाबून उतरां बरयलीं –

आ : आज, आयतार; बा : बाब, बाय; रि : रिता, रिना; जा : जाय (दुसरें उतर आयलें ना); ना : नाका, नाचता.

तिसरो प्रस्न –

Fill in the blanks –

बाबाक ............... जाय; बाब............... आसा; बायक............... नाका; बायक ............... जाय; ............... आवाज जाता.

बाबून उतरां भरलीं –

बाबाक साय जाय; बाब घरा आसा; बायक पाव नाका; बायक साय य; घणघण आवाज जाता.

मागीर – Give meanings in English – आज, सकाळ, निवळ, बराबर, भितर, पाव, साय, उदक.

बाबून meanings बरयले –

आज – today; सकाळ – morning; निवळ – clean; बराबर – together; भितर – inside; पाव – bread; साय – milk cream; उदक – water.

खाशांच्या गोंयांत कोंकणी शिकयतात ती अशी. घराघरांत इंग्रजींत उलयतल्या इंग्रज भुरग्यांक शिकोवची पडिल्ली जाल्यार शिकयतले आशिल्ली तशी. खाशांचें सरकार गोंयच्या भुरग्यांची आवयभास इंग्रजी अशें धरून चल्लां आनी इंग्रज भुरग्यांक रशियन जर्मन शिकोवची पडिल्ली जाल्यार शिकयतलें आशिल्लें तशी कोंकणी शिकोवंक लागलां.

हाका गोंयांत शिक्षण म्हणटात!

आतां तें दिता कोण? खाशांचें शिक्षण खातें!! कोंकणी भुरग्यांक कोंकणी हे भाशेन शिकयतल्यांची फाट फोडूंक जाय आशिल्ली कावाल् मारिन्यांनी.

कोणूच कसो उसळना हें पळोवन, हाचेंच अजाप जाता.

कोंकणीचो येदो व्हड अवमान तिच्याच राज्यांत हाचे पयलीं केन्नाच कोणें करूंक ना. कोन्द द आल्वोरान लेगीत करूंक ना...

## तांकां परतें आपोवया

मंत्री पयशे करतात... अमक्यान इतले केले, तमक्यान इतले केले; पयशे दिले बगर कोणूच कामां करिनात... मंत्र्यांच्यो बायलोय पयशे करतात... पुतूय करतात...

खंयूय वचात, असल्योच खबरी लोक करतात त्यो आयकूंक मेळटल्यो.

कांय जाणांक हें सोंसना. ते उपास करपाक मुखार सरतात. अण्णा हजारें सारकेले निर्मळ मनीस लेगीत.

उपास हें सत्याग्रहाच्या अस्त्रालयांतलें एक दिव्यास्त्र. खंयूय, कशेंय, कोणायच्या आड वापरपाचें न्हय. तशें, कोणेंय वापरपाचें न्हय. जाचे आड आमी उपास करतात तो आमकां आमचो दिसूंक जाय. ताकाय आमी आपले दिसूंक जाय. म्हजेर, धरुंया, उपास करपाचो प्रसंग आयलो जाल्यार म्हाका तो फकत कोंकणी-भक्तां आडूच करूंक मेळटलो. कित्याक, ते म्हजे आनी हांव तांचो. मराठीवाद्यां आड उपास करूंक बसलों जाल्यार हांव हांशाक म्हारग जातलों.

गांधीन जिनां आड उपास केन्ना केलो ना.

कोणेंय खंयूय कसोय उपास केलो म्हणटकूच ह्या दिव्यास्त्राची धारूच वता आनी ताचीं फकांडां सुरू जातात.

स्वराज्यांत उपासाचीं फकांडांच चड जाल्यांत.

मंत्री पयशे करतात म्हूण उपास करप, चूक सामकी. दुसरो कसलोय उपाय सोदून काडूंक जाय. ते पयलीं, मंत्री अशे पयशे खावपी कशे जाले ताचीं कारणां सोदून काडूंक जाय.

राजकर्ण सामकें अधोगतीक पावलें म्हुण्णूच मू मंत्री पयशे खावपी जाले? राजकर्ण अधोगतीक कशें पावलें? साध्य साधन विवेक ताणें साप सोडून दिलो म्हुण्णूच मू? पणजेच्यान म्हाका बेतीं वचचें जालें जाल्यार हांवें गाडी एक तर पुलावयल्यान व्हरूंक जाय ना जाल्यार फेरीबोटींत तरी घालून व्हरूंक जाय. मांडवी न्हंयें वयल्यान गाडी चलोवन व्हरतलों म्हणूंक लागलों जाल्यार बुडून मरतलों. सादो विवेक हो. भात रोवन गंव काडूंक येनात. शेंवतीं रोवन मोगरीं काडूंक येनात. देंवचाराक भजून देव जोडूंक येना. बिंया सारकें झाड आनी झाडा सारकें फळ ह्या सैमाच्या नेमा सारको राजकर्णांतलो नेम हो एक – साध्य साधन विवेकाचो.

आयच्या राजकर्णान ह्या नेमाची सामकीच उवेखणी केल्या. गोंयांत तर कोणूच खंयच्याय पक्षाचे तिकेटीर वेंचून येता आनी संद मेळनाफुडें खंयच्याय पक्षाच्या सरकारांत वचून बसता. ताका विचारपीय कोण ना, पाचारपीय कोण ना. ताकाय कोणाची पर्वा ना. काँग्रेस अर्स म्हूण उबे रावप आनी वेंचून येतकूच दुसऱ्याच दिसा काँग्रेस आयंत होलसेल पक्षांतर करप फकत गोंयांत घडूंक पावलां. हरियाणाय मुखार गेल्लें राज्य म्हूण देशांत ताची नामना जाल्या. ते उपरांत जितल्यांनीय सरकारां घडयलीं तितल्यांनीय तीं दुसरे पक्ष फोडून घडयलीं. ह्या राजकर्णान गणितांय नवीं सुरू केल्यांत. म्हज्या पक्षाक ज्या मतदारसंघांत वेंचून येवपाची आस्त ना त्या मतदारसंघांत हांव म्हज्या मनशाक घुसडायतां. खंय? वेंचून येतल्या पक्षांत. आनी वेंचून येतकूच फोडटां.

अधोगतिचें गणीत एक – एक फावट ती सुरू जाली म्हणटकूच तळाक पावपाक मागीर मात पसून कळाव लागना.

मनीस वयर चडलोना जाल्यार सकल पडटा. तशें राजकर्ण ध्येयवादाक, नितिच्या मोलांक, साध्य साधन विवेकाक धरून चललें ना जाल्यार तें कोंसळत कोंसळत फटींगपणाच्या तळामेरेन पावंकूच जाय. मागीर सरकार चोरांचें, चोरां खातीर, चोरांनी चलयल्लें जालें जाल्यार अजाप कसलें? अजाप खरें एकेच गजालिचें करपाचें – सरकार अजून सुकूर बाखिया, हाजी मस्तान, चार्लस् शोभराज, दाऊद इब्राहीम हांच्या हातांत कशें पावूंक ना?

असल्या ह्या वातावरणांत उपास करून आमी कोणाक जाग्यार हाडटले जावंक जाय दुसरेंच.

मत दिवन कोणाकूय वेंचून दिवपाचो हक आमकां मेळ्ळा तसो वेंच आयिल्लो मनीस आपणाक जाय थंय वचपाक लागलो – आमचो विस्वासघा करूंक लागलो – जाल्यार ताका परतो आपोवपाचो – रिकॉल करपा – अधिकार आमी जोडूंक जाय. जांणी ताका वेंचून दिला तांणीच ता फाट धरूंक जाय, तो वता थंय ताची शी थू करूंक जाय. ताका नाका-पु करून सोडूंक जाय. 'हाका आमी सस्थपणान न्हिदुंकूच दिवचे नात' अ नित्शय करून आमी ताचे आड चळवळी चलोवंक जाय.

कार्यक्रम सामको सादो –

तो जंय भाशणां दिवपाक वता थंय मुजरत वचप. ताचें भाशण चलिल आसतना खो खो खो करून हांसत रावप. दिश्टी पडटा थंय हूश ह करप.

इल्लें इल्लें करून सगळें जाग्यार येतलें.

## अवगुणांची उवेखणी नाका

सत्याक धरून चल, अशें आमी कोणाक सांगतात? सत्याक धरू चलना ताकाच न्हय? सत्याक धरून चलना ताका धोंगां-पोंगांचे गांवट भाशेंत एक वेगळें नांव आसा – फटींग.

फटिंगाकूच सांगचें पडटा सत्याक धरून चल म्हूण.

गांधी आमकां आयुश्यभर सत्याक धरून चलात म्हूण सांगताले. कित्य खातीर? आमी फटींग म्हूण ते जाणा आशिल्ले म्हुण्णूच मू? फटिंगां घेवन आपूण देश वयर काडूंक पावपाचों ना, अशेंच ते सांगताले अस अर्थ जाता हाचो.

सत्याक आनी आमकां केन्नाच पडलें ना.

अडेज हजार वर्सां पयलीं बुद्धान ह्या देशांत एक 'पंचशील' सुरू केल्लें हांव प्राणघात करचों ना, चोरी करचों ना, व्यभिचार करचों ना, फटींगपण करचों ना, सोरो पियेवचों ना, असो एक सोपूत तो सगळ्यांक घेवंक लायतालो ते उपरांतूच तो तांकां नव्या जिविताची दीक्षा दितालो. बुद्धाचे मुस्तीं प्राणघात, चोरी, व्यभिचार, फटींगपणां आनी व्यसनां समाजांत सर्रास चलत आयिल्लीं असो हाचो अर्थ जाता. हे अवगूण ना केले बगर आपणाक नवें कांयच करूंक येवपाचें ना ह्या निर्णयार तो पाविल्लो. अडेज हजार वर्सां उपरांत लेगीत आमच्यांत व्हडलोसो बदल घडून येवंक ना. आयज लेगीत समाजांत प्राणघात, चोरी, व्यभिचार, फटींगपणा आनी व्यसनां हे अवगूण पयलीं भाशेनूच चलत रावल्यात. अडेज हजार वर्सांच्या काळांत समाजांत खूब बदल घडून आयले. फकत मनीस बदललो ना. तो तसोच उरला. बदल इतलोच जाला – पयलीं हे अवगूण आमकां अवगूण कशे दिसताले. आयज दिसनात.

बाजारांत वचात, सगळेकडेन फटींगपणांच चलिल्लीं तुमकां पळोवंक मेळटलीं. एकाद्री वस्त घेवची-शी तुमकां दिसली, तुमी कितें करतले? पसरकाराक तिचें मोल विचारतले. वस्तिचें मोल खरें एक रुपयो आसतलें. पुणून पसरकार तिचें मोल पांच रुपये म्हूण सांगतलो. तुमी वाणपण सुरू करतले. 'कितल्याक दिली, सांग' म्हणटले. 'कितल्याक घेता' काय म्हूण पसरकार तुमकां विचारतलो. तुमी 'एक रुपयो' म्हूण सांगतले. तो 'चारांक घे' म्हणटलो. तुमी आनीक एक रुपयो वाडयतले. अखेरेक तीन रुपये घेवन पसरकार तुमकां ती वस्त दितलो. कसलो 'वेपार' हो? पसरकार तुमचो इश्ट आसलो, सोयरो आसलो तरूय पसऱ्यार तो 'पसरकार' आसता आनी तुमी 'गिरायक' आसतात. गिरायकाक फटोवप हो पसरकारान आपणालो 'धर्म' मानिल्लो आसता. आनी वेपार असोच चलता अशें तो मानता.

हालीं वेपारांत 'ओपन मार्केट' आनी 'ब्लॅक मार्केट' म्हूण दोन तरांचीं

कैटां खंय चलतात. दोनां मजगतीं फरक कितें, म्हाका अजून सारको समजूंक ना.

वेपार सत्याक धरून चलना. राजकर्णूय चलना.

बुद्धाचे मुस्तींत व्यभिचार आनी व्यसन हे दोन खेरीत अवगूण म्हूण लोक मानताले. अडेज हजार वर्सां उपरांत आयज आमी दोनांचोय 'समन्वय' घडोवन हाडला. आनी ताका 'पॉश लिवींग' म्हूण एक नवें नांव दिलां.

'पॉश लिवींग' हो सगळ्यांचो आयज आदर्श जावन बसला. ह्या पॉश लिवींगांत खंयचें व्यसन आयज व्यसन उरलां? व्यभिचार तरी व्यभिचार उरला व्हय?

अखेरेक अवगूण हे अवगूण. तांकां कसलींय नांवां दिलीं म्हूण ते अवगूण न्हय जायनात. मनीस संस्कारी जातलो, वयर सरतलो जाल्यार ताणें आपणांतले अवगूण हुमटावन काडपाचो वावर करूंकूच जाय. समाज ते बगर वयर सरपाचो ना.

अवगूण हुमटावन काडपाक चोराक चोर म्हण वळखूंक जाय. फटिंगाक फटींग म्हणूंक जाय.

हें गोड उतरांनी सांगूं येता, अशें म्हणटात. 'न ब्रुयात सत्यम् अप्रियम्' अशें नीत-शास्त्रूय सांगता. पुणून, हीं दुसरे तरेचीं फटींगपणां. सत्य कोडू आसता म्हूण तें म्हॊवान घोळोवन सांगप हीं फटींगपणांच. 'गोड' फटींगपणां म्हणुंया. पुणून ती फटींगपणां न्हय जायनात. असलींय फटींगपणां आमी नैतिच्या नांवान करूंक फावनात. उगडें-नागडें सत्य लोकांमुखार दवरपाक आमी मातूय अनमनूंक जायना.

म्हाका म्हॊंवांत घोळोवन कोडू सत्य केन्ना सांगूंक आयलें ना. केन्ना सांगचोंय ना. मुर्खाक हांव मुर्खूच म्हणटलों. आनी ताका मूर्ख म्हळो म्हूण, धरूंया, ताणें म्हजेर फुलयलें – आनी दुसरो गाल मुखार करपाचो धीर म्हाका जालो ना – जाल्यार हांव ताचेर परतीं दोन फुलयतलों. गाल चोळीत बसचों ना.

म्हजी 'अहिंसा' हे तरेची.

गांधींनी राजकर्ण अशेंच चलयलें. सत्याक धरून चलयलें. म्हूण तें उकत्या मळार चल्लें. तांणी चलयल्ल्या सत्याग्रहांत लिपचोरयां कितेंच कोणाक करचें पडूंक ना.

आरंभाच्या काळांतली खबर –

१९१९त गांधींनी रौलेट बिलांआड सत्याग्रह सुरू करचो थारायलो. मुम्बयंत एक सत्याग्रह समिती सुरू जाली. उमर सोभानी तिचे चिटणीस आशिल्ले. सोभानी म्हळ्यार ते मुस्तींतले एक गडगंज फुडारी मुम्बयचे. खंयच्याच छापखान्यान गांधींचें कितेंच छापचें न्हय म्हूण सरकारान एक फर्मान काडिल्लें. सोभानींनी 'सत्याग्रह' नांवाची एक पत्रिका छापपाची तजवीज केली. एका छापखान्याक मुखार काडलो. 'तुजो छापखानो सरकारान जप्त केलो जाल्यारूय भियेवं नाका... तुका नवो छापखानो काडून दितलों' म्हूण सांगलें. पत्रिका छापली. छापखान्याचें नांवूय ताचेर घालें. कितल्यो प्रती छापल्यात हेंवूय छापूंक जाय आशिल्लें. वीस हजार प्रती छापिल्ल्यो पुणून धा हजार छापल्यात म्हूण पत्रिकेचेर छापलें. पत्रिका जप्त केल्यो जाल्यार उरिल्ल्यो लिपचोरयां वांटूंक मेळटल्यो अशें येवजून ही 'ट्रीक' केल्ली. कोणें तरी दुबाव काडलो, 'सभाग्या, हें तांकां (गांधींक) कळत जाल्यार हीं फटींगपणां जालीं अशें ते म्हणटले... आनी आमचे आड उपासूय करतले, सांगूं येता?'

सोभानींनी लिपोवन दवरिल्ल्यो प्रती रातयांच हुलपावन उडयल्यो.

पुणून खबर गांधींच्या कानार पावपाची ती पावलीच. गांधींनी सोभानींक आपोवन सांगलें, प्रती हुलपायल्यो म्हूण केला तो गुन्यांव करूंक ना अशें जायना... पोलिस कमिशनराक वचून सांग आपणें अशें अशें केलें म्हूण...'

सोभानी कितें करतले, पोलीस कमिशनरा मुखार वचून गुन्यांव कबूल करून आयले.

सत्याक हे तरेचो पाळो दिवनूच गांधींनी सगळे सत्याग्रह चलयले. म्हूण देश वयर सरूंक पाविल्लो. संवसारांत देशाची पत आकांताची वाडिल्ली.

जवाहरलाल प्रधानमंत्री जाल्यात आनी विदेशांत गेल्यात तेन्ना तांच्या येवकाराक देशांचे राष्ट्रपती 'प्रोटोकोल' मोडून विमानतळार आयल्यात. प्रोटोकोल मोडचो अशें कितें आशिल्लें जवाहरलालांच्या व्यक्तित्वांत? एका गरीब देशाचे प्रधानमंत्री... आज तरी चार कारखाने चलतात देशांत. ते मुस्तींत एकूय चलनाशिल्लो. लस्करी नदरेनूय देशाक मोल नाशिल्लें. पुणून जवाहरलालांचें 'स्टेचर' आकांताचें आशिल्लें. तें प्रोटोकोल मोडूंक लायतालें. तें तांकां गांधींनी चलयल्ल्या चळवळिंनी मेळोवन दिल्लें. देखून, ते खंयूय वचूं, अग्रपूजेचो मान सदां तांकांच मेळत आयिल्लो.

आयज? उरल्या व्हय पत आमच्या देशाची हे तरेची संवसारांत खंयूय? परती, विकासा खातीर काडिल्लें रीण 'खावपी' लोक हे... सोंपेपणी विकते घेवंक येतात असले, हे तरेची एक छाप पडल्या आयच्या संवसारांत आमच्या फुडाऱ्यांची.

हे परिस्थितींत अवगुणांची उवेखणी देशाक पुटवपाची ना. अवगुणांकडेन पळेता आसतना अवगुणूच म्हूण पळोवंक जाय आनी अवगूण दया माया बाळगी नासतना हुमटावन काडपाचो वावर सगळ्यांनी हातांत घेवंक जाय.

## ऊधो, कर्मन की गति न्यारी

दैवांत नासत जाल्यार तुका जाय तें केन्नाच मेळपाचें ना, अशें म्हणप वेगळें आनी देवाच्या मनांत नासत जाल्यार मेळपाचें ना, अशें म्हणप वेगळें.

दैव आनी देव एक न्हय – आसूं, मागीर, दैवाचेर देवा परस एक मात्रा चड. दैवाक मानतल्यांची आनी देवाक मानतल्यांची भास दिसूं सारकी. दोगांयची धारणा सारकी न्हय, एक न्हय. दैव कुड्डें. कोल्ली. नेम नाशिल्लें. देव कुड्डो न्हय, कोल्लीय न्हय. देवाच्या राज्यांत घडटा मोडटा, तुट्टा फुट्टा, जल्माक येता आनी मरता, पुणून सगळें नेमांक धरून चलता. सारकें गणिती हिसपान चलता. देवाचो एकूय नेम कुड्डो न्हय. धरूंया, कोणूय माडा वयल्यान पडलो. तो संत आसलो जाल्यारूय ताचीं हाडां मोडुंकूच जाय. उज्यांत हात घालो जाल्यार परमहंसाचो लेगीत हात भाजुंकूच जाय. भौतीक मळावयले देवाचे हे नेम कोणाक चुकोवंक येनात तशे नैतीक मळावयलेय ताचे नेम कोणाक चुकोवंक येवपाचे नात ही देव मानतल्यांची धारणा. दैव मानतल्यांचे धारणे परस वेगळी.

नैतीक मळा वयलो देवाचो सगळ्यांत व्हडलो नेम – करणेचो. बरे करणेक बरें फळ मेळुंकूच जाय. तशें वायट करणेक वायटूच फळ मेळूंक जाय. करणेचें फळ कशेंच कोणाक चुकोवंक येवपाचें ना. खंयूय वचून लिपून रावूं मनीस, करणेचें फळ ताका सोदीत थंय आयले बगर रावपाचें ना.

कारणा बगर कितेंच घडना हें ह्या करणेच्या नेमाचें मुखेल आंग.

एक खरें – जिवितांत एकूच बळ काम करिना. कितलींशीं बळां एका वांगडा काम करीत आसतात. सगळीं आपापणाले गतीन काम करतात. सगळ्यो गती आमच्या लक्षांत येनात. कांय येतात कांय येनात. ज्यो येनात त्यो नाच अशें म्हणूं येना. आमच्यांनी इतलेंच म्हणूं येता – जें घडलां ताचे फाटल्यान कसलेंय तरी एक कारण आसा. एक कारण आसत, धा कारणां आसत. पुणून कारण आसाच आसा. खंयचें तें अजून आमच्या लक्षांत येवंक ना. कारण नाशिल्लें जाल्यार घडून आयलां तें घडचेंच नाशिल्लें. खंयच्या कारणाक लागून तें घडून आयलां तें सोदून काडप आनी सोदुनूय तें मेळ्ळें ना जाल्यार जें भोगचें पडलां तें हाय हूय करी नासतना अलिप्ततायेन भोगप इतलेंच आमच्या हातांत आसा.

हाका दैववाद म्हणूं येना. हाका निखटो भावार्तूय म्हणूं येना. प्रज्ञेचे दोळे उकते दवरून जियेवपाची एक कला ही.

सूरदासाक श्यामाक मेळपाची तळमळ लागिल्ली. श्याम मेळटलो हे विशीं

ताका दुबाव नाशिल्लो. पुणून यत्न करुनूय तो मेळना हें पळोवन आपूण खंय तरी उणो पडटां अशें ताका दिसपाक लागिल्लें. ताका एक एक खीण एका एका कल्पा इतलो सोंपून सोंपना येदो दिसपाक लागलो. 'सूर श्याम मिलने की आशा / छिन छिन बीतत भारी' अशें म्हणून तो आकूळ पिकूळ जावपाक लागलो. तो दैववादी आशिल्लो जाल्यार म्हणटलो आशिल्लो, 'इतलोय यत्न करून तो मेळना जाल्यार म्हज्या नशिबांत ताची-म्हजी भेट ना अशेंच मानचें पडलें... मागीर, ही साधना कित्याक करूंक जाय? हे यत्न कित्याक करूंक जाय? तो मेळपाचो आसत जाल्यार मेळटलो आनी मेळपाचो नासत जाल्यार यत्न करुनूय मेळपाचो ना.' आनी अशें म्हणून यत्न करपाचें तो सोडून दितलो आशिल्लो. पुणून सूरदासान यत्न सोडून दिले नात. साधनेंत खंड पडूंक दिलो ना. तो नेटान साधना करपाक लागलो आनी ती करता आसतना ईश्वरी न्याय समजून घेवपाचो यत्न करपाक लागलो. तागेली नदर सगळ्यांत पयलीं दर्याचेर वचून बसली आनी तो म्हणपाक लागलो, 'संवसारांतल्यो सगळ्यो न्हंयो सावें उदक हाडून हाडून दर्यांत ओतयतात. तरूय दर्या खार तो खारूच कित्याक उरता? 'सब नदियाँ जल भरि भरि रहियां / सागर केहि बिघ खारी'. विचित्र न्हय हें? सगळें सावें उदक पोटांत घेवनूय खारूच उरप म्हळ्यार कितें? न्हंयांचे करणेची गती कितें जाली? कित्याक जावचें अशें? तो आपणाक हो प्रस्न विचारता थंय आसा, अवचीत ताची नदर एका बक्याचेर वचून थिरावली. पाड पडिल्लें नुस्तें मारून खाता. हाका धवीं फुल्ल पांखां कित्याक मेळचीं? तें इतलें सुंदर कित्याक दिसचें? आनी... ती कोगूळ? गोड म्हाेंव्या सुरान पुराय वाटार प्रसन्न करपी? हिका काळीं कुळकुळीत पांखां कित्याक मेळचीं? कित्याक ती पळोवं नज इतली कुरूप जावची? सूरदासाक दोळे नाशिल्ले. पुणून ताका दिश्टी पडटालें. दोळे आशिल्ल्याक दिश्टी पडना तें ताका दिश्टी पडटालें. म्हूण दोळे आशिल्ल्यांक केन्ना पडनात तसले प्रस्न ताका पडटाले. तो आनीक एक चित्र आमचे मुखार दवरून म्हणटा, 'हें चितळ पळेयात. ताचीं बाकिचीं सगळीं आंगां विसरात. फकत ताचे दोळेच पळेयात. इतले सुंदर दोळे कोणाक मेळ्ळ्यात व्हय अख्ख्या संवसारांत? हे दोळेच पुरो आशिल्ले ताका अख्खो संवसार जिखपाक. जग आपलें करून घेवपाक. पुणून बावड्याक सगळ्यांचो भंय दिसता आनी भंयान बावडें ह्या वनांतल्यान त्या वनांत एका सारकें धांव धांव धांवत आसता. 'उज्ज्वल पंख दिये बगुलाको / कोयल केहि गुन कारी // सुंदर नयन मृगा को दीन्हे / बन बन फिरत उजारी //' अशें कित्याक जावचें? कोगूळ धव्या फुल्ल पांखांची आनी सुंदर आसपाची. आनी बकें काळें किट्ट आनी कुरूप आसपाचें. चितळाक अख्खें जग भंया विरयत भोंवंक मेळपाचें. पुणून अशें घडना. कित्याक घडना? कांयच समजना आनी मागीर 'ऊधो कर्मन की गति न्यारी'. थाव लागना रे ईश्वरी न्यायाचो उद्धवा! अशें म्हणटा. सैमांत चल्लां तेंच मनशाच्या समाजांत चलिल्लें तो पळेता. जाका जें फावता तें केन्ना मेळना आनी जाका जें फावना तें ताका कशें मेळटा, समजना. समाजांत सत्या कोणाच्या हातांत आसूंक जाय आशिल्ली? चोरांच्या, फटिंगांच्या? काय शाण्या बऱ्या मनशांच्या? सत्या बऱ्या मनशांच्याच हातांत आसूंक जाय आशिल्ली. पुणून तांच्या हातांत ती केन्ना गेलीच ना. सत्या गेली सदां (तांकां चोर फटींग म्हळ्ळें तुमकां मानना जाल्यार) मुर्खांच्या हातांत. खंयूय नदर भोंवडावन पळेयात तुमी: 'मूरख मूरख राजा कीन्हे / पंडित फिरत भिखारी' हेंच दृश्य तुमकां पळोवंक मेळटलें. जे लोक नवें कितेंय तरी निर्माण करतात – नाशिल्लें निर्माण करून दितात – तें मागीर चित्र आसूं, गीत आसूं, शिल्प आसूं वा साहित्य आसूं, तांकां समाजांत कोण विचारिना. विचारतात लोकांक नागयतात, फटयतात, चोरतात, लुट्टात तांकां. तेच सत्या हातांत घेवन बसतात. आनी कांय साहित्यकार, चित्रकार, संगीतकार, पत्रकार तांचे भोंवतणीं आनाळ्यो गुनाळ्यो काडून तांचे कडल्यान कितेंय तरी सादतात आनी आपूण 'व्हड' म्हूण जगाक भासयतात. अ॰ कित्याक घडचें समजना रे उद्धवा, अशीं काकुळटेणी उतरां सूरदासाच्या तोंडांतल्यान भायर सरतात. 'ऊधो कर्मन की गति न्यारी'. न्यारी म्हळ्यार उरफाटी न्हय. थाव लागना असली, समजना असली. 'कर्मन की गति उरफाटी अशीं उतरां सूरदासाचे जिबे वयल्यान केन्नाच भायर सरपाचीं नात. सूरदास दैववादी आशिल्लो जाल्यार 'कर्मन की गति' उरफाटी म्हणटलो आशिल्लो. तो तशें म्हणिना. कर्माची गती आपणाक कळना इतलेंच म्हणटा.

म्हूण, श्यामाचे भेटिची तळमळ लागिल्ली आसुनूय — आनी श्यामाची भेट अजून जावंक पावूंक ना हें पळोवनूय तो निर्शेना. भेट एक दीस जातली जातली म्हळ्यार जातलीच जातली हाची ताका खातरी आसा.

भोंवतणी कितलोय गुपाट काळोख पातळ्ळेलो आसूं, फायच्या दिसाचीं किर्णां त्या काळखाच्या पोटांत लिपून आसात हें जो जाणां तो केन्ना निर्शेवचो ना. तो आपणाली साधना सोडचो ना. परती, खोल करतलो आनी उजवाडांत भितर सरतलो.

दैववादी इतलो धीरवान, इतलो आस्तीक आसना. सूरदासाचें हें भजन दैववादी लोकांच्या हातांत पडलां आनी तांणी तातुंतल्यान दैववादी अर्थ काडला.

देवाक पुरायेन शरण वचुनूय सूरदास प्रज्ञाचक्षू आशिल्लो.

### होनी होके रही

कबीराचेंय असलेंच एक भजन मेळटा.

*करम गति हारै नाहिं टरी।*
*मुनि वसिष्ठ से पंडित ज्ञानि, सोधि के लगन धरी।*
*सीता हरन मरन दसरथ को, बन में बिपति परी।१।*
*कहं वह फन्द कहां वह पारधि, कहं वह मिरग चरी।*
*कोटि गाय नित पुन्य करत मृग गिरगिट जोन परी।२।*
*पांडव जिनके आप सारथी, तिन पर बिपति परी।*
*कहत कबीर सुनो भाइ साधो, होनी-होके रही।३।*

कर्माची गती चुकयतले म्हळ्यारूय चुकोवंक येना. जावपाचें आसा तेंच जाता. आतां हेंच पळेयात, रामाच्या दरबारांत वसिष्ठा सारको एक ज्ञानी आशिल्लो. ताका फाटलेंय दिश्टी पडटालें तशें फुडलेंय दिश्टी पडटालें. रामाचें सीतेकडेन लग्न थरलें तेन्ना ताणें दोगांयचीं नक्षत्रां पळेल्लीं. शनी-मंगळ खंय आसात ते पळेल्ले आनी लग्ना खातीर बऱ्यांतलो बरो म्हुर्तूय सोदून काडिल्लो. तरूय लग्न जायनाफुडें रामाक वनवासाक वचचें पडलें मू? वनवासाच्या धसक्यान दशरथाक मरण आयिल्लेंय पळोवचें पडलें मू? तें कित्याक, वनवासांत सीतेचें हरण जाल्लेंय ताका पळोवचें पडलें. रामाच्या वांट्याक ज्यो विपत्ती आयल्यात त्यो वसिष्ठा सारक्या तिनूय काळाचें ज्ञान आशिल्ल्या पंडिताक लेगीत कळ्ळ्यो नात. कित्याक? करमाच्यो गती सगळ्यो कोणाच्याच लक्षांत येनात. वसिष्ठा सारकेल्याच्या लेगीत लक्षांत येनात. मागीर त्यो ज्योतिश्यांच्या लक्षांत कश्यो येतल्यो?

कबीर रोखडोच प्रस्न विचारता – 'कहं वह फंद कहाँ वह पारधि, कहां वह मिरग चरी'. रामाचेर कोंसळ्ळेल्या संकश्टांचें वर्णन केले उपरांत रोखडेंच हें कडवें आयलां. म्हूण सरसमान सगळे ह्या कडव्याचो रामाच्याच जिविताकडेन संबंद जोडटात आनी म्हणटात, येदो व्हडलो राम! विष्णूचो अवतार. पुणून ताका सुवर्णमृग हें सुवर्णमृग न्हय म्हूण कळ्ळें ना. सीतेक तें जाय जालें म्हण तो तें हाडपाक धांवलो. आनी एका फुडल्या एक संकश्टांत पडलो. संकश्टां कोंसळचे पयलीं रामा सारकेल्या अवतारी पुरसाची लेगीत बुद्द खंय चरपाक वता, समजना. रामान जागरूक रावंक जाय आशिल्लें. सुवर्णमृग म्हूण मृग नासता म्हणपाचें ताका खबर आसूंक जाय आशिल्लें. तो जागरूक रावलो ना, घाळ उरलो. आनी संकश्टांत पडलो. ताका एका फुडल्यो एक

पत्ती सोंसच्यो पडल्यो.

पुणून ह्या कडव्यांत 'पारधी' म्हूण एक उतर आयलां. राम हरणां चितळां मारून हाडटालो खरो. पुणून हो ताचो धंदो नाशिल्लो. सावदां मारपाचो धंदो पारधी करतात. राम पारधी नाशिल्लो. म्हूण ह्या कडव्याचो संबंद कांय जाणकार दुसरे एके कथेकडेन जोडटात.

एका रानांत खंय एक हरण रावतालें. ताका धरपाक एका पारध्यान जाळ पातळायल्लें. हरण चरत चरत थंय पावलें आनी बावडें अचकीत जाळांत घुसपलें. पारधी खोशशी जावन ताका धरपाक धांवलो. पुणून तो जाळासरीं पावतासर हरणान जाळांतल्यान आपली सुटका करून घेतली आनी तें धांवलें. पारध्यान धोणू उखल्लें आनी ताचेर एका फाटल्यान एक तीर सोडीत तो ताचे फाटल्यान गेलो. हरण शिटूक. वांकडें तिकडें धांवन ताचे सगळे तीर ताणें चुकयले. पारध्याचे तीर सोंपले. तो निर्शेलो. निर्शेणेचे तिडकीन ताणें रानाक उजो घालो. हरण थोडो वेळ घुटमळ्ळें. रोखडीच ताणें उज्यांतल्यान भायर उडी घेतली आनी तें सुटलें. इतलेंय हें कर्तुत्व केले उपरांत हरणान जागरूक रावंक नाका आशिल्लें? तें जागरूक रावलें ना. जैताच्या उन्मादांत तें घाळ उरलें. नाचपाक लागलें. नाचत नाचत मुखार मात गेलां – एके बांयंत पडून मेलें.

कबीर म्हणटा, जागरूक रावंक नाशिल्ल्यान 'होनी होके रही' – जावपाचें तें जालें. हरण मेलें.

कबीर मागीर नृगराजाचो आमकां उगडास करून दिता. आनी म्हणटा, ताचेंय अशेंच जालें. तो मनूचो पूत. ते भायर राजा. ब्राह्मणांक गायो दानांत दिवंक जाय, म्हणटकूच राजाक खुब्ब पुण्य मेळटा म्हणपाचें ताणें आयकल्लें. तो सद्दां ब्राह्मणांक गायो दीत आयिल्लो. लाखांनी गायो ताणें ब्राह्मणांक दिल्ल्यो. एक दीस एका ब्राह्मणान ताका विचारलें, 'ही जी गाय तूं म्हाका दानांत दिता ती हाचे पयलीं आनी कोणाक दिवंक नाशिल्ली मू?' ना म्हूण ताणें स्पस्ट जाप दिवपाची. दिली ना. ताणें फकत मान हालयली. हो मान हालोवन हय म्हणटा काय ना म्हणटा तें ब्राह्मणाक कळ्ळें ना. ताणें तिडकून 'फुडल्या जल्मांत तूं शेड्डो जातलो' असो राजाक श्राप दिलो. ब्राह्मणूच तो. दुसरें कितें करतलो?

आनी नृजराज येदेशे हे चुकीक लागून फुडल्या जल्मांत शेड्डो जालो. आयुश्यभर केल्लें गोदान येदे-शे एके चुकीक लागून फुकट गेलें. जिवितांत येदीशी चूक लेगीत पुराय आयुश्याची पुण्याय होगडावपाक पुरो जाता.

वाखराचे धारे वयल्यान चलपा सारकी वाट ही. कठीण. पुणून हेच वाटेन गेल्यार मनीस जैतवंत जाता. नाजाल्यार –

'होनी होके रही.'

पुणून कबीर 'जावपाचें जातलें' इतलेंच सांगून ओगी रावना. तो जावपाचें आसा तें चुकोवं येता म्हूण सांगता आनी तें कशें चुकोवचें हेंवूय समजावन सांगता. तो म्हणटा —

देवाक देवळांतलो हाडून काळजांत बसयात. देवाक मानलो म्हूण भागना. ताची पुजा केली म्हुण्णूय जायना. ताका आमचो 'सारथी' करूंक जाय – फ्रॅंड, फिलोजॉफर आनी गायड करूंक जाय. आनी तो सांगता तेंच करूंक जाय. देवळांतलो देव हें काम करिना. काळजांतलोच करता. खंयच्या प्रसंगाक कितें करूंक जाय तें तोच सांगता आनी आमचे कडल्यान तो तें करूनूय घेता. एक दाखलो दिवन कबीर आमकां विचारता, पांडवांचो आनी श्रीकृष्णाचो संबंद कसले तरेचो आशिल्लो? तो तांचो मुदला सावन इश्ट आनी बरें मागतो आशिल्लो. पुणून तो फकत इश्ट आनी बरें मागतो आशिल्लो ते मेरेन तो व्हडलें-शें कांय करूंक पावूंक नाशिल्लो. ताका पांडवांनी आपणालो 'सारथी' केलो तेन्नाच पांडव सगळ्या संकश्टांतल्यान सगळ्या अरिश्टांतल्यान आपणाक वाटावंक पावले. झूज जिखूंक पावले. कबीर म्हणटा, श्रीकृष्णाक हाडून काळजांत बसयात – आनी तो सांगता तें करात. तुमीय सगळ्या संकश्टांतल्यान, सगळ्या अरिश्टांतल्यान आपणाक वाटावंक पावतले. केन्ना कितें करचें तें तोच तुमकां सांगतलो.

तात्पर्य: जिवीत दैव नांवाच्या खंयच्याच कुड्ड्या तत्त्वाच्या कोल्लाचेर निंबून चलना. आनी देव आसा काय ना हे विशीं दुबाव आसलो तरूय जें 'आसा' तें कुड्डेपणान कोल्लीपणान चलना इतलें आमकां खबर आसा. जिवितांत जें चलता तें सगळें नेमांक धरून चलता आनी हे नेम आमकां स्पस्ट बरे समजले नात तरूय ते गणिती हिसपान चलतात आनी तांचें गणीत खंयच चुकना म्हणपाचेंय आमकां खबर आसा. ह्या स्वयंचलीत जिवितांत चित्त जागरूक दवरून चलूंक जाय. चत्रायेन पावलां घालून जियेवंक जाय. ना जाल्यार 'होनी होके रही' अशें सूरदास आनी कबीर दोगूय आमकां सांगतात.

* * *

# ख्यास्त

मूळ हिन्दी : मेहरनिन्सा परवेज
कोंकणी अणकार : उदय देशप्रभू

'उमा आयलें.' कोणें तरी हीं दोन उतरां ते शोकसभेंत अशे तरेन म्हळीं की थंय एकठांय जाल्ले सगळे लोक एकाद्रयाच्या मरणाक लागून येवंक नासले जाल्यार थंय कसली तरी पंचायत बशिल्ली आनी जाहीर करपाचें आशिल्लें, 'गुन्यांवकार हांजीर आसा.'

तकली सकल घालून बशिल्ल्या सगळ्या लोकांनी अजापान तकल्यो वयर केल्यो आनी तांची नदर तीं दोन उतरां उलोवपी व्यक्तीचेर थिरावली. कमला मावशेन तीं दोन उतरां घणाचे फांपार जाल्लेवरी तोंडांतल्यान भायर काडिल्लीं आनी आतां ती दुबावीत हांसो तोंडार दवरून तशीच उबी आसली.

ती सामकी आवय फाटल्यान वणटीक तेंकोन उबी आसली. आवयन तिचो आधार घेतलेलो. असल्या दुख्खाच्या वेळार आवयक आधाराची गरज आस्रा हें जाणून ती आवयक आधार दिताली. आवयची जाणटी कुडूय तिका तेंकोन जशी काय तिचो आधार मागताली.

उमा आयिल्लेचे खबरेन शांत वातावरणांत मातसो बदल जावंक लागलो. आनी सगळे लोक उत्सुकतायेन भायल्या दरवटाकडेन पळोवपाक लागले. उमाची खबर कळटकूच तिच्यान चड वेळ बसून रावपाक जालें ना. ती वणटिचो आधार सोडून सडसडीत उबी रावली. तिका तेंकोन बसलेली आवय आपले आपूण शादूर जावन बसली. कोणाची नुरा कशे तरेची जाल्या तें ती त्या बोवाळांत पळोवंक पावली ना, पूण वतां वतां तिणें आवयच्या दुख्खी तोंडार तिडकिचे भाव तेळिल्ले.

'खंय वता ?' आवयन विचारलें. उमाची खबर आयकून ती उठून वतली म्हणपाचें ती जाणा आशिल्ली.

'आई, मातशें बाथरुमांत वचून येतां' अशें सांगून आवयची कांयच पर्वा करिनासतना फाटसून ती वचपाक लागली. फाटल्यान आशिल्ल्या पेरीच्या झाडापोंदच्यान वचून ती फुडल्यान आयली.

भायर बागेंत आशिल्ले कदेलीचेर उमा वग्गी सूटकेस घेवन बशिल्लें. ताचे वांगडा एक दादलोय बी भियेल्लेवरी, भितरे नदरेन मुखावयल्या रस्त्याचेर पळयत बशिल्लो. उमा वांगडा आयिल्ले ते व्यक्तीक तिणें हांसून येवकार दिलो. ती वळखल्ली. आयिल्ली व्यक्ती आनीक कोणूच न्ही, उमाचो घोव दिनेशच आसूंक जाय. तिका पळोवन दोगांय उठलीं.

'कशें आसा गो ?' तिणें जायत्या वर्सां उपरान्त उमाचे फाटीर हात दवरिल्लो. स्पर्श जायनाफुडें तिका दिसलें की एका काळच्या नाजूक उमाची फाट आतां पयलिंची ना. खरखरीत-शी जाल्या. तिका पळेनाफुडें उमाच्या दोळ्यांतल्यान दुकांचो शिडकाव जालो. जायत्या वर्सां उपरान्त मेळपाचो असो खीण येता तेन्ना मनशाक तो रडयले बगर सोडिना.

'दिदी, हो म्हजो घोव दिनेश.' उमा तिका वेंग मारून रडटां रडटां सांगतालें.

तिणें बारिकसाणेन उमाक नियाळून पळेलें. उमाच्या माथ्यांतले दोनूय कडांतले केंस मातशे मातशे धवे जाल्ले. दोळ्यांसकयल दिसपी काळीं खतां तिचे बलायकी नाशिल्ले आनी अशक्त कुडिची वळख करून दितालीं. तिणें काचाबूल जावन अचकीत जाणटें दिसपी उमाक पळयलें.

'दिदी, बाबा गेल्ल्याची खबर म्हाका तिसऱ्या दिसा कळ्ळी. तें आयकून म्हज्यान रावं नज जालें. आनी त्या भारांत तडक हांगा येवंक भायर सरलें.' उमा रडरडत सांगतालें.

'बरें जालें गो तूं आयलें तें. आनी तूं कशें येवचें नासलें ? तूं तर बाबाचें सामकें जिवाचें आसलें. चल, पयलीं हात पांय धुवन घेयात. मागीर आईक वचून मेळात.' अशें सांगून ती दोगांकूय कुशिनच्या घरांत घेवन गेली. सोयऱ्यां खातीर तें मुद्दम रितें करून दवरिल्लें. उमा सोयरें नासलें, पूण येवचे येवन उमाक एकदम त्या वातावरणांत व्हरपूय शाणेपणाचें जावचें नासलें.

'दिदी, जायत्या वर्सां उपरान्त कुळारच्यान दोन वळिंची चीट आयली आनी तीय बी बरी न्ही, दुख्खी खबर दिवपी. आनी तीय बी कोणें कोणाकडच्यान धाडची ?' उमा उलयतां उलयतां रडूंक लागलें.

'फोन करून कळोवपाचें मनांत आसलें गो उमा. पूण बोवाळांत कोणाकूच उगडास जालो ना.' तिणें आपले परीन समर्थन करपाचो यत्न केलो. 'सगळें कशें अचकीत घडलें आनी मागीर फुडली वेवस्ता...' तिणें अशें म्हळें तेन्ना कॉटीर बशिल्ल्या उमान तिका अशे एके नदरेन पळयलें की तातुंतल्यान तिका विचारपाचें आसलें की बापायच्या मरणाची खबर कळपा इतलोय अधिकार उरलो ना तर म्हाका! जितें आसतनाच इतलें पयसावन दवरलां म्हाका तुमी! ताचे दोळे जायते प्रस्न घेवन तिका एका सारके पळयताले.

'आईक मेळपाचें आसा दिदी', च्याचें कोप कडेक सारून उमान म्हळें. ताचे तळमळे तिका दिश्टी पडटाले. ती समजल्ली. जितलें तें भायल्यान दिसतालें ताचेकूय अदीक तें भितल्ल्यान अस्वस्थ आसलें. मुखार घडपी गजालीं पासून पयस रावपी दिनेश कांयच उलय नासतना बेगिबेगीन च्या पियेतालो. केन्ना केन्ना तो तिचेर जाल्यार मर्दीमर्दी उमाचेर नदर मारतालो. दिनेशाले नदरेंत भिरांत तेचपरी लाचारी दिसताली. थंयच्यान केन्ना एक फावट भायर सरून वतां अशें ताका जाल्लें. ताका परतून परतून भंयान

जाणवतालें तें एकूच, की कोणें सांगचें की ताका त्या घरांत कशे भशेन लागयत म्हणटा तें. पयलेच फावट मावोड्या येवपी जांवयाचे नदरेंत प्रसन्न आनी चंचल भाव आसतात. पूण ताचे नदरेंत भंयान ठाण मांडिल्लें. जसो काय तो बळी दिवपाचो बोकडो आशिल्लो.

'च्या पियेवन घे उमा. मागीर आईम्हऱ्यांत वचुंया.' तिणें उमाक समजायलें. तिका दिसलें, च्या पियेतकूच ताका मातशी थाकाय मेळटली, तें स्वस्त जातलें. ती आवय म्हऱ्यांत वचपाचो खीण आनीक मातसो लांबोवंक सोदताली. च्या पियेवन उमा तिका अवान्तरावरी नदरेन पळोवंक लागलें. तिकाय दिसलें, उमाक असो चड वेळ पयस दवरप समा जावचें ना.

'चल गो आईक मेळुंया.' तिणें अचकीत म्हळें आनी तीं दोगांय एकदम उठून उबीं रावलीं. उमा ह्या खिणाची सामकें आकुळपिकूळ जावन वाट पळेतालें. दिनेशाक बरोबर घेवन वचप योग्य जातलें काय ना हाचो तें विचार करतालें. पूण दिनेश ताचो पदरूच सोडूंक तयार नासलो. त्या नव्या घरांत तो काचाबूल जावन भुरग्यावरी वागता अशें उमाक दिसलें.

घर पुराय सोयऱ्यांनी भरिल्लें. पयशिले पयशिले सोयरे – आवयकडचे तशेच बापायकडचे. बापाय व्हडेंतल्या सोयऱ्यांची जाल्यार दाटी जाल्ली. फकत एकलें उमाच नाशिल्लें. आनी तें ना म्हणपाची कोणाकूच नात नाशिल्ली. उमाच्या नांवार चीट बरोवन चोरयांनी ती पोस्ट करपी कोण हें लेगीत कोणूच सांगूंक नकळ आशिल्लो.

वणटिच्या कोनशाक तेंकोन आवय वग्गी बशिल्ली. तिणें उमाक कुडीकडेन हाडून सोडलें. आतां फुडलें काम खासा उमाकच करपाचें आसलें. एकटुकें जाल्ल्यान पयल्या फाराक उमा मातशें भियेलें पूण रोखडेंच ताणें आपले आपणाक सांवरून घेतलें. गर्दैतल्यान वाट काडीत तें आवय म्हऱ्यांत वचून बसलें. आवय पयलीं मातशी गोंदळ्ळी. मागीर तिणें उमाक एकफावट बरे भशेन पळेलें. उमाक तें सोंसूंक नज जालें. ताच्या दोळ्यांक पावळ्यो लागल्यो. कितेंय जालें तरी आवयचें काळीज तें. तिची माया वरसूक आयली आनी तिच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं, 'बापायच्या मरणाक आयलें पापणी?'

आवय इतलेंच उलयल्ली. तितल्यानच निर्जिव जाल्ल्या उमाचे कुडींत जीव आयलो. आनी तें आवयचे वेंगेंत कोमून रड रड रडलें. कितलिशींच वर्सां मेरेन ताणें आपणाल्या दोळ्यांतल्या दुकांक बांदली घालून तीं आडावन दवरिल्लीं आनी ती बांदली आयज फुटिल्ली. इंचान इंच फुटून उदकाचो लोट सगळ्या ओगान व्हांवत सुटला अशें दिसतालें. काळीज फोडून भायर सरिल्लें उमाचें तें रडप रस्त्यावेल्यान येत्यावेत्याक आयकूंक येतालें. भोंवतणचे सगळेच जाण थतरवितर जाल्ले. आख्ख्या घराचेर भुंयकांपाची आपत्ती आयिल्लेवरी दिसतालें. शेजारीपाजारी घरांतलीं बायलांय बोवाळांत बोवाळ करून हांगचीं थंय, थंयचीं हांगा करतालीं, आनी विचारतालीं, 'उमा आयलें तर?' उमान आपलें येवप आपूण जावन अशे भशेन गाजावाजा केल्लें म्हळ्यार जाता.

उमा आकांतान रडटालें. आपणाल्या वस्त्रांचेंय ताका भान नासलें. ताचो भेस पिश्याचे तोडीर पाविल्लो. दिनेश सामको भियेवन गुन्यांवकारी जाल्लेभशेन दाराच्या कोणशाक तेंकोन भिरांतेचे नदरेन उमाक पळेतालो. ताच्या तोंडार पळेल्यार अशें दिसतालें की ताणें हे तरेच्या देखाव्याची कल्पना लेगीत करूंक नासली. उमा भितर काळजासावन दुख्खाचो भार घेवन हांगा आयिल्लें हाची ताका कल्पनाच नासली. एक खरें. उमाच्या रडण्यान सगळ्यांकच आपणालें रडप विसरूपाक लायलें. सगळेच जाण ताका समजावपाचो यत्न करताले. एके परीन उमाच्या गुन्यांवाक भकसुपाचें काम आपले आपूण जावन गेल्लें.

आवयूय ताचे फाटीर पडोन हुडक्याहुडक्यांनी रडटाली. दोगांयमर्दी जें कितें घडिल्लें तें पुराय व्हांवन गेल्लें. उमा निमाणें रडोरडोन साबुद्द वचपाकडेन पावलें, तेन्ना तिणें बेगिबेगीन उमाक न्हिदयलें. ताचे केंस सारके बरे वळोवन उदक घेवन ताचें तोंड धुलें आनी हूम पुसून काडली.

'गर्दी मातशी उणी करात. भायली हवा खेळुंदी मातशी. बाय सामकें घुस्मटून गेलां' म्हणीत मावशी ताका हातानूच वारो घालपाक लागली. वयर पंखो चलतालो पूण इतले गर्दैत ताचो इल्लोय परिणाम जायनासलो. उमा हुमेन सामकें चिप्प जाल्लें. दिनेश भयभीत जावन, पुराय अनवळखी नदरेन उमाक पळेत राविल्लो. उमा इतलें भयांक्रुतपणान रडटलें हें ताणें येवजूंक नाशिल्लें.

'आई, हो दिनेश', ताणें आवयक दिनेशाली वळख करून दिली.

दिनेश हात जोडून गुन्यांवकारी कसो थंय उबो आसलो. आवयन ताचे वटेन नदर घुंवडायली, शून्य नदरेन. पूण कांयच उलयली ना. तिणें दिनेशाक भायले कुडींत व्हरून बसूंक सांगलें. ती कूड आशिल्ली उमाच्या बापायची. आवयच्या मोनेपणान एके परीन ताका मानून घेतिल्लो. गोंदळलेले मनस्थितींतलो दिनेश उमाच्या बापायचे कुडींत वचून थंयच्या सोफाचेर बसलो. थंय बसून तो जाणटेल्याचो फोटो पळोवंक लागलो. बापूय नासलो, पूण ते कुडींत ताच्या अस्तित्वाचो आभास मात जिवेपणीं जाणवतालो.

अशें दिसतालें की बाबा आतांच पासयेक बी भायर सरला आसतलो. बाबाक ह्या संवसारांतल्यान वचोन आठ दीस जाल्ले पूण अजून मेरेन खरें दिसनासलें की तो आतां ह्या संवसारांत ना. अशें दिसतालें की तें प्रेत, ती हुलपल्ली कूड, सुस्त न्हिदून पडिल्ल्या बाबाची न्हय, आनीक कोणाची तरी जातली.

बाबा असो एक धाडसी सैनीक आसलो की ताणें केन्नाच आपलें शस्त्र सकयल दवरलें ना. जिवीतभर तो एका झुजतल्या सेनिकावरी सावचीत रावलो.

रिटायर जातकूच पासून सदांवरी साडे धा वरांचेर ताणें मुस्तायकी बी घालून तयार जावप, खावन करून जिस्त ऑफिसा वेळार घरांतल्यान भायर सरप. मागीर आख्खो दीस हे वटेन ते वटेन वेळ काडून सारको पांच वरांचेर घरा परतप. हें सगळें ताचे घोळटुकेचें जाल्लें. बाबाची ही सदची कार्यावळ घरच्या कोणाकूच माननासली. पूण तशें सांगपाचो कोणाकच धीर जायनासलो. तशें जाल्ल्यान सगळीं कामां सदचे वरी चलतालीं. साडे णव जाले उपरान्त कोणूच बाथरुमांत वच नासलो. बाबाचो तो वेळ आसलो. दिस्त धांच्या ठोक्याक बाबाचें ताट वाडून तें धांकून बी बाबाले कुडींत हाडून दवरतालीं. दिस्त साडे धा वरांचेर तो मुस्तायकी बी चडोवन घरांतल्यान भायर सरतालो. सांजेवेळार परततालो तेन्ना तो खंयतरी शेणिल्ले भशेन, थकिल्लेवरी दिसतालो. येतकूच खूब वेळ मेरेन तो आपले कुडींत वोग्गी कदेलीर बसून रावतालो. त्या वेळार कोणूच ताचे कुडींत वचपाचें धाडस करीनासलो. मागीर आई हातांत च्याचें कोप घेवन ती ताका दिवंक कुडींत वयताली. तेन्ना ताची तंद्री भंगताली आनी तो सावचीत जातालो. आपणाक सावरून घेतालो आनी उलोवंक लागतालो. पूण ताच्या ह्या वागपाचेर सगळ्यांचें लक्ष आसतालें. हे वटेन फाटल्या जायत्या दिसां सावन बाबाचें ब्लड प्रेशर वाडटालें. बाबाचो भुरगेपणासावन बरोबरचो इश्ट दोतोर जाल्ल्यान तोच ताच्या कुटुंबाचो दोतोर आशिल्लो. बाबाक तो जिवीतभर तपासून आयिल्लो. बाबा हरशीं कोणाचेंच कांय आयकनासलो. दोतोराचें लेगीत. तशें जाल्ल्यान दोतोरबाब केन्ना केन्ना लिपचोरयां आईक सांगतालो, 'वयनीबाय, हाका भायर भोंवपाक मना केले बगर सुटका ना. हाणें घराकडेनच चोवीस वरां विसव घेवंक जाय.'

बाबाचे दिसपटे कार्यावळींत बदल करपाचें काम कोणाच्याच हस्तुकीं जावपाचें नासलें. केन्नाय एक दीस दाळ शिजपाक कळाव जालो वा न सुटका आईकडल्यान जेवण वेळार जावंक पावलें ना जाल्यार कांयच खायजेवनासतना तो भायर सरून चलूंक लागतालो. एक दीस आईन आपूण जावन दोतोराक विनयलें की बाबान घरांतच बसून विसव घेवंक जाय ही गजाल दोतोरानच ताच्या कानार घालची आनी ताचें भायर वचपाचें बंद

करचें. पूण तें काम दोतोराक जमपासारकें नासलें. ताणें कानामनारूच घेतलें ना.

सगळेच जाणा आसले की बाबाक कसल्याय ताच्या नित्याच्या कामांत आडावणी करप म्हळ्यार एके परीन सासणाचें मोड आफोवन हाडप. ज्या मनशान आख्खीं चाळीस वर्सां खंड पडूंक दिनासतना नोकरी केली, कसल्याच कारणाक लागूय केन्ना रजा घेतली ना, केन्नाच म्हत्वाचें काम जाले बगर घरा रावलो ना त्या मनशाक इतल्या वर्सां उपरांत 'हें करूं नाका, तें करूं नाका' म्हूण सांगप म्हळ्यार काळाची परिक्षा घेतलेवरी जावपाचें. बाबाक सगळ्यांनी घड्याळिच्या कांट्याभशेन वावुरतना पळेल्लें. ताका थांबिल्लो केन्नाच पळोवंक नासलो. ताचें थांबप म्हळ्यार घडयाळिची बॅटरी सोंपिल्लेवरी आसलें. बाबालागीं आशिल्ली घडयाळ बोल्सांतली आशिल्ली. ती केन्नाच बंद पडली ना. बाबाचे प्राण तांचे कुडींतल्यान उठून गेले, तांचे कुडिची धडपड बंद जाली तेन्ना लेगीत तांच्या बोल्सांतले घडयाळिची टिकटीक नाका तेन्ना गोंदळांत उडयताली. तांचे म्हऱ्यांत आशिल्ली सत्री सदांच तांच्या सांगाताकच उरली.

वेळाचो बंदी आशिल्ल्या बाबाक कोणेंच केन्ना हांतुणार पडिल्लो जावं लोळिल्लो पळोवंक नासलें. ताचें चलप लेगीत इतल्या नेटान जातालें की ताचे वांगडा चलप कोणाकच जमनासलें. आईक घेवन केन्नाय वचपाचें जाल्यार दोगांयमदीं अर्द्या फर्लागाचें अंतर आपशींच उरतालें. आई मोटवी, आंगान मातशी मोटी आसली. ती चलताली सामकी ल्हवू ल्हवू करून, मुये भशेन. आईच न्हय, हेरां कोणाकूच बाबा वांगडा चलूंक जायना आसलें. सगळ्यांकच धांवचें पडटालें. आई केन्नाय बाबा वांगडा भोंवपाक गेली जाल्यार पंदरा मिनटां पयलींच बाबा घरांत पावतालो. आनी घरा येतकूच आईक सोदूंक कोणाक तरी धांवडायतालो. खरशेत खरशेत आई येताली. घरा पावना फुडें तिका ग्लासभर उदक जाय पडटालें. हे खातीर कोण ना कोण तें घेवन आदींच तयार रावतालो. उदक ताळ्या सकयल वतकच तिका वाचा फुट्टाली. ती म्हणटाली, 'अशें म्हूण केन्ना कोणाचें चलप आसता? असल्या मनशां वांगडा चलप म्हळ्यार जीव वगडावन बसप!'

आईचो हो शीण बाबा हांसत झेलतालो आनी काळ्या वक्लांवरसून मस्करेच्या अविर्भावान तिजेकडेन पळेतालो आनी म्हणटालो, 'कितलें सोबीत देखणें जोडपें हें आमचें! आं! आतां देवान तुका 'पॉकेट एडिशन' केलें ताका कोण कितें करतलो? कितलें ल्हवू चलप तरी! हांवूय ल्हवूच चलतालों तुजे वांगडा. पूण ल्हवू चलून चलून निमाणें पांय दुखपाक लागले. मनशान कशें कडक सैनिकावरी रावपाक जाय, चलपाक जाय. किडीमुयांभशेन चलप हाका कितें चलप म्हणटात? कोण गो तें? बाय, च्या कर पुता. तुजे आवयक सामकें पुरो जालां. च्याये घोंट जाय तिका तरतरसाण येवपाक.'

बाबा ज्या दिसा फकाणां बीन करतालो तेन्ना घरभर एक म्होंवाळ, खोशयेभरीत वातावरण आसतालें. लग्नाचें घर जाल्लेवरी. पूण जेन्ना तो तापतालो तेन्ना भुंयकांपान हालिल्लेवरी घर जातालें. तो बऱ्या मुडांत आसतालो तेन्ना केदोय गुन्यांव जाल्लो आसूं, गुन्यांवकार ख्यास्ते बगर सुट्टालो. आनी तो रागाच्या भारार आसतालो तेन्ना सादी किरकोळ चूक लेगीत व्हडल्या गुन्यांवाचें सरूप धारण करताली. ती चूक करतल्याक इल्लीय भकसुणी नासताली. देखून ताचो मूड पळोवनूच ताचेलागीं उलोवप करप जातालें.

भायल्या संवसारांत कितें घडटा हाचें सोयरसुतक ताका नासतालें. आपलें घर, तेंच पोरणें सामान, जियेवपाची तीच तरा आनी सदांचे तोंडावयले लोक म्हणटकच जालें. सगळें कशें थरिल्ले वरी. बाबा घरा नासत आनी ताका आपोवपाचें आसत जाल्यार घडयाळ पळोवन त्या वेळार तो खंय आसतलो हाचो अदमास करूं येतालो. रातीकडेन केन्नाय येवपाक कळाव जालो जाल्यार ताका सोदपाक आई भावाक धाडटाली आनी तो दोतोरबाबाकडेन कसलें तरी इंजेक्शन करून घेतना सांपडटालो. किरकोळ वखदांचेर ताचो विस्वासच नासलो. ताका फकत इंजेक्शनांच लागतालीं. जायत्या फावटी तो दोतोरबाबाक म्हणटालो, 'येदे व्हडले कुडीचेर येद्येशे गुळयेचो कितें परिणाम जावपाचो आसा?'

देवान दिल्लीं पांच भाव-भयणां आसलीं. सगळीं ल्हान आसलीं तेन्ना जाता तो खर्च परवडटालो. चलयो वाडपाक लागल्यो आनी बाबाच्या माथ्यावयलो भारूय वाडूंक लागलो. तीन-तीन चलयांची जापसालदारकी आंगार पडप म्हळ्यार कितें फकाणां न्हय. व्हडलेचें लग्न जाल्यार म्हणटां म्हणटां जालें. बाबाच्या इश्टान तिका आपणाली सून करून घेवपाचें पयलींच थारायल्लें.

पयले धुवेचें लग्न म्हळ्यार आपशींच जावन वता. सोयरेधायरे लेगीत आधार दिवपाक फुडें येतात. व्हडलेचें लग्न जावन गेलें तें कशें हें बाबाक लेगीत खबर नासलें. कर्ज पासून घेवचें पडलें ना. आईच्यो वस्ती, जमोवन दवरिल्ली कांय रोकड आनी गांवांत आशिल्ले शेती-भाटीच्या आधारान लग्नाचो आटाप जावन गेलो. उमाचो नंबर दोन. सोयरिको चलताल्यो पूण चल्या कडच्यान येताल्यो त्यो दुडवांच्यो मागण्यो आयकुनच सगळींजाणां बेजार जाल्लीं. एके परीन विटिल्लीं.

उमा एम्. ए. पास जालें. बापायक ताच्या लग्नाची ताकतीक लागली. पूण कशेंच जुळून येना जालें. उमा खंय तरी नोकरी केरूंक सोदतालें. पूण लग्नाचें निमित्त मेळिल्ल्यान बापूय ताका मान्यताय दिनाशिल्लो. लग्नाचें खंयच थारना तें पळोवन अखेरेक अनमनत ताणें उमाक नोकरी करपाक मान्यताय दिली. उमा बँकेंत लागलें. नोकरेक लागून घरांत म्हयन्यामाल तीनेक हजार रुपया हातांत येवंक लागले. ताका लागून नोकरेक आंवय म्हणटल्यांचीं तोंडां आपशींच बंद जाल्लीं.

तीन हजार म्हळ्यार कितें उणे नासले. उमा म्हयन्याचे पयले तारखेर पुराय पगार हाडून बाबाच्या हातांत दवरतालें. ती रकम पळोवन बाबा आईच्या तोंडार खोशयेची झळा उदेताली.

घरांतल्यो जायत्यो वस्तू आतां मोडींत काडिल्ल्यो. पोरण्या सोफ्या जाग्यार नवो सोफा आयिल्लो. घरांतल्या लोकांक आजवेर स्टीलाची आरमार जावं फ्रीज म्हळ्यार सपनांतल्यो गजाली दिसताल्यो. त्योय वस्तू उमान कर्ज काडून घरांत हाडल्यो. आईकडेन बऱ्योश्यो साडयो नाशिल्ल्यो. उमान आई खातीर बऱ्यो बऱ्यो साडयो हाडल्यो. घरांतली दशा खुबूच सुदारल्या हें कोणाकूय दिसून येतालें.

वाड्याचेर फुतूफुतू करून लोकांच्यो खबरी चलताल्यो. 'पळय ताची चली, चल्यापरस चड गुणी जाली. चलोच जाल्लेवरी जोडून हाडटा आनी बापायक कसो आधार करता पळय'. उमा सगळ्या वाड्यार देखिचो विशय जाल्लो. आई बाबा तर तिचेर खुबूच खोशी आसलीं. आपणागेर असली गुणेस्त चली जल्माक आयली हाचो तांकां अभिमान दिसतालो.

उमा नोकरेक लागलें आनी ताच्या लग्नाच्यो ज्यो खबरी घरांत, वाड्यार, सोयऱ्यांमदीं चलताल्यो त्यो अचकीत बंद जाल्ल्यो. कोणूच कांय ते संबंदान उलयनासले. नोकरेक उमा लागचे पयलीं सकाळीं हांतरुणावयल्यान उठनाफुडें आवयचो म्हत्वाचो उलोवपाचो विशय आसतालो तो एक उमाच्या लग्नाचो. विशय तिणें काडप आनी दिसूयभर सगलें वातावरणच तापोवन उडोवप. जण एका चल्याविशीं ती बारीकसारीक खबऱ्यो जमोवन हाडटाली. उमा बावडें आपले कुडींत वग्गी बसून कितें चलता तें सगलें मोन्यानी आयकनालें आनी पळेतालें.

पूण आतां ह्यो पुराय गजाली लोक विसरून गेल्ले. उमाय बी त्या घुस्मटपी वातावरणांल्यान भायर सरून मेकळेपणाचें जिवीत सारूंक लागिल्लें.

उमान जेन्ना पयलेच फावट स्कूटर घेतली तेन्ना जाल्यार वाड्यावयल्या बायलांनी आपणाक असली कर्तुत्ववान चली दिलीना हाचो त्या जल्मदात्या देवाचेरच शीण काडलो. तें स्कूटरीर बसून भायर सरतालें तेन्ना बायलो

ग्गूं नाका दादले, म्हातारे, तरनाटे सगळीं जाणां तोंडां उकर्ती घालून आपान ताका पळेत रावतालीं.

अशे तरेन दोन वर्सां बरे भशेन पासार जालीं. घरांत कोणाचीच कसली त्कार नासली.

एक दीस उमान ऑफिसांतल्यान घरा येतकच जेन्ना आवयकडेन आपणें त्वन आपणाल्या लग्नाची खबर काडली तेन्ना जायते सोरोप फणा काडून सूक् करून फुस्कारूंक लागिल्ले भशेन जालें. त्या दिसा घरांतलें वातावरण तपिल्लें उरलें. रातीकडेन कोण जेवलोय बी ना. आख्ख्या घरांत एकच शिय घेवन सगळीं फुतफुततालीं. विशय म्हळ्यार, उमा लग्न जावपाक डें सरिल्लें. तेंय बी आपणाक पसंत आशिल्ल्या चल्याकडेन आनी हो लो आशिल्लो जाती भायरो. रातभर हुनारहून उलोवणीं जालीं आनी सकाळीं घरांतलें वातावरण पयलीं भशेन जाग्यार आयलें. उमाकय समजून आयिल्लें ी ह्या लग्नाक घरचीं कशींच मान्यताय दिवपाचीं नात. कशी कितें खबर पूण ही खबर पुराय वाड्यार पातळिल्ली आनी जण एकलो आपले ीन ताचेर मोन्यानी येवजूंक लागिल्लो.

उमा सांजचें कळाव करून घरा आयलें जाल्यार घरा ताका कोणच य विचारी नासलो. पूण नियाळणी मात चलताली आनी तीय दुबावान. ा थंड आसतालें. वाड्यावयल्या लोकांच्योय नदरो ताच्या येवपा-वचपाच्या ळाचेर बाण कशो रोखून आसताल्यो.

त्या दिसा तर घरांत सामकें मोड उठिल्ले भशेन जालें. उमा रातचीं करा वरां जालीं तरी घरा येवंक नासलें. बाबा परतून परतून चावडे मेरेन वून पळोवन येतालो. आवय घरांतल्या घरांत सामकी काचाबूल जावन शिल्ली. मर्दी मर्दी पांयांत व्हाणो शिरकावन भायर वचून पयस मेरेन नदर रून येताली. कोणूच तिका पळयना हाची खात्री करून ती भायर सरताली. णाकूय दिसलें जाल्यार वाड्यावयले लोक वासपूस करूंक लागतले. आनी रें कितें घडलां सवरलां तें भायर फुटूंक कळाव लागचो ना.

आवय सद्दां सकाळींच उठून शंकराच्या देवळांत वताली. तिचो तो परिपाठ ासलो. पूण दुसऱ्या दिसा गेली ना. बाबा दोन फावटी उमाच्या ऑफिसांत चून आयलो. थंय ताका कळ्ळें की उमान एका म्हयन्याची रजा पास रून घेतल्या. बाबाक तें कळनाफुडें तो गळसणलो. ऑफिसांतले लोकय बावीत नदरेन पळोवंक लागले. आनी आपणांभितरूच विचारूंक लागले ी चलयेन घेतिल्ले रजेची खबर बापायक कशी ना? रजा मागपा फाटलें ारण तिणें बापूय बरो ना हें दिल्लें.

बाबा हां हूं करीत कसोबसो उक्ताडार पडपाची खबर धांपपाचो यत्न रीत घरा परतलो. ताका आयिल्लो पळेनाफुडें आवयक घुंवळ आयली. चें ब्लड-प्रेशर साप उणें जाल्लें. दोतोरबाबाक तर घरांत आसून लेगीत ॉस्पितालांत आशिल्ले वरी दिसूंक लागलें. आवयक सांबाळचें काय बापायक शी ताची गत जाली. घर सामकें सामसूम दिसतालें. जेवणाची लेगीत णाक नात उरनासली. बेठीच दाळ जावं खिचडी अशेंच कितें तरी करप नी तेंय बी दोतोरबाबांच्या फोर्साक लागून.

एक दीस, दोन दीस करतां करतां एक सेमान पासार जालें. पूण असली खबर कितले दीस अशी धांपून उरूंक शकताली? लोक खरी खबर डपाक सामके धडपडटाले. कोणूय घरांतलो मनीस दिश्टी पडलो काय , बळयांच ताका विचारताले, 'उमा खंय दिश्टी पडना शें? कितें जालां? ना काय कितें? अशे तरेचे जायते प्रस्न घुंवडावन घुंवडावन विचारताले. लिंसाराक तर सडसडीत बरें स्कूटरीवयल्यान येतावतना दिश्टी पडटालें तें. अचकीत ताका अशें जालें तरी कितें?'

सारकें आठ दिसां उपरान्त दिल्ली सावन उमाचो तेलेग्राम आयलो. ताणें आर्यसमाज मंदिरांत दिनेशावांगडा लग्न केल्लें. तेलेग्रामाची खबर आयकून तर घराचेर वीज पडिल्लेवरी जालें. सगळेच काचाबूल जाल्ले. उमा आनी हें करीत अशें कोणाकच दिसूंक नासलें. ही खबर थोडीथोडी करून धांपिल्ल्या दारांतले खांचींतल्यान भायर सरून वाऱ्यावांगडा आख्ख्या वाड्यार केन्ना पावली तें कळ्ळेंच ना.

आनी त्या दिसा तर सामको कहरच जालो. बरी तांबड्या रंगाची बनारसी साडी न्हेसून, आंगार वस्ती घालून, मेंदी घाल्ल्या पावलांनी उमा घोवा वांगडा येवन घराभायर टॅक्सी थांबोवन सकल देंवलें तेन्ना. उमाचें तें धाडस सगळ्यांक पुतळ्यांवरी तटास करून गेलें. धाकल्या रितून धांवत वचून भितर आवयक खबर दिली तेन्ना फटक् करून आवयन बाबाचे सांगणे वयल्यान भायलें दार बंद केलें.

उमा रस्याचेरूच जड गुळो जावन तशेंच उब्याचें उबेंच उरलें. शेजारच्या वर्माबायन उमा आनी दिनेश हांकां आपणाल्या घरा व्हरून तांकां एक एक कोपभर उदक पिवयलें. आनी हे एके गजालीक लागून उमाच्या कुळारच्यांनी शेजाऱ्यांक वाळींत घालून सासणाचें वायटपण जोडून घेतलें. त्या वर्मा कुटुंबाकडेन आई बाबा उलोवंक लेगीत परतून केन्ना गेलीं नात.

उमा घोवा वांगडा जशें आयिल्लें तशेंच परतें गेलें. ताका कळिल्लें की हें दार हेफुडें तांकां सदांखातीर बंद जालां. आख्खो वाडो आपापणाल्या घरा मुखार उबो रावन हो तमाशा-खेळ पळयतालो. उमा रडरडत परतें गेल्लें. ताका घरांत आतां कुलक्षणी म्हूण नांव पडिल्लें. न्हंय कितलीय पयस मेरेन व्हांवत गेली तरीय तिचें उदक परतून मुळावे सुवातेर पावता अशें सांगतात. उमाय बी त्याच पासांत घुस्पून परतें आयिल्लें.

मनशाची मानसीक आनी समाजीक वेवस्ता अशी आसा की तो फुड्यांत आशिल्ल्याक केन्ना भोगशिना. आपूण मात देवळांनी, मशिदींनी, इगर्जींनी वचून हड्डें बडोवन भोगसणी करूंक देवा लागीं मागता. पूण खासा आपणालागीं मात दुसऱ्याक भोगसुपाची तांक दवरिना. दुसऱ्याच्यो चुको यादींत घट्ट दवरुपाची मनशाची वज अजाप करपासारकी. तो म्हऱ्यांत आशिल्ल्या मनशाचे गूण केन्ना यादींत दवरना, पूण अवगूण मात देवाच्या नांवा इतलेच यादींत घट्ट बरे दवरता.

उमाक पयलीं घरांतल्यान, मागीर नात्यांतल्यान, फुडें मनांतल्यान, उपरान्त यादींतल्यान भायर काडून उडयल्लें. कोणूच चुकून लेगीत ताचें नांव घेनासलो.

बाबान जिविताच्या निमाण्या खिणामेरेन उमाक भोगशिलें ना पूण मरतकच मात ताचे खातीर सुवात राखून दवरली.

सांज जाल्ली. उमा तिचे कुशीक बशिल्लें. अचकीत ताका उतरां फुटलीं. 'दिदी, तुका कितें दिसलें, हांव ह्या घरांतल्यान काडून गेल्लें म्हूण? ना, हांव तर ह्याच दरवट्याक तेंकून वर्सां संकिनी उबें आशिल्लें. एकेच आशेन की कोण तरी एक दीस दार काडटलो. शीं, पावस आनी गीम, दर एका रुतू काळार हांव भायर हांगाच उक्त्यार उबें रावतालें.'

तिणें तटास जावन उमा कडेन पळयलें. आनी ती एकदम विचारांत पडली.

उमाक घरच्यांनी दिल्ली ख्यास्त कितें जल्मठेपी परस उणी आशिल्ली?

* * *

# सर्द फसलेचें शेतकाम

**सुमन गांवकार**

गिमाचे दीस. आंगावेल्यान हुमेच्यो पांवळ्यो देंवतात. भायर वत रखरखता. धर्तरी वतान करपता. तानेन आकुळ-पिकूळ जाल्लीं झाडांपेडां, सुकणीं सावदां, मनशां मळबाकडेन दोळे लावन पावसाची वाट पळेतात. मनशां, किडी-मुयो पुरुमेंत करपाक लागतात. आमकां कळटा, पावसाचे दीस लागीं पावल्यात. पावसाची वाट सगळेच पळयतात. पूण चड उमळशीक आसता ती शेतकामत्याक. मे म्हयनो सोंपता-सोंपता म्हळ्यार शेतकामती शेतकामाचीं सगळीं आवतां लागीं करपाक लागता. खोरें, कुदळ, जूं, कोयतो, मुठो, दांतो बी.

**नांगर:** गीम सोंपता सोंपता म्हळ्यार शेतकार आपलो नांगर पयलीं तपासून पळेता. पयलीं तेंपार नांगर लाकडाचे करताले. अश्या नांगराक खंय फुटाळ जावं मेर जावं चीर गेल्यार दुसरो नांगर करपाक शेतकार मेस्ताकडेन दितालो. ह्या नांगराक फुडें लोखणाची एक पट्टी बसयताले. तिका **जोगाल** अशें म्हणटात. ही पट्टी जमीन नांगरपाचें काम करता.

**रीस:** ही एक लांब आनी आठ ते धा सेंटीमीटर रूंद अशी पट्टी.

**पान:** नांगराच्या फुडल्या भागाक जोगाल बसयल्ली आसता. त्या भागाक 'पान' अशें म्हणटात.

**वाघी:** 'जोगाल' ज्या हुकान बसयल्ली आसता त्या हुकाक 'वाघी' अशें म्हणटात.

**रुमडी:** नांगराचो लाकडी भाग मूठ कसो आसता आनी जोत आमुडटल्याच्या हातांत आसता ताका 'रुमडी' अशें म्हणटात.

**कानी:** काथ्यापासून तयार केल्ली ही दोरी आसता. ह्यो सगळ्यो वस्तू एक जातकीर तयार जाता तो **नांगर.**

हालीं तेंपार हो नांगर उरूंक ना. आतां पुराय लोखणाचे नांगर तयार जातात. हे नांगर बरींच वर्सां चलतात. तांची चडशी तोड-मोड जायना. ते परते-परते सारके करचे पडनात. तशेंच, ह्या नांगरांनी जमीन बेगीन खणून जाता.

**बैलांगाडो:** पयलीं कांय शेतकामत्यांकडेन बैलांगाडो आसतालो आनी ताचो उपेग भात हाडपाक, येवपाक-वचपाक करताले. आतां गाड्याची सुवात रिक्षेन घेतल्या.

ह्या शेतकामाच्या आवतांची जमवाजमव करता म्हणसर थंडगार वारो सुटूंक लागता आनी एक दीस जुनाचें पयलें सप्तक म्हळ्यार घुम्-घडाम् असो कुपांचो आवाज करीत पावसाक सुरवात जाता. पयलीं चार-पांच दीस पावस आपालिपा करता आनी मागीर पावसाक सुरवात जाता.

शेतकामती बऱ्या जाग्यार घटमूट बांदून दवरिल्लें **बीं** भायर काडटा. बियाणां लेगीत तरातरांचीं आसतात. खासा गोंयचींय आसात. पूण आयज आशिल्ल्या हायब्रीड बिंयान आमचीं हीं पोरणीं बियां हालिंचे शेतकामती वापरिनात. थोडीभोव खंय खंय वापरतात. तींय एक दीस ना जावन वतलीं. मागीर आमकां गोंयच्या शिताचो वास आनी रूच खंयच्याच हायब्रीड जातीन मेळचीना. नांवां लेगीत आयकूंक गोड – **कंरगुट, मुणें, खोचरी, शिट्टो, शिड्डी, खारो आजगो, काळोखी, कोनफीरसाळ, जिरेसाळ, मोदीयामांडला.** हातुंतली करंगुट, खोचरी, खारो आजगो हीं बियाणां सोडलीं जाल्यार बाकिंच्या बियाणांचीं फकत नांवांच उरल्यांत. आतां बियाणां म्हळ्यार **अन्नपुर्णा, ज्योती, जया, आयरेट** (IR-8). ह्यो सगळ्यो हायब्रीड जाती.

**बीं घालप:** शेतकामत्यान फाटल्या वर्सा जे बीं दवरिल्लें आसता तें ना जाल्यार नवें हाडून तें रातभर उदकांत फुगत घालतात. बीं घालताना वयर आयिल्लें पोल काडून उडयतात. दुसऱ्या दिसा हें बीं **पाटल्यान** जावं **पाटलेन** काडटात. पाटलो मानीच्या बेळांचो केल्लो आसता. पाटली ही पाटल्यापरस आकारान व्हडली आसता. ताचेर वयर तण घालतात. बांयचें ताजें उदक हाडून ताचेर सकाळचें आनी सांजचें अशें दोन फावटीं शिंपतात. ह्या कामाक **उदक दिवप** अशें म्हणटात. पाटल्यार वयर जडशें कितेंय दांते, फातर अशें दवरचें पडटा. उदक दितना हें वजन काडटात आनी परतें दवरतात. बीं उदकांत घालतात ताच्या तिसऱ्या दिसा बियांतल्यान कोंब फुटूंक लागता ताका **बीं आयलें** अशें म्हणटात.

**जूं:** हें सगळ्यांचे गरजेचें. तशेंच हेर आवतांनी काम करतना ताचो उपेग जाता. गुठो आनी दांतो हांचो जाता तसो. जूं म्हळ्यार लाकडाचो धणुच्या आकाराचो एक लांब कुडको. जूं दोन पाड्यांक एकठांय बांदता. तें पाड्यांच्या मानेर दवरतात. ह्या 'जूं'क दोनीय वटेन दोन दोन अशे चार बुराक आसतात. तातुंतल्यान कानीं घालून तें पाड्यांचे मानेर बांदतात. केन्ना केन्ना पाडे मस्ते आसल्यार तांकां घराकडेनच जूं बांदून व्हरतात ताका **सांगडायला** अशें म्हणटात. हेर चडशीं आवतां आज लोखणाचीं जालीं तरी जूं मात अजून लाकडी उरलां. ताचीं कारणां म्हळ्यार लाकूड वतान सुकून ल्हव जाता. तशेंच लोखणाचे जडायेक लागून पाड्यांचे मानेर वळ पडून घावो जावं येता.

**गुठो:** दोन कोण्यांक सुमार एक येदभर रूंद जोडिली फळी. नांगरले उपरांत परतो गुठो मारतात. हाचें कारण, नांगरून वयर-सकयल जाल्ली जमीन एका तळार हाडप तशेंच नडणी, तण नांगरून वयर सरलां तें मातयेच्या पोंदा पडून कुसचें म्हण गुठो मारतात.

**दांतो:** दांताचो आकार आसल्या कारणान हाका दांतो अशें नांव पडलां आसुंये. गुठ्या सारको दांतोय कोण्याक जोडिल्लो आसता. एके फळेक

के वसल्यान दांत आसतात. शेतजमनीर चरयो (एकसारक्यो उब्यो वळी) वच्यो तशेंच जमीन भुसभुशीत जावची जावं जमनीर खंय चुकून **तेंफ** जमनिचो ल्हान-व्हड खणून आयिल्लो कुडको) दिकळ उरलां तें दांत्यासकल डून ताचो चुरो जावंचो म्हण शेतजमनीर दांतो मारतात.

**ोत :** नांगराक पाडे बांदले की तें जोत जाता.

तिसऱ्या दिसा पाटल्यावयलें तण काडून बीं जमनीर ओततात आनी ंकळें करतात. बीं तशेंच पाटल्यान दवरल्यार कोंब चड लांब जातात.

पावस आतां नेटान पडपाक लागता. शेतकामती जोत घेवन शेतांत देंवता. ोत जमीन तीन तरांची आसता.

**ळी :** (मरड, आख, खाजन) ही मात्शी उंचार आसलेली जमीन. दोंगराच्या ुळसांत वयर-सकयल अशी आसता. असले जमनीर सर्द पीक घेवपाक खूब पावस जाय. चड करून असले जमनीर अन्नपुर्णा, जया, ज्योती हीं पिकां काडटात.

**आख :** असले जमनीक गोंयच्या वाठारांनी वेगळ्यावेगळ्या नांवांनी पाचारतात. ही जमीन पिकाळ आसता आनी मरडा परस सकल एका तळार आसता. खूब पावस पडटकीर असले जमनींत उदक भरता. हें उदक जमनींत जिरता आनी कांय दिसांनी झरे फुटून व्हांवूंक लागतात. हाका **उमळ** जाली अशें म्हणटात. ही जमीन खुबूच पिकाळ आसता. आनी हातूंत पावश्या तशेंच गिमा दिसांनी विंगड विंगड पिकां काडटात. गिमाच्या दिसांनी चवळी, हळसांदे, मिरसांगो, कांदे, भाजीपालो, कणगां, वायंगीं तशेंच भातपीक काडटात.

**खाजनां :** न्हंयक जावं पोंयेक तेंकून आसपी जमनीक खाजन म्हणटात. असल्या शेतांनी न्हंयचें वा पोंयचें खारें उदक पावता आनी जमीन खार जाता. खाजनांनी करंगूट आनी खारो आजगो हीं बियां ओंपतात. ह्या भातांक फुडें एक लांब कूस आसता. करंगुटाच्या भाताक आशिल्लें कूस खारो आजगो ह्या भाताच्या कुसा परस लांब आसता. दोनीय भातांक कुसां आसतात. फकत हेंच बीं खाजनांनी ओंपतात आनी खंयचींच बियांणां खाजनांनी उपकारनात. खारो आजगो हें पीक करंगुटापरस उण्या प्रमाणांत घालतात. हालीं कांय खाजनांनी नुस्तें पोसपाचो धंदो करतात.

**गोबरी घालप :** गोरवां पोसप हो शेतकामत्यालो एक जोड-धंदो. जोता खातीर पाड्यांची जावं रेड्यांची गरज आसता. तांच्या वांगडाच हेर गोरवां शेतकामती पोसता. गोरवांच्या शेणाचो उपेग **शेणी** थापपा खातीर तशेंच आंगण (खळें), घर सारोवपा खातीर करतात. पावसाच्या दिसांनी शेणी थापूंक मेळना. शेण तशेंच भरून **गायरीं**त उडयतात. गायर म्हळ्यार गोठ्या कुशीक खोल मारिल्लो होंडको. ती बांदुनय काडिल्ली आसता. तातूंत चुलींतलो गोबर आनी गायर लागीं आसल्यार घरांतलो कोयर उडयतात. अशे तरेन गोबर आनी शेण एकठांय जाता आनी त्या मिस्रणाक **गोबरी** अशें म्हणटात. गोबरी पावस पडचे आदीं माथ्यार धरून वा गाड्यान, रिक्षान, ट्रकान व्हरून शेतांत घालतात. हें काम चडशें मे म्हयन्यांत जाता.

**खंडणी :** एप्रील मे म्हयन्यांत सरकारी जावं भाड्याक मेळटात तीं खाजगी मशिनां हाडून खणून घेतात. सरकारी मशिनांचो खणणेच्या वराचो दर उणो आसता. खणपाखातीर शेतकाम विभागांत वचून पावती काडची पडटा. ताका **चीट काडल्या** अशें म्हणटात. मरडांनी खणपा खातीर बरो पावस पडसर रावचें पडटा तशेंच थंय व्हडल्या मशिनांनी खणनासतना धाकटें मशीन घालतात, नाजाल्यार जोत बांदतात. आतां मरडां रोवप लोकांनी सोडून दिलां कारण वेळार पावस पडलोना जाल्यार वा भाताक कणशी येवपाच्या वेळार पावस उणो पडलो जाल्यार अशे जमनींतल्या पिकांचें व्हडल्या प्रमाणांत लुकसाण जाता.

शेतां पयलीं मशिनांनी खणून घेतलीं तरीय ओंपणीच्या वेळार हांगा परतें जोत बांदचें पडटा. चड करून आखानांनी आनी खाजनांनी.

**मेर :** घरां खातीर वणटी तशो शेतांखातीर मेरो. जितक्यो वणटी घट तितकें घर घट. तशेंच शेताच्यो मेरो बऱ्यो आसल्यार शेत बरें. मेर शेतांत उदक आडोवन दवरपाचें तशेंच उदकाची पातळी उणी-अदीक करपाक मदत करता. चारूय वटांनी मेरो लावन **कुणगी** तयार करतात. व्हडलो चवखण तयार करता ताका कुणगी अशें म्हणटात. ल्हान चवखणाक **कुणगुली** अशें म्हणटात.

कुणग्यांत मर्दी उदक भितर घेवपाक तशें भायर सोडपाक सुवात दवरिल्ली आसता. ती मेरेक आसता ते सुवातेक '**पोण्ण**' अशें म्हणटात. खुबशा गांवांनी मशिनान खणून घेतले उपरांत मे म्हयन्यांत 'सुक्यो मेरो' लावपाचें काम करतात. ल्हान-ल्हान तेफां लागीं करून एकामेकांर दवरून मेर पावसांत लायिल्ल्या मेरांपरस घट जातात.

दोन शेतांची वेगळावणी करतले मेरेक **नीसाची मेर** अशें म्हणटात. ही मेर नीट आनी मातशी आंगान मोटी आसता.

पावस पडत आसता. भूंय हळू-हळू आपलो तरेकतरांचो शृंगार भायर काडून सजूंक लागता. झोपां, तण हांगा थंय दिश्टी पडूंक लागतात. झाडांक नवी कोमरी फुटूंक लागता. शेतकामती जोत घेवन शेतांत देंवतात. नांगर ओले जाल्ले जमनींत आपलो दांत रिगयता. नांगर भोंवपाक लागता तशें जमनिचें आंग उकतें जायत वता. जमीन मनशापसत कितकें सोंसता पूण मनीस तिका कांयच परतें दिना. मनशाक फकत घेवपाचेंच खबर आसा.

जोताक बांदिल्ल्या पाड्यां वांगडा नांगराक धरून शेतकामती चलता. पाड्यांक जागयत रावपाखातीर आनी पाड्यांनी सारकें चलचें म्हण शेतकामती तोंडांतल्यान कसलीं तरी उतरां घोळयता. केन्ना तो ही री री री... केन्ना हीरी हीरी... केन्ना हो हो... जाल्यार केन्ना केन्ना व्होले व्होले... केन्ना तो मायेन पाड्यांक चुचकरायता, जाल्यार केन्ना पाडे आपणाक जाय तशे चलपाक लागल्यार गाळी मारपाक फाटीफुडें पळयना.

**जोताची बडी** ही शेतकामती जोत आमुडटना आपल्या हातांत दवरता. ही हांसोळिच्या झाडाची काडलेली आसता. पाडे सारके चलचे, तशेंच तांकां खंयचे वटेन वळपाचें आसा तें समजावन दिवपाचें काम हे बडयेवरवीं शेतकामती पाड्यांक करता.

मळी जावं आखान ओंपतना पयलें जें जोत बांदतात आनी नांगरतात ताका **उमंस फोडप** जावं पयलें तास फोडप अशें म्हणटात. पयलीं एक फावट नांगरले उपरांत म्हळ्यार उमंस फोडले उपरांत परतो ताचेर गुठो मारतात. गुठ्यान मारतात कारण नांगरून जें तण वयर आयिल्लें आसता तें मातये पोंदा पडटा. दुसरें म्हळ्यार, नांगरून वयर सकयल जाल्ली जमीन एका तळार येता.

उमंस फोडून पांस-स दीस जाले म्हणटकीर परतें एक फावट जोत बांदतात. ह्या दुसऱ्या जोताक **दुरो** म्हणटात. दुसरें तास अशेंय म्हणटात. दुरो वा दुसरें जोत बांदले उपरांत तीन चार दिसांनी ओंपणी करतात. ओंपणी करतना परतें जोत बांदतात. आतां जमीन वयर-सकयल आसल्यार माती हेवटेंतल्यान तेंवटेंत हाडून सारकी करतात. मर्दी खंय खंय व्हडले हारके आसल्यार ते सारके करतात. खंय मोटें तेंफ उरल्यार तें फोडटात. हें सगळें काम करतात खोऱ्यान. पूण हाका म्हणटात मात **कुदळ घालप.**

कुणग्याचे कानशे तशेच उरतात तांकां खोऱ्यान खणटात आनी सारको तळ करतात. तशेंच **मेरो मारता** म्हळ्यार मेरेची माती दोनी वटेंतल्यान

खोऱ्यान खांपायतात. अशें केलें म्हणटकीर मेरांचेर आशिल्लें तण मरता. हें सगळें काम जालें म्हणटकीर परतो गुंठो मारतात. हें जालें दुऱ्याचें काम.

ओंपीच्या वेळार जोत बांदतात, कुदळ घालतात, मेरांक परती माती लावन त्यो सारक्यो करतात. उपरांत दांतो मारतात. दांत्यान सगळ्या शेतांत उब्यो चरयो येतात. आतां रोव मारचे (बीं उडोवचे) आदीं सारें मारतात. पयलीं शेतकामती जायतीं गांवठी सारीं शेतांत घालताले. कुसयल्लें नुस्तें, शेण, गोबरी, पोंयांतलो चिखोल आदी सारीं म्हूण वापरताले. हीं सारीं नीज आसतालीं आनी तेखातीर कीडी-जीव शेतांत जायनासले. पूण हालिंसाराक हें चक्र बदल्लां. आयज शेतकामती रसायनीक साऱ्यांचेर खुबच निंबून आसात. रसायनीक साऱ्यान शेतांत तोळ पडटात, कीड लागता, तशेंच भाताचेर बारीक जीव तयार जातात. ते मारपाक विखारी वखदांची फवारणी करतात. हीं वखदां भातांत पावतात आनी जेवता-खातना मनशांचे कुडींत रिगतात. काळांतरान ह्या वखदांचो बादिकार कुडीचेर जावपाक लागता आनी मनीस दुयेंत जाता.

शेतांत रोव उडयलो, तो वयर सरलो म्हणटकीर परतें एक फावट सारें मारतात. रोव वयर सरता तशें ताचे वांगडा नडणीय वयर सरता. म्हयन्याचो रोव जातकीर ताका **थाम** अशें म्हणटात. खाजनांनी आनी मळयांनी अशी ओंपणी जाता. थोड्या गांवांनी आखांनी अशी ओंपणी जाता.

**पडसरप :**-थाम एका म्हयन्याचें जालें की मागीर तें नडतात. नडले उपरांत पडसरतात. रोव उडयल्लो आसता तो एकेकडेन चड, दुसरेकडेन उणो जाल्यार तिसरेकडेन कांयच ना अशें घडटा. दाट आसा थंयसरलो काडून जंय रोव येवंक ना थंय लावप हाका पडसरप अशें म्हणटात. थाम मुळाचे मातयेसकट हात घालून काडटात आनी दुसरेकडेन नेटान उडयतात. वयल्यान उडयल्ल्यान तें थंय घट जाता. ही जाली एके तरेची ओंपणी. दुसरी ओंपणी जाता ती **तरवो घालून लावप.** तरवो घालपाक पयलीं दोन, चार, पांच अश्यो शेताच्यो कितल्यो तरवो जाय पडटल्यो तश्यो कुणग्यो तयार करतात. हातूंत दाट रोव उडयतात. थाम बावीस दिसांचें जालें म्हणटकीर हें थाम काडून आख्ख्या शेतांत लायतात. मळयांनी आनी खाजनांनी अशे तरेन ओंपणी करिनात. तरवो घालून लायल्यार नडणी उणी येता. तशेंच, पीक बरें येता.

**खाजनांची ओंपणी** सगळ्यांत पयलीं जाता. हांगा करंगुट आनी खारो आजगो ओंपतात. ह्या भाताक पिकपाक चार म्हयने लागतात. खाजनां मे म्हयन्यांत मशिनांनी खणिल्लीं आसतात. मशिनां नासलीं तेन्ना एप्रील-मे म्हयन्यांत खाजनां हातान खणटाले. मेरो चडकरून मे म्हयन्यांत लायिल्ल्यो आसतात. पावसांत त्यो घट करतात. ओंपताना सगळ्याक बारीक कुदळ घालतात. मागीर नडणी वेंचतात. सारें मारून ओंपतात. कांय खाजनांनी **तांट** नांवाचें एक लांब तण जाता. पयलीं ह्या तणाचो उपेग गोठो तशेंच पाखोटी शिंवूंक करताले. मे म्हयन्यांत खणल्यार हो तांट मरता.

### पावसांत आसऱ्याचीं साधनां

पावसापसून आपणाली राखण करपाक शेतकामती पयलिंच्या काळांत जीं साधनां वापरतालो तीं म्हळ्यार **कांबळ, घुराम** आनी **कण्णो.** कांबळ दादले घेताले. ती लां पासून तयार करताले. बायलां घुराम वापरतालीं. कुमऱ्याचीं पानां आनी मानीच्या बेळांचो उपेग करून तें तयार करताले. पूण तें खूप जड आसतालें आनी ताचें वजन सांबाळीत काम करचें पडटालें. घुरमाची सुवात मागीर कण्ण्यान घेतली. कण्णो माडाची चुडटां, पत्रावळी आनी कणो घेवन करताले. आतां कापोतीचें यूग आयलां आनी घुराम, कण्णो हीं भूतकाळांत गेल्यांत. फकत कांबळ खंयूय चुकून दिश्टी पडटा. कापोती सांबाळपाक सोप्यो तशेंच वापरूंक हलक्यो आसतात.

**पाली मारप :** करंगूट आनी खारो आजगो लांब वाडटा. तें पीक लांब जा म्हणटकीर उदकांत आडवें पडून कुसता. तशें जावचें न्हय म्हूण ताची वयल पाली कापून उडयतात. हाका पाली मारप अशें म्हणटात.

**आयेरी घालप :** ही उदकाची खाशेली सोय आमच्या पूर्वजांनी शेतांखातीं करून दवरल्या. चड करून खाजनांखातीर ती खूब उपेगी आसा. गोंयां ज्या गांवाक न्हंय लागीं आसता त्या गांवांनी मानसो आनी पोंयो आसतात मानसो आनी पोंयो ह्यो नीज न्हय, पूण आमच्या पूर्वजांनी भरते-सुकतेच अभ्यास करून तयार केल्यात.

पावसाच्या दिसांनी उदकाची पातळी वाडिल्ली आसता. केन्नाय पावस अचकीत आठ-धा दीस दडी मारून बसता. अशा वेळार खाजनांक मोट्या प्रमाणांत लुकसाण जावपाची क्यताय आसता. तेन्ना शेतकामत्यांची मिटींग जाता आनी आयेरी घालपाची थारावणी जाता. भरती आसता तेन्ना मानसांचं दारां उगडटात आनी उदक भितर घेतात. सगळ्याक उदक भरले उपरांत तें उदक पोंयांची शीम हुपून वयर शेतांत पावता. अशें सगळें उदक भरलें म्हणटकीर मानसांचीं दारां धांपतात आनी आडो घालतात. तशें केल्यान दारां उकतीं करून तें भायर वचना. आयेरी घातले कारणान शेताक उदक मेळटा, तशेंच पीक वाऱ्याबरोबर सकयल पडनासतना उबें उरता.

**नडणी :** रोव वयर येता तशी ताचेवांगडा नडणीय वयर येता. थाम एक देड म्हयन्यांचें जालें म्हणटकीर तें नडटात. तरवो घालून लायतात. **पोल्लें, तावस, चिंचण, सुळके, धो, बिमल, पाखडी, साळकी** हीं कांय तरांच्या नडण्यांचीं नांवां. पोल्लें तणाची इल्ली लेगीत का शेतांत उरल्यार ताची परती वाल जाता. आदीं बायलां नडताना वेळ वचचो म्हण काणयो सांगतालीं. ह्या काणयांक व्हडलोसो अर्थ नासतालो. पूण तांचे गेयतेखातीर तीं त्यो आयकतालीं अशें दिसता. पूण आतांच्या टीव्हीच्या युगांत बायलांक पयलिंच्या काणयांची गरज आसना.

शेत नडलें म्हणटकीर शेतकामती मातसो विसव घेतात. चवथीची तयारी करपाक लागतात. चवथ म्हळ्यार थोडीं पिकां पिकून तयार जातात. चवथीक **नवें करतात.** भात पिकून तयार जाता. गणपतीक घरा पावयता म्हळ्यार **लुवणी**चो बोवाळ सुरू जाता.

शेतांत काम करता त्या दादल्याक **मानाय** आनी बायलांक **कामेरीं** अशें म्हणटात. कामेऱ्यां लुंवतात तें आवत म्हळ्यार **कोयती.** कांय कडेन ताका **व्हिळो** अशेंय म्हणटात. लुंवचे पयलीं कोयतेक मेस्ताकडल्यान **दांतरां** घालून घेतात. दांतरां म्हळ्यार कोयतेक लुंवतात त्या जाग्यार दांतांसारकी खरखरसाण करून घेवप. लुंवता आसतना लुंवपाचें उरलें आनी दुसऱ्या दिसा लुंवपाचें आसल्यार कामेरीं आपूण **शेवार आसा** अशें सांगतात.

कामेऱ्यां भात लुंवून लुंवून फाटल्यान ल्हान-ल्हान राशी करतात. तांकां **आडवां** (आडूं) अशें म्हणटात. अशीं पांच-स आडवां एक करून बांदतकीर ताका **घेणको** अशें म्हणटात. भात लागीं करून एकेकडेन करप म्हळ्यार **दाळणी.** दाळणी करतना पोंदा तण घालतात. ताचेर वयर पयलो भाताचो थर घालतात. ताका **तळ घालप** अशें म्हणटात. अशें सगळें भात लागीं करून दाळ्ळे उपरांत ताका **कुत्ताल** अशें म्हणटात. मदीं वाटकुळो जागो सोडून भात एकासारकें दवरिल्लें आसता.

करंगूट भात जे तरेन दाळतात ताका **बोको** अशें म्हणटात. हातूंत मदीं वांटकुळी सुवात सोडलेली नासता. पूण कणसां एकामेकांचेर घातलेलीं आसतात. थोड्या गांवांनी अशे बोके तयार करून ते ऑक्टोबर-नोव्हेंबर म्हयन्यांत मळीनासतना डिसेंबर-जानेवारी म्हयन्यांत मळटात, जाल्यार कांय गांवांत रोखडेच मळटात.

**ळणी:** भाताची मळणी खूब तरांनी करतात. एका पाड्याक एका खुंटाक ांदून भात ताच्या पायांपोंदा घालतात आनी भात खावचें न्हय म्हण ताका ांटकुळेच भोंवडायतात. अशीं चार पांच गोरवांच्या पालवान मळणी करतात. ्सरे तरेची मळणी म्हळ्यार एके फळयेर थोडीं-थोडीं कणसां घेवन तीं ापटितात. तशें केल्ल्यान भात आनी तण वेगळीं जातात. पूण तशें केल्ल्यान ाताचो गोटो मात हेवटेन तेवटेन उसळटा. आतां भात मळपाचीं यंत्रां उपेगांत ाडटात. पूण चडशा गांवांनी मानायच हें काम करतात.

**ातर:** मळपाखातीर हातर जाय आसता. हातर म्हळ्यार एक व्हडली शेनरीच ्शी. हातर मानीच्या वेळांचो केल्लो आसता. आकारान ल्हान हातरो म्हळ्यार **ाळी.** दिसपाक हातरा सारकीच. ही चड करून भात मळूंक वापरिनात ूण भात सुकोवपाक तिचो उपेग जाता. हातराक **सळयें** अशेंय म्हणटात.

मळपाखातीर हातऱ्याबरोबर दोन **मेडी** आनी **आडें** जाय. आडें म्हळ्यार ोटों मानीचो एक लांब तोणको. दोनीय वटेन मेडी पुरतात आनी तांचेर यर आडें घालतात. आनी सकल हातर दवरतात. इल्लें-इल्लें भात ्त्तालावेल्यान काडटात ताका परत आडू अशें म्हणटात. भाताचीं कणसां ायांपोंदा मस्तितात तेन्ना भात सकल पडटा. मळटां-मळटां आडवाचो गोल ुठलो कसो जाता. तो सोदून फाफुडटात ताका **फाफुडणी** अशें म्हणटात. तण हातऱ्या भायर उडयतात. मळले उपरांत जें भात मेळटा ताका **पेर** म्हणटात.

**वारें करप:** मळले उपरांत वारें करतात. सुपांत भात घेवन तें वयल्यान सूप हालयत ओततात. वारें केले उपरांत तातुंतलें अस्कट, तण, पोल भायर पडटा. वारें करतना एकेचकडेन वारें करतात थंय भाताची रास जाता. तेच राशीचेर धरून वारें करतात ताका **धारेर धरप** अशें म्हणटात. वारें केले उपरांत भात साकांत भरून घरा हाडटात. घरा हाडले उपरांत सगळें भात राशीर ओततात आनी ताचेर म्हादेवाचो नाल्ल वयर दवरतात. चवथीकडेन म्हादेवाचो नाल्ल म्हण पुजतात तो हो नाल्ल. नवें भात घरांत हालें म्हण सगळ्यांक कातली वांटतात.

शेतांत तण आसता तें **मडकूळ** घेवन सगळ्याक पसरावन दवरून सुकयतात आनी ताच्यो ल्हान-ल्हान राशी करतात. ह्या राशींक **तणाचे बोवले** म्हणटात.

भात बरें वतान सुकयतात आनी ताचो पुरुमेंत **कड्यांनी, मुड्यांनी** आनी **साकांनी** करून दवरतात. कंडो दाट मानीच्या बेळांचो केल्लो आसता. तो बऱ्या जाग्यार वाटकुळोच बांदतात आनी पोंदा तण घालून ताचेर भात ओततात. तांदळांची जेन्ना गरज लागता तेन्ना कड्यांतल्यान भात काडून तें उकडटात आनी ताचे तांदूळ करतात. हाका **उकडो तांदूळ** म्हणटात.

अशे तरेन शेतकामती शेत ओंपून पीक काडटा आनी आपलें पोट भरता.

## सूफी प्रज्ञावाद

☐ जे मुस्तींत कुडी नाशिल्ल्यो, फकत आत्मेच आशिल्ले ते मुस्तींतली खबर ही.

देवान एक दीस ह्या आत्म्यांक संवसार दाखयलो आनी तांकां विचारलें, 'जाय व्हय तुमकां हो?'

धांतले णव आत्मे संवसारांत वचून रावले. उरिल्ल्यांक एक दीस स्वर्ग दाखयलो आनी तांकां विचारलें, 'जाय व्हय तुमकां हो स्वर्ग?'

धांतले णव स्वर्गांत रावपाक गेले. उरिल्ल्यांक एक दीस नरक दाखयलो. धांतले णव नाका नाका करीत थंयच्यान पळून गेले. तरूय कांय जाण उरिल्ले. तांकां संवसाराचीय ओड नाशिल्ली, स्वर्गाचीय नाशिल्ली. आनी नरकाचो भंयूय तांकां नाशिल्लो.

देवान तांकां विचारलें, 'तुमकां कितें दिवं सांगात.'

'तुजो सांगात सोडून आमकां कितेंच नाका.' तांणी जाप दिली.

*(इलाहीनामांतल्यान)*

☐ एक पिसो नमाज केन्ना पढनाशिल्लो. एका सुक्रारा सगळ्यांनी ताका धरून मशिदींत हाडलो आनी सांगलें, 'इमाम म्हणटा तें तूं म्हण...!'

'म्हणटां' अशें म्हणून तो हेरां वांगडा रांगेंत उबो रावलो.

इतल्यांत इमामान 'अऊजु बिल्लाहि मिनश् शैत्वाविर् रजीम्' म्हणपाक सुरवात केली. आयकनाफुडें पिसो बैला भाशेन हांबेवपाक लागलो. नमाज सोंपतकूच लोकांनी ताका विचारलें, 'तूं असो बैला भाशेन कित्याक हांबेलो रे?'

'इमाम हांबेलो म्हूण हांव हांबेलों', ताणें जाप दिली.

'इमाम हांबेल्लो?'

'हय...'

लोकांनी ही खबर इमामाक वचून सांगली. इमाम शिटकावलो. ताणें म्हळें, 'हो पिसो न्हय... हो कोणूय तरी व्हड मनीस आसूंक जाय. कित्याक, म्हजे जिबे वयल्यान 'बिस्मिल्लाहिर् रह्मानीर् रहीम्' उतरां फुटिल्लीं त्याच वेळार 'आयज म्हाका एक बैल विकतो घेवंक जाय' हो विचार म्हजे तकलेंत आयिल्लो... आनी त्याच वेळार हाचें हांबेवप म्हज्या कानार पडिल्लें.'

*निशापुरचो अत्तार*

# साहित्यीक नदरेचो उजवाडावपी

सुमन्त केळेकार

साहित्य निर्माणी जावंक पावता ती दोगां म्हत्वाच्या घटकांच्या सहभागाक लागून. एक आसता बरावपी आनी दुसरो वाचपी. बरोवपी कितें तरी येवजिता वा ताका तें येवजता आनी तो तें उक्तावंक सोदता. हें उक्तावणेचें काम तो उतरांचे कारागिरिच्या माध्यमान करता. विशय आनी विशयाची मांडणी हें साहित्य निर्मणेचें म्हत्वाचें आंग. आनी हें लिखणेच्या आधारान आकार घेतिल्लें साहित्य ज्या वाचप्याची आवड जे तरेची आसा, तिका धरून तो काणयो, खेळ, भोंवडे वर्णनां, माणकुले निबंद, कवीत सारक्या विशयावेलीं पुस्तकां वाचतलो जाल्यार मेंदवाक तकालस दिवपाखातीर गंभीर साहित्याची आवड लावन घेतिल्लो वाचक तत्त्वज्ञान, संशोधनावयले ग्रंथ, धर्मीक साहित्य, समिक्षा ह्या विशयांवयल्या पुस्तकांचो छंद लावन घेतलो. आतां जाल्यार तंत्रज्ञान आनी विज्ञानावयल्या गंभीर साहित्यावरी लळीत साहित्यूय निर्माण जावंक लागलां. संक्षिप्तान सांगपाचें जाल्यार, साहित्य निर्मणेच्या कार्यांत ह्या दोन घटकांक सोडून कशेंच पावल फुडें पडपाचें ना.

बरोवप्यान बरयल्लें साहित्य वाचप्या मेरेन पावोवपाचें काम आनीक एक घटक करीत आसता. ताका म्हणटात उजवाडावपी वा प्रकाशक. खंयच्याच उजवाडावप्यान अवेव्हारी जावंक उपकरना. पूण वेव्हार सांबाळटना कार्य उजवाडावपाचें ताचें काम हें समाजीक संदर्भांतल्यानय भोव मोलाचें कार्य जावंक फाव – एक मिशन जाल्लेवरी. बरोवपी आनी वाचपी हांचो आडून संबंद घडोवन हाडपाचें कार्य उजवाडावपी करीत आसता. आपणालें पुस्तक चडांत चड लोकांच्या हातांत पावचें, तांणी तें मन लावन वाचचें अशें बरोवप्याक दिसप हें ताचें नीजपणाचें लक्षण – ताचो तो सभावीक हावेस आसता. आनी वाचप्याक, ताचे आवडिच्या विशयावेलें, ताका समाधान मेळोवन दिवपी पुस्तक मेळचें ही मनोमन इत्सा आसता. आनी ह्यो दोनूय गजाली जुळोवन हाडपाचें काम कोण करता म्हणशात जाल्यार तो, साहित्यीक नदर आशिल्लो उजवाडावपीच.

उजवाडावपी पुस्तकां उजवाडावपाचें काम तांगेल्या संस्थांच्या नांवान करीत आसतात. संवसारांतल्या दर एका राष्ट्रांत हें उजवाडावणेचें काम करपी संस्था सुमाराभायर आसात. पूण ह्या इतल्या संस्थांभितर नामना मेळोवंक पाविल्ल्यो संस्था मात खुबूच थोड्यो आसतात. नांवाजिल्ले संस्थेन उजवाडायल्लें पुस्तक घेवन वाचूंक, वाचपी आंवडेतात, तें कित्याक लागून ? ते संस्थेन उजवाडा हाडिल्लें पुस्तक बऱ्या पांवड्याचें आसतलें, निदान उणाक थराचें नासतलें हाची तांकां खात्री आसता. कांय प्रकाशन संस्था एका थरिल्ल्या विशयावयलींच पुस्तकां उजवाडायतात. देखीक काणयो, नवलकथा, ललीत निबंद, खेळ, एक-आंकी हे सारकें ललीत आनी मनरिझोवणें साहित्य उजवाडा हाडटात जाल्यार कांय संशोधनात्मक साहित्य, समिक्षा, कोश बी. पूण विशयाच्या मळार खाशेलेंपण सांबाळुनय कसाचे नदरेन तांणी उजवाडायल्लें साहित्य इल्लेंय उण्या पांवड्याचें नासता. खपाचे नदरेन फायदेशीर म्हूण कसलेंच उणे कालेतिचें पुस्तक उजवाडावन ताचेर दुडू करचो असलो विचार नांवलोकीक प्राप्त केल्ले हे उजवाडावपी, चुकून लेगीत मनांत हाडचेनात, हे गजालीक म्हत्व दिवंक जाय.

पुस्तकां उजवाडावपी संस्था सामान्यतायेन लोकांक मानवतात तसलीं पुस्तकां उजवाडायतातच. पूण एकाद्रया विशयाची वाचपी वर्गाणाक वळख ना, पूण ती आसपाची खुबूच गरज आसा अशें एकाद्रया नामनेच्या उजवाडावप्याक दिसलें जाल्यार त्या विशयावेलीं पुस्तकां मुजरत उजवाडावपाचें तो थारायता. तातूंत ताच्यांतली फुडाराची नदर उक्ती जाता. आनी त्या धारिश्टाचें ताका फळ मेळ्ळेबगर रावना. देखीखातीर हांगा ही एक गजाल सांगीन दिसता.

मॅकमिलन ही इंग्लंडांतली एक पुस्तकांची खुबूच गाजिल्ली संस्था. ती कसलींय पुस्तकां उजवाडायना. सर जेम्स फ्रेझरान 'द गोल्डन बाऊ' नांवाचें एक पुस्तक बरयलें. लोकमानस, लोकवेद ह्या विशयाची खोलायेन भासाभास करपी अशें हें पुस्तक. हांतलो विशय सरसमान वाचप्याचे संवकळिचो नाशिल्लो. ह्या पुस्तकाक पयल्याच फाराक वाचकांचो कितलो प्रतिसाद मेळटलो हें सांगप कठीण आसलें. पूण साहित्याच्या मळार ह्या विशयाचेर भासाभास जावंक जाय अशें मॅकमिलन पब्लिशींगच्या जाळवणदारांक दिसलें. तांणी मुजरत तें पुस्तक उजवाडा हाडलें. आनी अजाप म्हळ्यार थोड्याच काळाभितर इंग्रजी बरपावळींतलो एक 'गौरव ग्रंथ' म्हूण त्या पुस्तकाची नामना जाली. पुस्तक यथेच्छ खपलें. उपरान्त ताचे आनीक सतरा वांटे उजवाडा आयले. आनी ते अठराय वांटे आटोवन एका खंडांतच जेन्ना तें पुस्तक भायर सरलें तेन्ना सगळ्या वांट्यांचेर केल्लो खर्च एका धपक्यांत भरून आयलो. खूब पयशिल्लें हेरून थारावणी करपी अशी ही एक प्रकाशन संस्था.

मॅकमिलन पब्लिशींग कंपनिची आनीक एक गजाल खऱ्यांनीच ध्यानांत दवरुपा सारकी आसा. खंयचेंय पुस्तक छापूंक दिवचे पयलीं तें कोणा एका व्हड साहित्यकाराचे नदरेखाला वता. ह्या साहित्यकाराक 'रीडर' अशें म्हणटात. ताणें पांचवो बावटो दाखयनाफुडें मागीरच तें छापूंक धाडटात. जॉन मोर्ले एका काळार हे कंपनिचो रीडर आशिल्लो. मोर्ले म्हळ्यार त्याँ काळांतलो एक व्हडलो दार्शनीक. ते भायर एक मुत्सद्दी. थॉमस हार्डी हो इंग्लीश साहित्यांतलो एक नामनेचो नवलकथाकार. ताणें आपणाल्यो सुर्वेकूच बरयल्ल्यो तीन नवलकथा मॅकमिलन कंपनीकडेन उजवाडावपाक धाडल्यो. मोर्लेन त्यो वाचल्यो आनी 'तुजी साधना अजून पूर्णत्वाक पावूंक ना, तुका तुजो सूर अजून सारको गवसूंक ना' अशें आपणालें प्रामाणीक मत्त दिवन त्यो परत्यो केल्यो. पूण ताचें हार्डीन व्हडलेंशें मनाक लावन घेतलेंना. ते बदला, ताणें आपणाली साधना अदीक नेटाक फुडें चलयली, आनी कांय वर्सांनीच तो एक म्हान नवलकथाकार म्हूण नामना जोडूंक पावलो.

ज्या उजवाडावप्यांनी इंग्लंडांत तेच परी संवसारांतल्या हेर देशांनी 'मानेस्त' म्हूण नामना जोडल्या तांणी मेळटा तीं कसलींय पुस्तकां उजवाडावंक ना. साहित्यांत खऱ्या अर्थान भर घालपी म्हत्वाचीं आनी तोलामोलाचींच पुस्तकां उजवाडायल्यांत आनी उजवाडावपी संस्थेच्या नांवावयल्यान 'तीं बऱ्यांतलींच आसतलीं' अशें म्हणून वाचप्यांनी तांकां येवकार दिला. साहित्यांत मोलाची भर पडूंक जाय, बरोवप्याक चडांत चड वाचपी मेळोवन दिवंक जाय, वाचप्यांक बऱ्यांतलें बरें पुस्तक मेळूंक जाय आनी उजवाडणेच्या कामांत घाल्लो दुडू विक्री करून परतो येवंक जाय. ह्यो चारूय गजाली त्या संस्थांनी बरे भशेन सांबाळ्ळ्यात.

इंग्लंडांत जावं संवसारांतल्या हेर पुढारिल्ल्या देशांनी सामान्यतायेन ‍क सोदतात तसलीं, तीं वाचून लोकांचो वेळ मजेंत वता असलीं रिझोवणी, लोकांच्या चिड्डल्ल्या विकारांक चाळोवपी असलीं पुस्तकां जवाडावपी कोणूच नात अशें न्हय. चडांत चड तसलेच पब्लिशर्स आसात. लिसाराक तर क्रायम आनी पोर्नो ह्या विशयांचेर बरयल्ल्या पुस्तकांचो ांकडो जाल्यार सुमाराभायर वाडला. असले तरेचीं पुस्तकां उजवाडावन ज़वाडावपी खोऱ्यांनी दुडू उसपितात आनी बरोवपीय लखमनायक जावंक वतात. पूण ध्यानांत दवरुपासारकी एक गजाल म्हळ्यार खंयचोय मानेस्त खक दुडवांचे आशेन असल्या उजवाडावप्यांखातीर लेखन करिना. ापणालें शील ताका दुडवांपरस अदीक मोलाचें दिसता.

भारतीय भाशांनी उजवाडा येवपी पुस्तकांचीय तरा कितें हाचेपरस वेगळी ां. दर एके भाशेंतलें साहित्य उजवाडावपी कांय संस्था इतली नामना ोडूंक पावल्यात की तांणी उजवाडा हाडिल्लें खंयचेंय पुस्तक 'स्टँडर्ड'च ासतलें अशें सरसमान वाचपी मानता. सस्ता साहित्य ही हिन्दींतली काशन संस्था, मौज, कॉन्टिनेंटल, मॅजेस्टीक सारकीं मराठींतली, जरातींतली नवजीवन हांचीं नांवां कोणाक खबर ना? तांचें साहित्यसेवेचें ोगदान साहित्यक्षेत्रांत सर्वमान्य जाल्लें आसा.

कोंकणी साहित्यांतलो उजवाडावपी म्हण १९९६ वर्साच्या आगस्ट हयन्यांत म्हाका आमचे प्रकाशन संस्थेचे वतीन एक पुरस्कार घेवंक दिल्ली चपाची संद मेळ्ळी. भारतीय भाशांतलीं पुस्तकां उजवाडा हाडपी अखील ारतीय मंडळान पयलेच फावट कोंकणीक पुरस्कार दिल्लो आनी तो मान 'जाग प्रकाशना'क मेळिल्लो. भारतांतल्या पुराय भाशांतले पुरस्कार प्राप्त संस्थांचे उजवाडावपी थंय एकठांय जाल्ले. एकापरस एक नांवलोकीक मेळयल्ले प्रकाशक आयिल्ल्यान सुवाळ्याक साहित्य-मेळाचें सरूप प्राप्त जाल्लें. प्रकाशन संस्थेंतले रथी म्हारथी हांच्या अस्तित्वान सगळें वातावररच साहित्यमय जाल्लें. थंय जमिल्ले उजवाडावपी साहित्यीक परंपरेंतले, साहित्यीक वारसो घेवन आयिल्ले आशिल्ले. तें चित्र पळेनाफुडें साहित्य उजवाडावपी म्हळ्यार फक्कत साहित्य उजवाडावणेचो धंदो करपी भांडवलदार खात्रीन जावंक शकना अशें म्हजे सारक्याक दिसलें जाल्यार तें अजापाचें नासलें.

आयज सगळेकडेन पायलेक पंचवीस उजवावपी पुस्तक प्रकाशनाच्या धंद्यांत जळींमळीं दिसतात. पुस्तकाचें साहित्यीक मोल पारखूंक येनाशिल्ल्या लोकांचोच आंकडो तातूंत चड दिसता. उजवाडावप्यामदीं जीं साहित्यीक नदर आसूंक जाय ती नाशिल्ल्यान तांचेकडल्यान साहित्यूय निर्माण जाता तें आसता खुबूच उण्या पांवड्याचें.

समाजाक प्रबोधन करपी साहित्य हें तोलामोलाचेंच आसचें पडटा. प्रबोधनाचें हें कार्य फकत साहित्यीक मूल्य आशिल्लींच पुस्तकां करूंक पावतात. आनी ह्या असल्या विचारीक नदरेन उंचेल्या पांवड्यावयल्या पुस्तकांची निर्मणी करपाची जापसालदारकी पेलची पडटा ती उजवाडावप्याक – साहित्यीक नदर आशिल्ल्या उजवाडावप्याकच हें आनीक वेगळें सांगपाची गरज ना.

✻ ✻ ✻

---

☐ दादा एक फावट चलयांच्या एका हॉस्टेलांत पावलो. हॉस्टेलांत वीस बावीस वर्सांचे पिरायेच्यो चलयो रावताल्यो. सगळ्यो श्रीमंतांच्यो, कॉलेजियन. हॉस्टेलाच्या कँटिनांत कांय रांदपी आशिल्ले ते तांका रांदून वाडटाले. आयदनां घांसपाक दोगी वावराड्यो, सान्न मारपाक आनीक दोगी, रातचीं हांतुळणां फाफुडपाक आनीक दोगी, हे भाशेन त्यो रावतात त्यो दादान पळेल्यो.

'तुमी कितें करतात?' दादान चलयांक विचारलें.

'आमी? शिकतात...' चलयांनी जाप दिली.

दादा ओगी रावलो.

हॉस्टेलाची मेट्रन दादाचे वळखिची. तिणें दादाक म्हळें, 'चलयांक उपदेसाचीं दोन उतरां सांग.'

'सांग म्हणटा?... बरें तर, सांगतां' अशें म्हणून दादान चलयांक सांगलें, 'तुमी हांगा शिकपाखातीर आयल्यांत आनी शिकतात म्हणपाचें हांव जाणां. कितें शिकतात आनी कित्या खातीर शिकतात हेंवूय जाणां... पुणून तुमगेलें हें शिक्षण खरेलें शिक्षण न्हय. तरणे पिरायेर तुमी तुमचीं कामां नोकर-चाकरांकडल्यान करून घेवपाक लागलीं जाल्यार फुडाराकूय तुमकां नोकर-चाकरांचेर निंबून रावचें पडटलें... तुमी हात-पांय आसून लुळीं-पांगळीं जावन पडटलीं. तुमचे खातीर थळ सोदतना तुमच्या आवय-बापायंक चलो कसो, चारित्र्यान बरो काय न्हय, हाचे परस चल्यागेर नोकर चाकर आसात काय ना हेंच चड पळोवचें पडटलें... म्हाका तुमचे मेट्रनीन उपदेसाचीं दोन उतरां तुमकां सांग म्हळां म्हूण सांगतां, तुमचीं कामां तुमीच करात. येन्रादर कामांची संवय लावन घेयात. एकठांय बसून तुमीच रांदात, आयदनां तुमीच घांसात, लुगटां तुमीच उमळात, सान्न तुमीच मारात... नोकर-चाकरांक सगळ्यांक तांच्या घरा धाडून दियात... नोकर-चाकरांकडल्यान कामां करून घेतात ते श्रीमंत आसतीत. पुणून संस्कारांचे नदरेन अन्नाडी ते.'

☐ 'आमकां नमळायेचेर दोन उतरां सांग.' कांय तरणाट्या भुरग्यांनी दादाक म्हळें.

'लाओत्से नांवाचो एकलो म्हा-पुरूस जावन गेलो चीन देशांत', दादान सांगपाक सुरवात केली. 'ताकाय कोणें अशेंच आमकां नमळायेचेर दोन उतरां सांग म्हळें. लाओत्सेन आपणालें तोंड उकतें करून विचारलें, 'म्हज्या तोंडांत जीब आसा?'

'आसा...'

'दांत आसात?'

'ना...'

'जीब नमळ. म्हूण तिगून उरल्या. दांत घट आशिल्ले म्हूण पडले... कळ्ळें? नमळाय म्हळ्यार कितें तें?'

# तथागत

[चवदावी खिस्त]

## सत्वपरीक्षा

बुद्धाची सुमार पाउणशें वर्सांची पिराय जाल्ली. हे उतार पिरायेर ताच्या दोळ्यां मुखारूच अशे तरेच्यो कांय गजाली घडल्यो कीं ज्यो कोणायची न्हीद खळोवपाक पुरो आशिल्ल्यो.

ताची जशी कितें काळान सत्वपरीक्षा सुरू केल्ली.

मगध देशाचो राजा बिंबिसार बुद्धाचो व्हडांतलो व्हड एक भक्त. राजगादयेर बसले उपरांत पंदरा वर्सांनी ताची आनी बुद्धाची राजगृहांतूच भेट जाल्ली. तेन्ना सावन तो बुद्धाक मानीत आयिल्लो. ताका कितेंच उणें पडचें न्हय हाची खूब जतनायूय घेत आयिल्लो. ताणें आपणालें सुंदरांतलें सुंदर वेणूवन लेगीत बुद्ध-संघाक भेट दिवन उडयल्लें. ताका तिगी राणयो आशिल्ल्यो. मद्रदेशांतली क्षेमा एक. उज्जैनची पद्मावती दुसरी आनी कोशलच्या प्रसेनजित राजाची भयण कोसला तिसरी. पयल्यो दोगीय बुद्ध संघांत भिक्षुणी जावन राविल्ल्यो. तिसरी कोसला ताचेच सरीं राजवाड्यार रावताली.

तिका एक पूत जालो. बापायन ताका अजातशत्रू म्हूण नांव दवरलें. पुणून तो पोटांत आसतना 'हाच्या हातान बापायक मरण येतलें' अशें ज्योयशांनी म्हळ्ळें तिणें आयकल्लें. म्हूण, तो जल्माक येनाफुडें ताका मारून उडोवचें अशें तिणें – आवय जावन – येवजिल्लें. पुणून पुताचें तोंड पळेनाफुडें बापायचें काळीज मोगान भरून आयलें आनी तिणेंय 'शी, खंयचीच आवय अशें करिना' अशें म्हणून मनांत आयिल्लें सोडून दिलें.

अजातशत्रू वयार आयलो तेन्ना, हाच्या हातांत आतां राजकारभार दिवचो आनी आपणें उरिल्लें जिवीत बुद्धाचे सेवेक ओंपचें अशें बिंबिसार राजाचे तकलेंत घोळपाक लागलें. जिस्त ह्या वेळार देवदत्त अजातशत्रूच्या जिवितांत आयलो. आनी ताणें ताचेर अशे तरेची मोहिनी घाली की कांय दिसांनी देवदत्त अजातशत्रूचो गुरू जालो.

देवदत्ताक बुद्धाची नसाय आशिल्ली. तो बुद्धाक कडेक काडून संघ आपणा हातांत घेवंक पळेतालो. आपणालो हो हावेस पुरो करपाक ताणें अजातशत्रूचो उपेग करचो अशें येवजिलें. एक दीस ताणें अजातशत्रूक म्हळें, 'तूं राज्य बापायकडल्यान मागून घे. हांव हे वटेन बुद्धाकडल्यान संघ म्हज्या हातांत मागून घेतां... मागीर, आमी दोगूय अख्ख्या संवसाराचेर राज्य करूंया...'

अजातशत्रून बापायकडेन राज्य मागलें आनी बापायन 'हांव दिवंकूच सोदतालों तें तुका' अशें म्हणून राज्य ताका दिवन उडयलें. संघ आपूण चलयतां म्हूण सांगपाक देवदत्त बुद्धासरीं गेल्लो. पुणून बुद्धान ताका फाफडून उडयलो. संघ हातांत घेवपाक सगळ्यांत पयलीं बुद्धाचो कांटो काडूंक जाय आनी बुद्धाचो कांटो काडटलो जाल्यार पयलीं बिंबिसाराची हत्या जावंक जाय ह्या निर्णयार देवदत्त पावलो. ताणें अजातशत्रूक म्हळें, राजकारभार तुज्या हातांत आयिल्लो आसलो तरूय बापूय तो तुज्या हातांतलो केन्ना काडून घेत, सांगूं येना. तुवें बापायची हत्या करूंक जाय.'

'बापायक मारूं हांव? शास्त्रान पितृहत्येक म्हा-पातक लेखलां...' अजातशत्रून म्हळें.

'तशें जाल्यार अशें कर... ताका तूं बंदखणींत घाल. आनी बंदखणींत ताका उपाशीं दवर. म्हणटकूच तो आपशीं मरतलो. तुका पितृहत्येचें पातक लागचें ना...' देवदत्तान ताका बुद्द दिली.

गुरुची सांगणी मानून अजातशत्रून बापायक धरून भितर घालो, ताका खावंक कांयच दिवप ना आनी आपणाली आवय कोसलाराणी सोडून ता मेळपाक भितर कोणाकूच सोडप ना, असो शिपायकांक हुकूम केलो.

फकत कोसला राणीच बिंबिसाराक मेळूंक बंदखणींत येताली आनी येत लिपोवन कितेंय हाडून ताका खावंक दिताली. कांय दिसांनी अजातश प्रस्न पडलो, हाका उपाशीं दवरिल्लो आसतना अजून हो मरूंक ना कसो ताका आवयचो दुबाव आयलो. तीच कितेंय तरी हाडून ताका दिता जातत अशें दिसलें आनी तिकाय ताका मेळूंक दिवप ना असो एक नवो हु ताणें काडलो.

सदचे वरी राणी बिंबिसाराक मेळपाक आयिल्ली. शिपायकांनी ति भायरूच आडायली. तिणें भायल्यानूच घोवाक म्हळें, 'हो जल्माक आय त्याच वेळार ताका मारून उडोवंक जाय अशें हांवें आवय आसुनूय म्हळ तुवें ताका मारूंक दिलो ना. हाचें पानवळ आतां आमकां भोगचें पडट म्हाका आतां हांगा पर्थून येवंक मेळचें ना. ही निमाणी भेट आमची...'

आनी अशें म्हणून ती रडपाक लागली. बिंबिसारान बुद्धासरीं बर केन्ना धर्मचर्चा करूंक नाशिल्ली. पुणून बुद्ध दुसऱ्यांकडेन करतालो ती र आयकल्ली. तितलीच ताका ह्या प्रसंगार तकली थंड दवरपाक पुरो जाल तो उपाशीं रावलो. पुणून खंती मात लेगीत जालो ना. तो शान्त उरलो.

ताचें खाड वाडिल्लें. जटा वाडिल्ल्यो. नाखटां वाडिल्लीं. एक दीस त एका म्हाल्याक बंदखणींत आयिल्लो पळेलो. अजातशत्रून ताका धाडिल 'ताची भीस मार, खाड काड, नाखटां कातर आनी वाखरान पांयां तळव्य घाय कर आनी घायांत मीठ आनी तेल घाल' अशें सांगून धाडिल्लो. म्हाल्या मनांत असलें दुष्कृत्य करपाचें निखालूस नाशिल्लें. पुणून अजातशत्रूक म्हणपाचें काळिजूय ताका नाशिल्लें. तो भियेलो. भियेत भियेत बंदखण गेलो आनी 'तुजी हत्या करपाक म्हाका हांगा धाडला', ताणें बिंबिसार सांगून उडयलें.

'मागीर? अनमनता कित्याक? कर तूं खुशाल म्हजी हत्या. म्हा दुख्ख जावपाचें ना आनी तुकाय कसलेंच पातक लागपाचें ना.' बिंबिसा म्हळें.

म्हाल्यान अजापान ताच्या तोंडाकडेन पळेलें आनी काळीज घट कर सांगिल्लें तशें केलें.

जिस्त ह्या वेळार आपणाक पूत जाला म्हणपाची खबर अजातश कळ्ळी. ताचें काळीज मोगान भरून आयलें. आनी अवचीत तकलेंत आय 'हांव जालां त्यावेळार म्हज्या बापायचेंय काळीज अशेंच मोगान भरून आयि आसूंक जाय.' ताणें अमात्यांक मोट्यान उलो मारून सांगलें, 'चला बंदखणींतल्यान म्हज्या बापायक आत्तांच्या आत्तां सोडोवन हाडात... म लेगीत उशीर करूं नाकात...'

'तो आतां संवसारांत उरूंक ना.' ताका जाप मेळ्ळी.

अजातशत्रू दुख्खान आकूळ पिकूळ जालो आनी आवय म्हऱ्यांत धां गेलो. 'म्हजो जल्म जाला त्यावेळार बाबाक म्हाका जाल्या तशीच खं जाल्ली गे?' ताणें विचारलें.

'हय पुता' तिणें जाप दिली आनी म्हळें, 'तुजेर खूब मोग आशिल ताचो... तुज्या भुरगेपणांत एक खेपे तुज्या बोटाक एक फोड जाल्लो अ सोंसूं नज जावन तूं रडिल्लो. तूं रडटा तें ताच्यान पळोवं नज जालें. त तुजें बोट आपणाल्या तोंडांत घेतलें आनी फोड तोंडांत भितरूच फोड पूं थुकून भायर उडोवपा बदला 'म्हज्या अपुर्बायेच्या पुताचो पूं तो' अ म्हणून तो गिळ्ळो. इतलो मोग आशिल्लो ताचो तुजेर...'

अजातशत्रूक खूब रडूंक आयलें. पच्छातापान तो बुद्धासरीं गेलो. बुद्ध इतलेंच म्हळें, 'दुश्टांचो सांगात धरतकूच अशेंच जाता... केन्नाच दुश्टां सांगात धरचो न्हय.'

[मगधच्या राजघराण्याक पितृहत्येची ही जी कीड तेन्ना लागिल्ली ती पांच पिळग्यां मेरेन वाडत गेली. बिंबिसाराक अजातशत्रून मारलो. अजातशत्रूक ताच्या पुतान उदयान मारला. उदयाक ताच्या पुतान महामुण्डान मारला. महामुण्डाक अनुरुद्धान मारला आनी अनुरुद्धाक नागदासान मारला.]

बिंबिसाराच्या मरणाची खबर कळनाफुडें कोसलादेवीचो आवरो उडलो आी त्याच खिणाक तिणें प्राण सोडलो.

ोसलादेवी कोशलदेशाच्या पसेनदी (प्रसेनजित) राजाची खास्सा भयण. ति बिंबिसाराकडेन लग्न जालां त्यावेळार तिगेल्या बापायन पागणांत तिका ाशीराज्य भोगपाक दिल्लें. ह्या राज्याचें उत्पन्न वर्साक एक लाख निष्क शेल्लें. ती भायर पडिल्ल्याची खबर कळटकूच पसेनदीक खूब वायट ालें. इतलेंच न्हय तर ताका अजातशत्रूची तिडकूय मारली. 'हाका असोच ोक दिलो जाल्यार हो केन्ना कोणाचेर कसली हावळ हाडीत, सांगूं नज; ा येन्नाच जाग्यार हाडिल्लो बरो', अशें चिंतून ताणें काशीराज्य परतें ेवें अशें थारायलें. 'आवय बापायची हत्या करतल्या पुताक हें राज्य पाचो अधिकार ना, तें परतें कोशलदेशाक दिल्लें बरें' असो निरोप ां अजातशत्रूक धाडून दिलो.

'तें म्हजे आवयचें मालकिचें. आवयचे संपत्तिचेर पुताचो अधिकार आसता' ी पसेनदीक जाप धाडून अजातशत्रू काशीराज्याची राखण करपाक सैन्य न वाराणसीक गेलो. अजातशत्रू सैन्य घेवन वाराणसीक गेल्ल्याचें कळटकूच नदीन काशीराज्याचेर घुरी घाली. पसेनदीक ती म्हारग पडली. जातशत्रूच्या हातान ताका हार खावची पडली. पसेनदीची न्हीद खळ्ळी. ून फकत एकूच रात. दुसऱ्याच दिसा ताणें काशीराज्याचेर परती घुरी ली. मामा भाच्या मजगतीं झूज पेटलें. हे खेपे अजातशत्रूक हार खावची ली. पसेनदीन अजातशत्रूक बंदी केलो. ताचे हती घोडे सगळे जप्त केले. नी ताका घेवन तो श्रावस्तींत आयलो.

पुणून तागेलें बाविल्लें तोंड पसेनदीच्यान पळोवं नज जालें. 'कितलोय ल्यार भाचो तो म्हजो. ते भायर, पिरायेनूय ल्हान. ताका हरोवपांत कसलें डपण आसा?' ताणें मनांत म्हळें आनी श्रावस्तीक पावनाफुडें ताणें ताका डून दिलो. ताचे हती घोडे ताका परते दिले. काशीराज्यूय ताका दिलें. तलेंच न्हय, तर आपणाली धुवूय ताका दिवन कोशल मगध दोनूय देशां जगतचे संबंद परतून एक फावट रगताच्या नात्यान घट केले.

हे गजालीक तीन वर्सां जाल्लीं. एक दीस अवचीत पसेनदीचो पूत विडुडभ पायआड बंड करून उठलो. ताणें कोशलराज्य आपणा हातांत घेतलें ानी बापायक राज्यांतलो धांवडावन भायर घालो. अजातशत्रूच्या आधारान ाज्य परतें घेतलों आनी विडुडभाक जाग्यार हाडटलों अशें येवजून पसेनदी स बदलून लिपचोरयां राजगृहाक वचपाक भायर सरिल्लो. वाटेरूच ताका रण आयलें.

हे भाशेन, बिंबिसार आनी पसेनदी दोगूय बरे-मागपी दोळ्यां मुखारूच वसार सोडून गेल्ले बुद्धाक पळोवचे पडले.

## वेडुडभ

विडुडभान एक दीस कपिलवस्तूचेरूय घुरी घाली आनी शाक्य कुळयेंतल्या ोकांक कचाकचं कातरून उडयले.

जालें अशें —

पसेनदी बुद्धाचो भक्त. इतलो भक्त कीं भेटेक येतालो तेन्ना बुद्धाच्या ताचे, कपळाचे, गालाचे, पांयांचे उमे घेतालो. बुद्ध आपणालो सोयरो ावचो, रगताच्या नात्याचो जावचो म्हूण ताका शाक्य कुळयेंतले एके लयेकडेन लग्न जावचेंशें दिसलें. शाक्य कुळयेंतल्या लोकांक कुळाचो सुमारा ायर अभिमान. 'पसेनदी आमचो राजा आसलो म्हूण कितें जालें, चली ताका दिवं येता?... कितलोय जाल्यार वेगळ्या कुळांतलो मनीस!' अशें ते म्हणपाक लागले. पुणून, तेच बरोबर 'तो कितलोय जाल्यार आमचो राजा... ताका ना म्हणूं येता? ताचो अवमान जातलो. तिडटलो. मागीर कितें करीत, कोण सांगतालो?' अशेंय दिसपाक लागलें. महानाम नांवाचो एक शाक्य मुखार सरलो. आनी ताणें पेंच सोडयलो. 'म्हजी धूव वासभक्षत्रिया म्हजे अपुर्बयेची. ती ताका दिवंया', ताणें म्हळें.

वासभक्षत्रिया ताची अपुर्बायेची धूव खरी. पुणून ताचे दासयेक ताचे पसून जाल्ली. बायलेक जावंक नाशिल्ली. पसेनदीक दुबाव आशिल्लोच. म्हूण ताणें शाक्यांक म्हळें, महानामाची ही धूव म्हाका मानवल्ली आसली तरूय शाक्यांनी तिका पंगतीक घेवन जेवंक जाय. जाल्यारूच हांव तिचेकडेन लग्न जातलों.' शाक्य तिका पंगतीक घेवन जेवले. तेन्ना पसेनदीन तिचेकडेन लग्न केलें. तिका पाटांराणी केली.

वर्सभरयान तिका एक पूत जालो. तो हो विडुडभ. भुरगेपणांत विडुडभान आवयक मर्दी मर्दी विचारचें, 'सगळ्यांचे मामा आपणाल्या भाचरांक खेळणीं हाडून दितात. केन्ना केन्ना तांचे आजे तांगेर येतात... म्हाका मामा नात गे?... म्हजो आजो कोण गे?'

'आसात, पुता... तुका मामाय आसात... आजोय आसा. पुणून खूब पयस रावतात... तुका खेळणीं धाडप, मेळूंक येवप तांकां सोंपें न्हय.' आवयन ताका सांगचें आनी ताणें तें मोन्यांनी मानून घेवचें.

विडुडभ सोळा वर्सांचो जालो तेन्ना आपूण आजोळा वचून सगळ्यांक मेळून येतलों म्हूण हट घेवन बसलो. वतलो म्हणटा जाल्यार तो वतलोच, नाका म्हळ्यारूय वतलो म्हणपाचें आवय जाणा आशिल्ली. तिणें रोखड्या रोखडो एका मनशाक कपिलवस्तूक धाडून दिलो, आनी 'विडुडभ येता, ताचे सरबरायेंत कितेंच उणें पडूंक दिवं नाका' अशें बापायक सांगून धाडलें.

शाक्यांनी विडुडभाक कितेंच उणें पडूंक दिलें ना. ताची खूब बरी सरबराय केली. 'हो तुजो मामा, हो तुजो आजो' म्हूण ताची कांय जाणांकडेन वळख करून दिली. तो सगळ्यांक पांयां पडलो. 'म्हाका पांयां पडपी म्हजे परस ल्हान कोणूच नात?' ताणें आज्याक विचारलें. 'आसात रे बाबा, पुणून सगळे आपापणाल्या आजोळा गेल्यात.' आज्यान सांगलें.

कांय दीस रावन तो घरा येवपाक भायर सरलो तेन्ना शाक्यांनी आपणाल्या संथागारांत मोट्या गडगडाटांत ताचो भौमान घडोवन हाडलो.

विडुडभ खोश्शी जावन परतलो.

थोड्या अंतरार पावतकूच एका शिपायकाक आपूण आपणाली तरसाद संथागारांत विसरून आयिल्ल्याची जाणवीक जाली. ती हाडपाक तो कपिलवस्तूक परतलो. ते मेरेन हांगा संथागार धूवन निवळ करपाचो वावर सुरू जाल्लो. दोगी वावराड्यो तें निवळ करताल्यो. तांचे मर्दी चलिल्लो एक संवाद ताच्या कानार पडलो.

'हो तो पाट सारको धूवन काड आं... ताचेर दासीपुत्र बशिल्लो...' एकलेन म्हळें.

'दासीपुत्र?... कोण तो?...' दुसरेन विचारलें.

'वा, बरें मगे तुजें!... विडुडभ दासीपुत्र म्हूण नकळ तूं?'

'खरें?... हांव नकळ आशिल्लीं...'

शिपायकाक हें आयकून धसको बसलो. ताणें ही खबर फुतफुतून आपणाल्या एकादोगां सांगात्यांक सांगली. इल्ली इल्ली करून ती सगळेकडेन पातळ्ळी. करतां करतां ती विडुडभाच्या कानार पावली. विडुडभ तिडकीन उसळ्ळो. आनी त्याच खिणाक ताणें सोपूत घेतलो, 'फाल्यां हांव कोशल देशाचो राजा जातलों तेन्ना दाखयतलों ह्या शाक्यांक हांव कोण तो. तांच्या रगतान हांवें म्हजो पाट धूवन घेतलो ना जाल्यार हांवूच न्हय जायन.'

विडुडभान ही खबर बापायक सांगली. शाक्यांनी आपणाक फटयलो म्हणपाचें आयकून ताकाय खूब खूब दुख्ख जालें. तो विडुडभाचे आवयक

पाटांराणयेच्या पाटावयली काडून उडोवपाचें येवजूंक लागलो. बुद्धासरीं वचून ताणें आपणाली खंत उक्तायली. बुद्धान म्हळें, 'शाक्यांनी केलें तें तांकां सोबपा सारकें नाशिल्लें. पुणून तांच्या गुन्यांवाची ख्यास्त हिका करप समा न्हय... ती दासी कन्या आसूं, पुणून तिचो बापूय क्षत्रीय. आनी तिका ताणें धुवेवरी वाडयल्ली. ते भायर तुमी दोगांयनी अग्नीक गवाय दवरून आयुश्यभर एकठांय रावतलीं म्हूण सोपूत घेतला.'

पसेनदी बुद्धाचें उतर केन्ना सकल पडूंक दिना आशिल्लो.

कांय काळान विडुडभान बापायच्या हातांतलें राज्य आपणा हातांत घेतलें. बापायक राज्यांतलो धांवडावन भायर घालो. आनी (वयर सांगलां ते भाशेन) मगधराजा अजातशत्रूचो आधार मागपाक राजगृहांत वतालो थंय वाटेरूच भायर पडलो.

सत्या हातांत येनाफुडें विडुडभ शाक्यांचेर घुरी घालपाचे बेत रचपाक लागलो. बुद्धाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना बुद्धान ताका आडायलो. दोन खेपे आडायलो. तिसरे खेपे बुद्ध श्रावस्तींत ना सो पळोवन विडुडभान कपिलवस्तूचेर घुरी घाली. सगळ्या शाक्यांची दानाधिस्पट केली. जे ताच्या पांयांकडेन आयले वा पळून गेले ते सुटले. उरिल्ल्या सगळ्यांक ताणें कचाकच कातरून उडयले. आनी तांगेल्या रगतान ताणें आपणालो पाट धूवन घेतलो.

## अजातशत्रू

म्हणटासर अजातशत्रू खुबलो. 'कितें समजतात हे वज्जी लोक आपणाक! हांव तांकां ना करून उडयतलों, तांकां काबार करतलों, तांकां भिकेक लायतलों.' अशें म्हणपाक लागलो.

कोण म्हणटात, वज्जींकडेन एक हती आशिल्लो तो ताका जाय आशिल्लो. वज्जींकडेन ताणें तो मागिल्लो आनी वज्जींनी ताका तो दिवंक नाशिल्लो. कोण म्हणटात, एका वज्जी श्रेष्ठिचे बायलेच्या गळ्यांत ताणें एक रत्नांहार पळेल्लो. तो ताणें वज्जींकडेन मागिल्लो. ताका तो आपणाले पाटांराणयेक दिवपाचो आशिल्लो. आनी वज्जींनी ताका तो दिवंक नाशिल्लो. म्हूण तो खुबिल्लो. पुणून —

खुबपाक खरें कारण वेगळेंच जाल्लें. गंगेचे तडीर उत्तरे दिकेक अर्दें राज्य वज्जींचें आशिल्लें. अर्दें अजातशत्रूचें आशिल्लें. वज्जींचें राज्य ल्हान. पुणून स्वतंत्र आशिल्लें. मगधराजाक जाय तशें न्हय, तर आपणाक जाय तशें चलतालें. उत्तरें दिकेंतल्यान वेपारी माल घेवन येताले. तो पयलीं वज्जींच्या राज्यांत पावतालो. अजातशत्रू तो घेवंक सोदतालो. घेवपाक आयज वतलों, फाल्यां वतलों अशें येवजितालो ताचे पयलींच वज्जी तो भायले भायर घेवन उडयताले. अजातशत्रूक हेंच उस्तऱ्यां गेल्लें. आपणाल्या एकतांत्रीक राज्या शेजरा एक लोकतांत्रीक राज्य चलूंक दिवप आपणाक पुटवपाचें ना, अशें अजातशत्रूक दिसपाक लागलें. म्हूण तो वज्जींचें राज्य मोडटलों, वज्जींक काबार करतलों, तांकां भिकेक लायतलों अशें म्हणपाक लागिल्लो.

ताका वज्जींचें राज्य आपणाल्या साम्राज्याक दसोवपाचें आशिल्लें.

पुणून, येदें व्हडलें पावल उखलचे पयलीं बुद्धाक विचारिल्लें बरें अशें चिंतून ताणें आपणाल्या वस्सकार नांवाच्या अमात्याक बुद्धासरीं धाडून दिलो. वस्सकारान बुद्धाक अजातशत्रूचो बेत सांगलो.

बुद्धा म्हऱ्यांत त्या वेळार तागेलो शिष्य आनन्द आशिल्लो. तो बुद्धा फाटल्यान उबो रावन ताका आयण्यान वारो घालतालो. बुद्धान वस्सकाराक जाप दिवपा बदला आनन्दाक विचारलें,

'वज्जी लोक एकचारान राज्य करतात मू?'

'हय भगवंता, सगळीं कामां ते एकामेकांच्या आधारान, एकठांय येवन, एक जावन एकामत्तान करतात अशें आयकलां.' आनन्दान जाप दिली.

'बरें, निर्णय ते एकामत्तान घेतात मू?'

'हय भगवंता, ते एकामत्तान निर्णय घेतात म्हुण्णूय आयकलां.'

'आतां एक सांग, तांणी जे कायदे घडयल्यात त्या कायद्यांक धरुनूच ते चलतात मू? ते कायदो मोडिनात मू?'

'ना भगवंता, ते कायदो मोडिनात. कायद्याक धरुनूच सगळो कारभार चलयतात म्हूण तांची नामना आसा.'

'जाणट्यांची बुद्द घेतात मू?'

'हय भगवंता, जाणट्यांक विचारुनूच ते निर्णय घेतात.'

'थंय बायलांचेर आगळिको जायनात मू?'

'ना भगवंता, खंयचेच बायल-मनशेकडेन कोण वांकड्या दोळ्यांनी पळेना...'

'वज्जींच्या राज्यांत वेगळे वेगळे धर्म मानपी लोक आसतले. त्यांक आपापणाल्या धर्माक पाळो दिवन चलपाची ते मेकळीक दितात मू?'

'हय भगवंता, ते सगळ्या धर्ममत्तांचो भौमान करतात म्हूण आयकलां.'

'वज्जींच्या राज्यांत भायल्यान जे लोक येतात तांकां कसलोच त्रास जावचे नात हाची ते जतनाय घेतात मू?'

'हय, भगवंता. ते ही जतनाय घेतात.'

आनन्दाच्यो जापो आयकून बुद्धान वस्सकाराक म्हळें, 'वज्जींक हांवें हे सात नेम घालून दिल्ले. जे मेरेन ते ह्या सात नेमांक धरून चलतले ते मेरेन तांचें कोण वांकडें करूंक पावचो ना...'

जे मेरेन वज्जी एकवटीत आसतले ते मेरेन तांकां कोण जिखूंक पावचो ना, इतलें वस्सकाराक बेस बरें समजलें. तांचे भितर धोशी घालपयलीं तांचो एकवट मोडूंक जाय ह्या निर्णयार तो पावलो.

तो परतलो. बुद्धाचें म्हणणें ताणें अजातशत्रूक सांगलें आनी म्हळें, 'वज्जींभितर पयलीं धोशी घालूंक जाय. ते बगर आमी तांकां जिखूंक पावपाचे नात...'

'त्यो कश्यो घालपाच्यो?' अजातशत्रून विचारलें.

'हांव सांगतां तशें कर', ताणें राजाक म्हळें, 'फाल्यां राज्यसभेंत आपूण वज्जींचेर घुरी घालपाचें येवजितां म्हूण सगळ्यांक सांग. हांव उठून उबो रावतां आनी तुका विचारतां, 'कित्याक तांचे वाटेक तूं वता? तांणीं आमचें कितें इबाडलां?' तूं दोळे मोट्टे करून म्हजेकडेन पळे. हांव भितरलो तिडकीन उठून वतां. मागीर तूं म्हाका धरून हाडपाक कोणाकूय धाड. हो वज्जींक फितूर जाला' म्हूण म्हजेर आळ घाल आनी म्हाका राज्यांतलो धांवडावन घाल... फुडलें सगळें म्हजेर सोड...'

अजातशत्रून तशें केलें. वस्सकाराक राज्यांतलो धांवडावन घा[ल्लो].

वस्सकार वज्जींच्या राज्यांत गेलो. ताका पळोवन कांय वज्जी म्हणपाक लागले, 'हो पाताळयंत्री मनीस, हाका हांगा थारो दिवप ना.' दुसऱ्या कांय जाणांनी म्हळें, 'आमच्या बऱ्या खातीर तो वावुरता म्हूण अजातशत्रून ताका राज्यांतलो भायर घाला. ताका आसरो दिवप आमची लागणूच जाता.' अखेरेक हांचें म्हणणें सगळ्यांनी मानून घेतलें. वस्सकाराक तांणीं आसरो दिलो. करतां करतां एक दीस वस्सकार वज्जींचो महाआमात्य जालो. सगळ्यांच्या विस्वासांतलो जालो. ल्हवू ल्हवू ताणें लावालावी लायल्या. करतां करतां वज्जीं मजगतीं ताणें धोशी घाल्यो. इत्यो धोशी घाल्यो की कोण कोणाचें तोंड पळेनात जाले. वज्जींचो एकचार तांणें मोडलो. उपरांत अजातशत्रूक सांगून धाडलें, 'आतां केन्नाय यो आनी राज्य घेवन उडय...'

अजातशत्रून वज्जींचें राज्य कांय न्हयशें करून घेतलें.

दोन्नूय घडणुको बुद्धाच्या दोळ्यां मुखार घडिल्ल्यो. पुणून त्यो खळोवंक पावल्यो नात. ताका फक्त इतलेंच दिसलें, तपा... [illegible] लागिल्लो. आपणें ताका दर ... केल्लो. आतां नवी पिळगी वयर सरल्या, तिचे आनी आपले मगतीं एके पिळगेचें अंतर पडलां. हाचो लाव घेवन तो हे खेपे नेटान वावरूं लागला.

ून हे खेपे ताका हार खावची पडटली.

## हापरिनिर्वाण

च्या वावरांत खंड पडूंक पावलो ना. ताणें सद्दां फांतोडेर उठचें. बसचें. चंक्रमण करचें. दीस वयर सरन्नाफुडें पात्र चीवर घेवन भायर र स घरां भोंवन भिक्षा हाडची. मागीर कोण भेटेक येतात तांकां देस्करचो. दनपरां जेवचें. मात्सो विसव घेवंचो. उपरांत हो गांव सोडून वांत वचचें. थंय खंयच्याय एका रुखामुळांत वा अग्रसाळेंत रावचें. न्क बसचें. मागीर गोयडी पातळावन, उश्याक उजवो हात घेवन, शेक, उजव्या पांयार दावो पांय दवरुन न्हिदचें. मदलो सगळो लांत आशिल्ल्या भिक्खूंक शिकोवचें. फकत पावसाळ्यांत तागें न खंय तरी रावचें. तागेल्या भक्तांनी ह्या 'वर्षावासा' खातीर कांय रां ताका बांदून दिल्ले. मगध-कोसलच्या वाटारांत असले कितलेशे रां आशिल्ले. ह्या आरामांत ताच्यो 'कार्यशाळा' चलच्यो.

ाळ्यांतले चार म्हयने सोडीत जाल्यार ताच्यो कार्यशाळा ताचे एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत भोंवत राविल्ल्यो. एका सारकीं चाळीस वर्सां तो भोंवत राविल्लो.

ीं वर्सांचे पिरायेर अवचीत ताका आपूण जाणटो जालां म्हणपाची जाली. आपणाली कूड आतां 'मोडक्या खटाऱ्या' सारकी जाल्या दिसपाक लागलें. रोखडीच तागें सारवासारव सुरु केली. आनन्द डे सदीं आसतालो. ताका सांगून ताणें भोंवतणच्या वाटारांतल्या शिष्यांक एकठांय केले आनी तांकां सांगलें —

गजाली तुमकां सांगूंक सोदतां. जे मेरेन तुमी एकामेकांक आधार एकामत्तान काम करतले, संघान घालून दिल्ल्या नेमांक पाळो दिवन म्हालगड्यांचीं मनां राखून तांकां मानान वागयतले... जेमेरेन तुयादीन जायनासतना रावतले, एकान्तवासांत आनंद मानून सगळे वचें न्हूण वावुरतले ते मेरेन तुमचें कोणूच कांयच वांकडें करूंक ना. तुमचें कसलेंच लुकसाण जावपाचें ना... संवसारांत आपणाक न घेवं नाकात. चकाटांनी वेळ होगडावं नाकात. कसलींच वेसनां घेवं नाकात. दुश्टांची सांगात धरूं नाकात. आनी इल्लें-शें करून लें अशें मानून अल्पसंतुश्ट रावं नाकात. श्रद्धावंत जायात. बुदवंत ज्ञावंत जायात. स्मृतिमंत (जागरूक) आनी चारित्र्यवान जायात...'

सांगून तांकां उपदेस करून बुद्ध राजगृहा सावन नालन्दाक गेलो. क सारिपुत्त मेळ्ळो. तागेले पयले पंगतींतल्या शिष्यां मजगतचो ष्य हो. बुद्धाक ह्या दिसांनी वेगळेंच तरेचें तेज मारपाक लागलां पुत्ताक दिसलें आनी ताणें म्हळें, 'भगवंता सारको बुदवंत, शीलवंत, हाचे पयलींय कोण जालो ना, आयजूय कोण ना, मुखारूय कोण चो ना, अशें म्हजो भावार्त म्हाका सांगता.'

शिटकावलो. सारिपुत्ताच्या तोंडांतल्यान 'तुजे सारको कोण जावंक जावचो ना' हे तरेचीं उतरां फुटलीं जाल्यार आपूण नासतलों हे लोक आपणाल्या धर्ममत्तां परस आपणाल्या विभूतिमत्वाक न्याक लागतले, आनी, मागीर, बुद्धमत्त हेर जायत्या धर्ममत्तां मजगतचें वन पडटलें, अशें ताका दिसलें. ताका अशें घडूंक दिवपाचें नाशिल्लें णें सारिपुत्ताक विचारलें, 'हाचे पयलीं जे कोण बुदवंत, प्रज्ञावंत गेले तांकां तूं सारको वळखला ?'

भगवंता', सारिपुत्तान मान सकल घालून जाप दिली.

डाराक जावपाचे आसात तांकां तूं वळखता ?'

'

का तरी तूं सारको वळखला ?'

'

'मागीर, तुज्या भावार्ताक कसलो आधार आसा ?'

सारिपुत्ताक जाप दिवपाचो धीर जालो ना. तो ओम्मी रावलो.

[ही खबर महापरिनिर्वाण-सुत्तांत घालतना त्रिपिटकाच्या संपादकांक चत्राय उरली ना जावंक जाय. कित्याक, सारिपुत्त बुद्धाच्या निमाण्या दिसांनी संवसारांत नाशिल्लो. ताचें कांय वर्सां पयलीं निर्वाण जाल्लें. त्रिपिटकांत कांय कडेन कांय गजाली फाटीं फुडें जाल्यात इतलोच अर्थ हाचो.]

नालन्दाच्यान बुद्ध वैशालीक गेलो. वैशालींत अम्बपाली (आम्रपाली) नांवाची एक गणिका रावताली. तिच्या बगिच्यांत वचून रावलो. अम्बपालीक बुद्ध आपणाल्या बगिच्यांत येवन राविल्ल्याची खबर कळ्ळी. ती धांवत आयली. बुद्धाची भेट घेवन तिणें म्हळें, 'फाल्यांचें जेवण भगवंतान म्हगेर येवन घेतलें जाल्यार हांव पावन जातलीं.'

बुद्धान आमंत्रण घेतलें.

अम्बपाली भुल्लुसून आयली. परततना वाटेर तिका वैशालींतले व्हड व्हड लोक मेळ्ळे. ते बुद्धाचे भेटेक वताले. तांणी अम्बपालीक विचारलें, 'अशी भुल्लुसून कित्याक आयल्या गे तूं?'

'फाल्यांची तयारी करूंक जाय... फाल्यां भगवंत आपणाल्या संघाक घेवन आमगेर जेवंक येवपाचो आसा', तिणें जाप दिली.

जाप आयकून हांकां अजाप जालें. 'अब्बा! आमचे पयलीं ही आमंत्रण दिवन आयली?' तांणी मनांत म्हळें. तेवूय जेवणाचें आमंत्रण दिवपाक वताले. तांणी अम्बपालीक म्हळें, 'तुगेलें आमंत्रण तूं फाटीं घे. ते बदला आमी तुका एक लाख निष्क – भांगरा म्होरो – दितात.

'पुराय वैशाली नगरी दिली जाल्यारूय हांव आमंत्रण फाटीं घेवपाचीं ना', तिणें जाप दिली.

दुसऱ्या दिसा बुद्ध तिगेर जेवपाक गेलो. तिणें तरां तरांचीं पक्वान्नां केल्लीं. आपल्या हातान सगळ्यांक वाडलें. बुद्धान आपणाले चालीक धरून जेवण जातकूच अम्बपालीक उपदेस केलो. तो आयकून सगळ्यांत पयलो अम्बपालीचो पूत प्रव्रज्जा घेवपाक मुखार सरलो. बुद्धान ताका प्रव्रज्जा दिली. अम्बपालीचेरूय उपदेसाचो परिणाम जाल्लो. ज्या तरणेपणाच्या म्हालवजार ती आतां मेरेन जियेत आयिल्ली तें आतां इल्लें इल्लें करून गळपाक लागलां हाची तिका कांय दिसां पसून जाणवीक जावपाक लागिल्ली. बुद्धाचो उपदेस आयकना फुडें तिणें आपणाल्या जिविताक वेगळें रूप दिवपाचो निर्णय घेतलो. तिणेंय बुद्धा कडल्यान दीक्षा घेतली. आपणालो बगिचोय तिणें बुद्ध संघाक दानांत दिवन उडयलो.

आम्रपालीच्या बगिच्यांत कांय दीस रावन वर्षावासा खातीर बुद्द लागसारच्याच बिल्व-गांवांत गेलो. थंय अकस्मात तागेली बलायकी इबाडली. मोंसूं नज अश्यो पिडा ताका जावपाक लागल्यो. पुणून ताणें त्यो सोंसल्यो. सगळ्यांक एक फावट मेळ्ळे बगर वचप ना असो ताणें नित्शय केल्ल्यान तो रोखडो बरो जालो. तो बरो जातकूच आनंदान ताका म्हळें, 'इतले दीस म्हजो जीव सकल वयर जाल्लो. कितें करचें, येवजनाशिल्लें. एकूच आस्त आशिल्ली, भगवंत संघाक निमाणो उपदेस केले बगर वचचे नात, हाची म्हाका खातरी आशिल्ली.'

'संघाक आनीक-आनीक कितें सांगपाचें उरलां?' बुद्धान ताका विचारलें. 'म्हजो धर्म-विचार हांवें भायर भितर करी नासतना सगळ्यां मुखार उक्तो करून दवरला. कितेंच लिपोवन दवरूंक ना. म्हजे कडेन सांगपा सारकें नवें अशें आतां कांयच ना. हांव आतां जाणटो जालां. म्हाका अंयशावें चलता. कूड मोडक्या खटाऱ्या सारकी जाल्या. आतां तुमी कोणाचेर निंबून रावपाचें न्हय. हो संवसार म्हळ्यार एक समुद्र. तातूंत तुमी जण एकल्यान जुंवो जाल्ले वरी आपणाचेर निंबून रावपाचें. धर्माच्या जुंव्यार रावपाचें. तुमीच आतां तुमचो उजवाड जावपाचें... आत्मशरण जायात. धर्म-शरण जायात.'

वर्षावास सोंपतकूच बुद्ध परतो वैशालीक आयलो. थंय ताणें आपणाल्या सगळ्या शिष्यांक आपोवन घेतले आनी तांकां सांगलें, 'तुमची साधना बरी चलची, तुमच्या हातांत चडांत चड लोकांचें बरें भलें जावचें, चडांत चड लोक सुखी जावचे, अशें तुमकां दिसता आसत जाल्यार, हांवें तुमकां सांगल्यात त्यो गजाली घट लक्षांत दवरात. मनशान सदां जागरूक रावंक जाय म्हूण हांवें तुमकां सांगलां. बशिल्लो मनीस उठ्ठा तेन्ना आपूण बशिल्लों उठलां म्हणपाची ताका जागरूक जाणवीक आसता, चलता तेन्ना चलतां म्हणपाची, आड पडटा तेन्ना आड पडलां म्हणपाची आसता, तितलीच जागरूक जाणवीक तुमकां तुमी खंती जातात, दुस्वासान पेट्टात, खुशाल भरीत जातात तेन्नाय आसूंक जाय. चित्त जागरूक दवरून जण एकल्यान आपणाली चलणूक नियाळून पळोवंक जाय. चित्त जागरूक उरचें म्हूण तुमी ताचेय व्यापार तिरायता भाशेन नियाळून पळोवंक जाय. जिवितांत दुख्ख भरलां, तें खासा आमीच निर्माण केलां, तें ना करूं येता आनी तें ना करपाची एक वाट आसा, हीं चार आर्यसत्यां हांवें तुमकां समजावन सांगल्यांत, दुख्ख ना करपाची एक आठ-आंगांची वाटूय तुमकां हांवें दाखोवन दिल्या. शील, प्रज्ञा आनी समाधी ही मोख कशी जोडची, तेंय दाखोवन दिलां. हें सगळें सारकें लक्षांत दवरात. ताचें मनन करात...'

इतलें सांगून ताणें म्हळें —

'म्हजें आयुश्य आतां सोंपपा कडेन पावलां. तीन म्हयन्यांनी हांव हो संवसार सोडपाचो आसां. हांवें म्हजी लागणूक केली. आतां तुमी तुमची करपाची. भायल्या कोणाच्या वा कित्याच्या आधारार निंबून रावूं नाकात. तुमीच तुमचे उजवाड जायात आनी त्याच उजवाडांत चलात. शील, समाधी, प्रज्ञा आनी विमुक्ती ह्या चार गजालिंचो सारको बोध नाशिल्ल्यान संवसारांत दुख्ख भरलां. दुख्खाचीं कारणां सोदून काडपाचीं आनी तीं ना करपाचीं. संवसार सुखी जातलो.'

थंयच्यान भायर सरून भोंवत भोंवत बुद्ध पावा-नगरीक पावलो. थंय चुंद नांवाच्या एका कांसाराचो आंब्यांचो बगिचो आशिल्लो थंय रावलो. चुन्दाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना तो धांवत बुद्धाचे भेटेक आयलो आनी दुसऱ्या दिसा जेवणाचें आमंत्रण दिवनं गेलो. चुन्दान तरां तरांचीं पक्वान्नां केल्लीं, तांतूंत 'सुकर मद्दव' नांवाचें एक पक्वान्न आशिल्लें. कोण म्हणटात तें अळम्यां-तोंडाक आशिल्लें, कोण म्हणटात दुकरा मास आशिल्लें. इतलें खरें, तें खावन बुद्धाचें पोट इबाडलें. निर्मोळी सुरू जाली. ... अवस्थे... तो कुशिनाराक गेलो. वाटेर कुकुत्था नांवाची एक न्हंय लागल थंय ... आनन्दाक म्हळें, 'आनन्दा, तान लागल्या रे. इल्लें उदक हाडून ...' आनन्दान... उदक हाडून दिलें. तें पियेवन उपरांत तो न्हालो. विसव घेपाक ... आनन्दाक गोयडी पातळावंक सांगली. थंय आड पडिल्ले कडेन तो आनन्दा... म्हळें, 'आपणें दिल्लें जेवण जेविल्ल्यान तथागताक ही पिडा जाली, ... चुन्दाक दिसतलें आनी तो खंती जातलो. ताका सांग, तथागतान हजारां... लोकांगेर ज़ेवणां घेतल्यांत. तांतलीं दोन सगळ्यांत चड म्हत्वाचीं. ... सुजाता... दिल्लें जाका लागून गोतम 'बुद्ध' जाल्लो, आनी हें दुसरें, ... दान दिल्लें... जाका लागून बुद्ध निर्वाणाक पावलो. तूं भाग्यवंत अशें तथागत म्हणटा... म्हूण सांग... ताची खंत पयस कर.'

थंयच्यान तो कुशिनाराक गेलो. उपरांत नज जालें. थंय एक शाल-वना... दोन रूख एकामेकांक तेंकून आशिल्ले ताणें पळेले. थंयच तो आपणाल्या... गोयडी पातळावंक लायली आनी सदचे वरी उजवे कुशीक डाव्या पांया... दावो पांय दवरून, आनी हाताचें उशें करून तो आड पडलो आनी ... स्थितींत आनन्दाक उपदेस करपाक लागलो. आनन्द समजलो ताका रडूं आयलें. 'आनन्दा, हें कितें? तूं रडटा? आरे, प्रिय वस्तुंचो योग जाता... जल्मा आयिल्लें बदलत वता आनी एक दीस ना जाता, हें तुजें समजाक... सांगलां मरे हांवें. तथागताक लेगीत हो नेम चुकोवंक येवपो ना... सांगलां मरे? सगळें विसरलो? तुवें तथागताची खूब सेवा केल्या. पुण्यक... तूं. मात्सो यत्न करशीत जाल्यार तूं थोड्याच दिसांत अर्हत जातलो.

ते मेरेन कुशिनारा गांवांतले कितलेशे जाण ताचे भेटेक शालवनांत आयले... बरीच रात जाली. तरूय ते थंयच बसून रावले. सगळ्यांची वळख करून... घेतली. निमाणें, सगळ्यांक नमस्कार करून ताणें इतलेंच म्हळें, 'सगळे संस्कार व्यय-धर्मी (= नाशधर्मी). कुडूय व्ययधर्मी. तेन्ना वळसाय क... नासतना निर्वाण जोडात.'

हीं तागेलीं निमाणीं उतरां आशिल्लीं.

योगायोग म्हळ्यार, ती वैशाखांतली पुनव आशिल्ली. ताचो जल्म वैशाख पुनवेकूच जाल्लो, तो वैशाख पुनवेकूच 'बुद्ध' जाल्लो. आयज ताचें निर्वाण वैशाख पुनवेक जाल्लें.

---

## सूफी प्रज्ञावाद

☐ एक भिकारी एका दारा मुखार उबो रावन मागपाक लागलो, 'बाबा... कितेंय घाल हाडून म्हाका...'
'मुखार वच... घरांत भितर कोण ना', बल्कांवार बशिल्ल्या मनशान ताका म्हळें.
'भितरलो कोण नाका म्हाका, बाबा... मेळटा जाल्यार म्हाका एक उंडोच हाडून घाल', भिकाऱ्यान ताका सांगलें.

*हकीमजानी*

☐ आपूण गर्विश्ट न्हय अशें म्हणूं नाका. कित्याक, कोणाकूच केन्ना आपणालो गर्व लिपोवंक येवंक ना. मुयेच्या पावलां सकल... तो लिपून रावलो तरूय दुसऱ्याक तो दिसले बगर रावूंक ना.
दुसरें, आपणांतलो गर्व हुमटावन काडपाचो यत्नूय करूं नाका. कित्याक, सुयेक केन्नाच दोंगर निखळावंक येवंक ना...

*हकीमजानी*

☐ कुपांतल्यान सकल पडटां पडटांच पावसाच्या थेंब्याक सकल एक व्हडलो दर्यो दिश्टी पडलो. 'येद्या व्हडल्या दर्याक म्हज... ना' अशें म्हणटा थंय आसा, कालवान तोंड उकतें केलें आनी म्हळें, 'म्हाका गरज आसा तुजी. यो म्हज्या गोपांत.'
थेंबो ताच्या तोंडांत पडलो.
कांय तेंपान थंय मोती जाल्लें.

*शादी*

# अर्थाक हांव

माधव बोरकार

*अर्थाक हांव*
*उतरांचे*
*कार्येंत पळयतां...*

*अर्थाक हांव*
*अनंताचे*
*मायेंत केळ्यतां...*

# संदर्भ

माधव बोरकार

*वाटेर*
*आडवळणावेल्या गांवांत*
*जावपी दिवेलावणेचो संदर्भ*
*आसता*
*उतरांच्या अवचित उदेल्ल्या*
*अर्थाक...*

# म्हजो गांव

भालचंद्र गांवकार

*यादिंचे कोनशे सांसपिताना*
*केन्नाय...*
*अचकीत त्या गांवांत पावतां!*
*थंयचें*
*सगळेंच संवकळिचें*
*दोंगर, रूख, व्हाळ्यो-खळ्यो...*
*..........*
*आनी...*
*तो आयसपयस वोंवळीचो रूख जाल्यार*
*जसो कितें...*
*शेंकड्यांनी पानांच्या*
*म्हज्या चरित्राचें मदलें पान!*
*तेन्ना आनी पिरायेच्या शिशिरांत*
*म्हजो गांव... म्हजो गांव म्हूण*
*मिरयलां तें सोंसपाचें न्हय!*
*जशें कितें*
*गांव म्हजें अर्द-आंग!*
*गांव म्हजें सर्वस्व!!*
*तरीय...*
*एक प्रस्न मात*
*प्रस्नूच उल्ला!*
*गांव म्हजो आसून...*
*गांवाक हांव परकीच कित्याक?*
*... कित्याक??*




## एक गोड उगडास

ह्या आंकांतल्या ह्या पानांचो जागाच्या आगस्ट १९९५च्या आंकांतल्या इतिहासाच्या पानांकडेन संबंद आसा. ह्या पानांनी हांवें 'त्रिवेणी'च्या १५ जुलै १९६३च्या आंकांत उजवाडा आयिल्लो 'मास्तरांचो प्रस्न सुटलो, भुरग्यांचो सुरू जालो' हो म्हजो लेख दिल्लो.

त्रिवेणींत आयिल्लो हो लेख वाचून कवी बयाभाव म्हजेर खोश्शी जाले आनी तांणी म्हाका धीर दिवपा खातीर एक कविता बरोवन धाडली. बयाभाव म्हळ्यार शणै गोंयबाबांली बरपावळ उजवाडा हाडपी मुम्बयच्या गोमंतक छापखान्याचे धनी स. काशिनाथबाब श्रीधर नायक. शणै गोंयबाबांले सांगाती. शणै गोंयबाबांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार, 'कोंकणीचे अशोक'. तांचे सारकेल्यान् फाट थापटितकूच खंयचोय कोंकणी-भक्त भुल्लुसून वतलो आशिल्लो. हांवूय गेल्लों. पुणून तेच बरोबर तांगेले कवितेंत तांणी म्हजी इतली तुस्त केल्ली कीं ती पळोवन हांव घुटमळ्यांत पडलों. त्रिवेणीच्या संपादकान हे कवितेचें कितें करूं काय म्हूण म्हाका विचारूंक नाशिल्लें – भायले भायर ती छापिल्ली – जाल्यार् हांव कांय म्हणचों नाशिल्लों. पुण ताणें कितें करूं काय म्हूण विचारलें आनी हांवें 'छापप ना' म्हूण सांगलें. काशिनाथबाबांक खूब वायट दिसलें. पुणून तांणी ही कविता 'गोंय बंदें जावचें ना' ह्या तांगेल्याच एका संचार गिता सयत पत्रिकेच्या रुपान छापली. आनी सगळ्यांक धाडून दिली.

तांगेली कविता अशी आशिल्ली –

### एकटोच तूं!–

('त्रिवेणी' पत्राच्या ता. १५-७-६३च्या आंकांतलो 'मास्तरांचो प्रस्न सुटलो, भुरग्यांची सुरू जालो' हो म्हाललेख वाचून)

अेकटोच तूं! अेकटोच रे! –
पळोवं नाका! वळून असो आर्थून-पर्थून दुकट्याक रे!

ना वाट! – खैंचो मार्ग रे? –
कांटे-खुंटे, जळीं-मळीं चिखल, गुंडे हे चर रे!

हो चौंयवशीन काळोख रे! –
पेट्टा दिवो काळजांत जो अुजवाड घे ताचोच रे!

तूं चल रे! तूं चल रे! –
ते कान-दोळे नात जांकां, साद हे कित्याक रे?

दुर्भाग्य न्हय! – हें भाग्य रे!
आस्त केली अमरुताची, प्राप्त जालें वीख रे!

तूं जा आतां म्हा-देव रे! –
मीळून कोडू झार हें! – दुबळ्या देवांक वांचै रे! –
नेणट्या देवांक वांचै रे!

२२-७-१९६३ — बयाभाव

तांगेली दुसरी कविता अशी आशिल्ली–

### गोंय बंदें जावचें ना!

(अेक संचार गीत)

जावचें ना! जावचें ना –
गोंय बंदें जावचें ना!
आपल्या माथ्यार बसुंक आतां कोणाक केन्ना दिवचें ना!
सदां स्वतंत्र रावतलें
धनिपणान वावुरतलें
करूंक बंदें जे येतीत तांची वाट लायतलें!
कळिकाळाक जिखतले
शूर, वीर जल्मले
पडले अुणें जाल्यार देव-दूत फुडें सरतले!
अजाण रैताक फटैतले
आपसुवार्थ सादतले
भोगांत गुल्ल जे सदांच, तांकां बुद्ध शिकैतलें!
न्याय-नीत जांकां ना
देव-धर्म वळखनात
मदान मातले दैत्य जे, धरून अुबे चिरतलें!
घाम जे गळैतले –
धुळीन आंग माखतले
घालून तेल दोळ्यांत रात-दीस तांकां राखतलें!
पिडा-रोग कातरतलें
झगडीं-झुजां पालैतलें –
हाडून सस्थताय संवसारांत नांव गाजैतलें!
जावचें ना! जावचें ना!
बंदें आतां जावचें ना –
आपल्या माथ्यार बसुंक गोंय कोणाक केन्ना दिवचें ना!

जय हिन्द!

२०-९-१९६३ — बया

काशिनाथबाबांचो राग न्हिवोवपा खातीर हांवें तांकां कवितेच रुपान जाप धाडिल्ली. ती कविता अशी –

बयाभावा म्हज्या भावा न्हय रे हांव अेकटो
धीर दिवंक म्हजे फाटीं आसा पुरूस जाणटो
चूड जरी ल्हान जाली चान्नें कशी फांकता
दाट रान आसलें जरी वाट सरळ गावता
तुजें अुतर मंत्र म्हजो कोणाक जरी कळ्ळो ना
धीर म्हजो तीर कसो जैता बगर अुरचो ना
सपन म्हजें आयचें न्हय गा युगां लासून आयलेलें
ध्येय म्हजें फायचें न्हय गा अशेंच अमर अुरचेलें
घात कोणी करूं म्हंजो आसूं काळखी रात
असोच फाटीर ओड भावा तुजो मोगाळ हात
बयाभावा म्हज्या भावा न्हय रे हांव अेकटो
लाख गडी वांगडा येती घेवंक झोंबून बावटो.

बयाभावांचो राग ही कविता वाचून न्हिविल्लो.

र.

साहित्य नियाळ

# र्तुत्वी कन्या

र के.

'यत्र नार्यस्तु पुज्यन्ते रमन्ते तत्र देवत:। यत्र अेतास्तु न पुज्यन्ते र्वास् तत्र अफला क्रिया' – जंय बायलांची पुजा जाता, कदर जाता, मान जाता थंयच देव खोशशी जावन येवन रावतात; जंय तांची पुजा त्यना, तांकां मान भौमान मेळना थंय सगळ्यांच्यो सगळ्यो करण्यो निर्फल वन पडटात.

शास्त्रांनी हे भाशेन, बायलांची थोडी व्हडवीक गावंक ना. पुणून केदींय व्हडवीक गावन दाखयल्ली आसूं, आमी सरसमान सगळे दादले बल-मनशेकडेन पळेता आसतना सदां कोणी तरी घरकान्न (गृहिणी) रुपांतूच तिका पळेत आयल्यात आनी ह्या रुपान ती आमचेमुखार री रावल्या तेन्ना आमकां ती कोणाची तरी 'कार्येषु मत्री, कारणेषु दासी, ज्येषु माता' आनी 'शयनेषु रंभा' कशीच सदां दिसल्या. आनी ह्याच ान तिका माथ्यार घेवन आमी एक तर तिची पुजा केल्या वा पांयांकडेन वन तिचेकडल्यान आमची सेवा करून घेतल्या. ती आमचेसारकीच सूख मेळटकूच खुशालभरीत जावपी, केन्ना केन्ना भुरकटूनय वचपी; ख कोंसळटकूच भियेवन 'देवा पाव' म्हणपी, केन्ना केन्ना थतर वितरूय वपी; आमचे भाशेनूच राग, दुस्वास, तिडक, ओड सारकेल्या गुणां वगुणांनी भरिल्ली; योग्यतायेन आमचेयेदीच – केदींय व्हड कामां करपाची क, क्षमता, कुशळताय आशिल्ली; तिका वांगडा घेवन करण्यो, कर्तुत्वां लेबगर आमचें दोगांयचें जिवीत पूर्ण जायना; तें अपूर्ण, अर्दकुटें, अपंगूळ रता – तिका सांगाताक घेयात, तिका सहचरी करात, मागीर पळेयात. मचें जिवीत आनी तुमचो समाज खंयच्या पांवड्यार पावता तो, म्हणपाचें यच्याच धर्मशास्त्रान आमकां केन्ना सांगलेंना आनी खासा आमकांय तें ारकें केन्ना समजलें ना. आमी तिचेर सदां शेकूच चलयत आयले आनी वूय बाबडी सगळें सोंसून आमची सदां सेवा करीत रावली. कितलींशीं गां ती 'अबला'च म्हूण जियेत आयली.

अवचीत एक दीस तिका जाग आयली आनी जाग येनाफुडें आपूण दल्यांची फक्त अर्धांगिनीच न्हय तर आपूण तांची श्रेष्टांगिनी – बॅटर फ – आशिल्ल्याची तिका जाणवीक जाली. ही जाणवीक जायनाफुडें या ज्या मळांचेर दादल्यांनी कर्तुत्व गाजयलें त्या त्या मळांचेर ती देंवली नी आरे आरे म्हणटासर तिणें आपणाल्या कर्तुत्वाची – पुसूंक येवपाची असली एक छाप तांचेर बसयली. तिच्यांत हो कायाकल्प घडून आयलो. उपरांतचो, आर्विल्ल्या शें-सवायशें वर्सांचो इतिहास मातसो नियाळून ळेवचो. तिणें आपणालें आगळें वेगळें योगदान दिवंक ना अशें जिविताचें कूय मळ मेळपाचें ना. शिक्षणाच्या, विज्ञानाच्या, साहित्याच्या, सन-प्रशासनाच्या मळांचेर तिणें कर्तुत्व गाजयलां तें गाजयलांच, ते यर, ती पराक्रमी, मुत्सद्दी, राजकर्णी ह्या रुपानूय मुखार आयल्या. य कांय मळांचेर तर दादल्यांक जें केन्ना जमलें ना तें लेग्रीत तिणें न दाखयलां. बंकिमबाबून आपणाल्या 'वंदेमातरम्' गितांत, 'के बोला तुमि अबले' – 'कोण म्हणटा तूं अबला म्हूण' असो तिका प्रश्न लो आनी तूं 'बहुबलधारिणी, रिपुदलवारिणी' म्हणून तिका तिची वळख




करून दिल्ली. बंकिमबाबून म्हळ्ळें तें फट न्हय म्हणपाचें बायलांनी फाटल्या कांय वर्सांत बेस बरें दाखोवन दिलां.

आमच्या देशांत एक म्हापुरूस जल्माक आयलो – गांधी. ताणें तिका सांगलें, 'दादल्यांनी केल्यांत तितलींय कामां तुकाय करूंक येतलीं. तूं तांचेपरस खंयच्याच आंगान उणी न्हय. पुणून एक विसरूं नाका, तूं दादलो न्हय. दादलो जावपाचो तूं यत्न करूं नाका. तुज्यांत आनी ताच्यांत एक मोट्टो फरक आसा. तुमच्यो दोगांयच्यो कुडी वेगळ्यो. तसो तुमचो सभावगुणूय वेगळो. तुवें तांची केलदावणी करूंक फावना. केलदावणी करपाक भायर सरशीत जाल्यार तूं तांची फकत एक उरफाटी प्रतिकृती जावन पडटली. आनी सगळी तुजी मौलीकताय – ओरिजिनालिटी – तूं होगडावन बसतली. तुवें तूंच म्हण मुखार सरूंक जाय, तुज्यांत आसात ते गूण ताच्यांत नात. तुज्या त्या वेगळ्या गुणांक लागुनूच तूं ताचेपरस वेगळी उठून दिसतली. अशें म्हणून ताणें तिका सोऱ्यांच्या गुत्यांचेर पिकेटींग करपाक धाडून दिली. गुंडांक मनीस कर म्हण सांगून तिका गुंडांच्या अड्ड्यार धाडली. ज्या साम्राज्याचेर सूर्य केन्ना अस्तम नाशिल्लो ताचेआड चलिल्ल्या संघर्शांत तिच्या हातांत बंडाचो बावटो दिवन तिका सगळ्यांमुखार दवरली. तिका पोलिसांचे तोणके खा, बंदखणिंनी वच, तोफेच्या तोंडार उबी राव म्हूण सांगलें. तिका धीट केली. देशाच्या पांच हजार वर्सांच्या इतिहासांत तिका कोणेंच अशें सांगूंक नाशिल्लें तें गांधीन सांगलें आनी ताणें सांगिल्लें हें सगळें करून तिणें आपूण फकत कर्तुत्विनीच न्हय, तर तेजस्विनीय म्हूण संवसाराक दाखोवन दिलें. गांधी मुखार तांगेले सांगाती विनोबा गेले. ते म्हणपाक लागले, हिन्दुस्तानांतली बायल कांय राज्यांनी आमदारीण, खासदारीण म्हूण वेंचून आयिल्ली आसूं, मंत्री, मुखेलमंत्री जाल्ली आसूं, प्रधानमंत्रीय जाल्ली आसूं, इतल्यान भागना. देशांत एक नवें धर्मप्रवर्तन करपाची तांक आशिल्ली बुद्ध शंकराचार्याच्या पांवड्याची कोणूय एकली मुखार सरूंक जाय. मीरा, महादेवी, मुक्ता, कान्होपात्रा बायलांत जाल्यात खऱ्यो पुणून शंकराचार्यांसारकी आंजून कोण जावंक ना. ती जायसर ती 'मुक्त' जाली अशें म्हणूंक येवपाचें ना. असली कोणूय निर्माण जावंक

पावची म्हूण विनोबांनी पवनाराक ब्रह्मविद्यामंदिर नांवाचो ब्रह्मवादिनींचो एक आश्रम सुरू केलो आनी आपणालो जीव ओतून तो वयर काडलो. विनोबांच्या सपनांतली शंकराचार्यांचे योग्यतेची बायलमनीस अजून येवंक ना. पुणून विनोबांच्या विचारांचो प्रभाव तांचें निर्वाण जालां त्या दिसाच संवसाराक पळोवंक मेळ्ळो. विनोबांचे कुडीक खांद दिवपाक ब्रह्मविद्यामंदिरांतल्यो चलयो मुखार सरल्यो आनी तांगेले कुडीक अग्निसंस्कारूय एके चलयेनूच दिलो. हिंदू संस्कृतायेच्या पांच हजार वर्सांच्या इतिहासांत पोरणी चाल मोडपी असली आगळी वेगळी घडणूक केन्नाच कोणें पळोवंक नाशिल्ली. केन्नाच खंयच घडून येवंक नाशिल्ली.

देशान कूस परतिल्या असोच हाचो अर्थ करचो पडटा. ह्या देशांतली बायलमनीस हेमुखार कोणाचीच 'कार्येषु मंत्री, कारणेषु दासी, भोज्येषु माता, शयनेषु रंभा' म्हूण रावपाची ना. दादल्यांच्या हातांतलीं सगळीं सुतां आपणाल्या हातांत घेवन ती आतां नव्याच एका भारतवर्षाक जल्म दिवपाची आसा. एक नवें मन्वंन्तर सुरू करपाची आसा.

गोंयानूय कूस परतिल्या. वाचप्यांच्या हातांत आसा तें 'कर्तुत्वी कन्या' हें पुस्तक हाची बेस बरी गवाय दिता. ह्या पुस्तकांत आमच्या भौशीक मळावयल्या तेवीस कर्तुत्विनींच्यो मुलाखती आयल्यात – पांच जाणी राजकी संवसारांतल्यो, चौगी कलाकार, तिगी समाजसेविका, तिगी लेखिका, दोगी गावपी, एक डॉक्टर, एक वकील, एक सी.ए., एक स्वातंत्र्य सैनीक, एक स्कॉलर आनी एक चित्रां काडपी. पन्नास वर्सांआदीं म्हजे पिळगेन तरूणपणांत पावल दवरलां त्यावेळार तिका असल्यो कोण गोंयांत पळोवंक मेळूंक नाशिल्ल्यो. ना अशें न्हय. किरिस्तांव समाजांतूच चडश्यो पळोवंक मेळटाल्यो. हिन्दू समाजांत तर मेट्रीक जाल्ल्यो वा लिसेंवाचें शिक्षण पुरें केल्ल्यो चलयो हाताच्या बोटांचेर मेजपाइतल्यो लेगीत नाशिल्ल्यो. गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें गोंयांत बायलांच्या जिवितांत आकांताचो बदल घडून आयला अशें म्हणचें पडटा. आयज अशें एक्क मळ गोंयांत मेळचें ना जंय बायलांनी कर्तुत्व गाजोवन दाखोवंक ना. ह्या पुस्तकांत असल्यो फकत तेवीस जाणींच्यो मुलाखती आयल्यात. ह्या तेविसांभायर चोविसावे एकलेची ह्या पुस्तकांत जाणवीक जाता, ती मुलाखती घेवपी बाय ज्योती कुंकळकार हिची. तिवूय एक कर्तुत्विनीच आमची, साहित्याच्या आनी अभिनयाच्या मळावयली. हें पुस्तक पळोवन कोणाकूय एखाद्याक दिसूं येता, 'असलें पुस्तक बरोवपाक व्हडलेंशें कितें लागता? नांवलौकीक जोडिल्ल्या कोणाय म्हऱ्यांत वचून बसचें, ताका आठ धा प्रस्न विचारचे आनी मेळटात त्यो जापो कागदार बरोवन घेवच्यो... जालें पुस्तक तयार! हांव ताका इतलेंच सांगतलों, मातसो यत्न करून पळे, मागीर असलें पुस्तक बरोवप सोंपें काय कठीण हें तुजे तुकाच सारकें कळून येतलें. पयली गजाल म्हळ्यार, जाची आमी मुलाखत घेतात ताच्या जिविताची आमकां सारकी बरी वळख आसूंक जाय. दुसरी गजाल, ताचेविशीं आमकां आदर भौमान दिसूंक जाय आनी तिसरी, सगळ्यांत म्हत्वाची गजाल – ताका प्रस्न विचारून ताचेकडल्यान कितें 'काडून घेवचें' हाची कळाशी मुलाखत घेतल्याच्या आंगांत आसूंक जाय. बाय ज्योतींत हे तिनूय गूण आसात म्हूण ह पुस्तकांतल्यो तेविसूय कर्तुत्विनी आमचेमुखार सगळ्या धोंगांपोंगांसयत जिव तट्टटीत जावन उब्यो रावंक पावल्यात.

ह्यो मुलाखती 'सुनापरान्तां'त येताल्यो तेन्ना सप्तकांत आयतार फक एकूच फावट येता हाची म्हाका खंत भोगताली. दोनतीन तरी आयत येवंक जाय आशिल्लें अशें दिसतालें. कित्याक, ह्या बाविसांभितरल्या कां जाणींक हांव लागिंच्यान वळखतालों. पुणून तांगेलें अंतरंग ज्योतीन घेतिल्ल तांगेल्यो ह्यो मुलाखती वाचीसर म्हाका कळूंक नाशिल्लें. तें जाणून घेवपा म्हाका उमळशीक लागिल्ली.

सृजनशील साहित्यांत असले तरेच्या पुस्तकाक एक वेगळीच सुवा आसा. इंग्रजी साहित्यांत डॉ. जॉन्सन म्हूण एकलो साहित्यकार जाव गेला. ताका बॉस्वेल नांवाचो एक तरणाटो मेळूंक नाशिल्लो, ताणें ताव तरातरांचे म्हत्व नाशिल्ले हजारांनी प्रस्न विचारूंक नाशिल्ले आनी ता दिल्ल्या जापिंच्या आधारान ताचें जिवीत ताणें बरोवंक नाशिल्लें, जाल्य डॉ. जॉन्सन ताचे मुस्तींतल्या हेर चार स साहित्यकारां मदलो एक म्ह इंग्रजी बरपावळींत उरतलो आशिल्लो. बॉस्वेलान ताका हेरां सगळ्यांपसृ कुशीक काडलो. ताका आगळो वेगळो केलो. बॉस्वेलान बरयल्ल्या जिविता जो जॉन्सन आमकां मेळटा ताका सॉमरसेट मॉमान 'ॲन् आर्टिस्टी क्रियेशन ऑफ बॉस्वेल' म्हळां.

हे तरेच्या साहित्याक इंग्रजींत 'टेबल-टॉप लिटरेचर' हें नांव आस म्हाका हे तरेचें 'लिटरेचर' सदांच खुब्ब आवडलां. कोणेंय धरूंया म्हजेमुख दोन पुस्तकां हाडून दवरलीं – एक, खंयच्याय व्हड बरोवप्यान खा आपणासंबंदान बरयल्लें, आनी दुसरें, ताच्यो मुलाखती घेवन दुसऱ्या कोणें ताचेर बरयल्लें – जाल्यार सगळ्यांत पयलीं हांव हें दुसरें, मुलाखतींचें पुस्तक वाचपाक घेतलों. हे तरेच्या साहित्याची रुचूच वेगळी आसत कोणें एकल्यान म्हळां तेभाशेन जर एकल्याचें जिवीत –' किरकोळांतल्य किरकोळ मनशाचें लेगीत आगळें वेगळेंच आसता. आनी आमकां सगळ्यां सगळ्यांचीं जिवितां भायल्यान दिसतात ताचेकूय चड तीं भितरल्यान कश आसतात हें जाणा जावन घेवपाची – केन्ना केन्ना बारीक नदरेन चोरू लेगीत – पळोवपाची उत्सुकताय आसता. न्हय जाल्यार कथा नवलकथ कोण बरोवचे वाचचे नाशिल्ले. बाय ज्योतीन तर ह्या पुस्तकांत दिल्य्या तीं जिवितां आमच्या समाजांतल्या कांय कर्तुत्विनी भयणींचीं. मागीर, तांच्य अंतरंगांत भितर सरून तांकां खोलायेन वळखून समजून घेवपाची इत्स आमकां जाली जाल्यार अजाप कसलें? आमची ही इत्सा पुरी करपाच कळाशी बाय ज्योतींत आसा हें ताणें हें पुस्तक बरोवन दाखोवन दिल हाचे फुडलें धाडस करपाक कोंकणी सरस्पतीन ताका स्फूर्त आनी प्रेरण दिवंची अशें तिचेलागीं मनस्पुर्वेक मागतां.

* * *

---

# पिड्डुको

- ☐ सांगपा सारकें आमचे कडेन कितेंय आसूंक जाय. जाल्यार बरय म्हूण कोणेंय सांगीसर आमी वाट पळेत बसचे नात.
- ☐ बरयलां तांतलें दोन वांटे भायर उडोवंक येवंक जाय. जाल्यार, उरता त्या वांट्यांत छापपा सारकें कितेंय उरतलें.
- ☐ कथा खूब बरयल्यात ताणें. फकत आत्मकथा बरोवंक पावूंक ना. कित्याक – तो सगळ्यांक वळखता. फकत आपणाक एकल्याक सारको वळखूंक पावूंक ना.
- ☐ हावेस धरचो जाल्यार कालिदास, रवीन्द्रनाथ, गोयथे, शेक्सपियर, टॉलस्तॉय जावपाचो धरचो. फुडलें देवाचेर सोडून दिवचें.

REGD. No. GOA 1

# जाग

र्स ४ ◇ आंक ५ ◇ डिसेंबर १९९७

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

पावुी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

ापी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.


## ह्या आंकांत




सुकी पटी : रु. ७५/-
द्यार्थ्यांखातीर : रु. ६०/-
न वर्सांची पटी : रु. २००/-

वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
क मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
रुपये अदीक जोडचे)

राचो नामो :

ग म्हयनाळें
-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
द साउदादिश्, पाजीफोंड,
व – गोंय ४०३ ६०१.

ोळ आंकाचें मोल : रु. ७/-


## उतर संपादप्याचीं

### कोंकणी कोणें केली ?

कोणें कोंकणीक साहित्य अकादेमींत व्हेली? कोणें तिका राजभाशेच्या पाटार व्हरून बसयली? कोणें आठवे वळेरेंत पावयली? कोंकणी कोणें केली?

एकलो म्हणटा आपणें. दुसरो म्हणटा आपणें.

पयर एकल्यान म्हाकाय आपणाले पंगतीक घेतलो आनी म्हळें, हाणेंय कोंकणी खातीर खूब कितें केलां.

गुजराती संत-कवी नरसिंह मेहताचें एक भजन आसा. तातूंत एक कडवें येता –

*'हुं करूं, हुं करूं ए ज अज्ञानता*
*शकटनो भार जेम श्वान ताणे'*

उबाळांचे दीस आशिल्ले. एक सुणो एका रस्त्यार जीब भायर काडून हा हां करीत सावळी सोदीत उबो राविल्लो. अवचीत ताका बैलांचो एक गाडो येता तो दिश्टी पडलो. तो बेगिबेगीन धांवलो आनी गाड्या सकयल सावळेक वचून रावलो. गाडो मुखार चलत रावलो तसो तोवूय मुखार चलत गेलो. बरोच मुखार पावतकूच 'हांवें पळे, गाडो खंय मेरेन ओडून हाडलो तो' अशें आपणाकूच भासोवपाक लागलो.

आमचेंय अशेंच जाता. आमी थोडें भोव कितें करतात आनी मागीर आमीच सगळें केलें अशें खासा आमकांच दिसपाक लागता.

कोंकणी आमी करूंक ना.

कर्तुत्वां दोन तरांचीं आसतात. जण एकलो आपणा खातीर जें करता तें एके तरेचें, वैयक्तीक स्वरुपाचें. असल्या कर्तुत्वान आमच्यांनी साहित्य अकादेमीची तसरीप जोडूं येता, 'गोमंत शारदा' पुरस्कारूय जोडूं येता. ज्ञानपीठूय जोडूं येत. हाका व्यासंग जाय, साधना जाय, तपश्चर्या जाय. वैयक्तीक कर्तुत्वान आमच्यांनी खंयचेय संस्थेचो वा कॉर्पोरेशनाचो अध्यक्ष जावं येता. राज्यसभेचो मेम्बर जावं येता, राजदूत जावं येता, गर्वनरूय जावं येता. लटपटी खटपटी करूंक येवंक जाय.

ओपिनियन पोल वैयक्तीक कर्तुत्वान हाडूंक येना आनी वैयक्तीक कर्तुत्वान ओपिनियन पोल जिखुंकूय येना. लिपी नाशिल्ले, व्याकरण नाशिल्ले, साहित्य नाशिल्ले एके 'बोली' भाशेक वैयक्तीक कर्तुत्वान साहित्य अकादेमींत पावोवंक येना, राजभास करूंक येना. आठवे वळेरेंतूय व्हरूंक येना. असलीं कामां सामुहीक कर्तुत्वानूच जातात. धा जाणांच्या कर्तुत्वानूच असलीं कामां जावं येतात.

कोंकणीक आयज जी सुवात मेळ्ळ्या तिका धा जाणांच्या कर्तुत्वान मेळोवन दिल्या.

कितेंय हातांत धरतले म्हळ्यार हाताक पांच बोटां आसचीं पडटात. बोटां नाशिल्ल्या हातान कितेंच घट धरूंक येना. तशें, असलें कसलेंय सामुहीक कर्तुत्व करचें जाल्यार ताका पांच तरांच्या फाटबळाचो आधार जाय पडटा.

पयलो आदार कार्यकर्त्यांचो. कोंकणीक शेंकड्यांनी कार्यकर्ते मेळिल्ले. शेंकड्यांनी लोक गांवां गांवांनी कोंकणी खातीर वावुरताले. आमचे कडेन इतले कार्यकर्ते आशिल्ले की ते एकामेकांक वळखऽ लेगीत नाशिल्ले. आमकां इतले कार्यकर्ते मेळिल्ले हाचें कारण खासा आमीच कार्यकर्ते आशिल्ले. कोंकणी चळवळींत जे मुखार दिश्टी पडटाले तांचें रूप फुडाऱ्यांचें नाशिल्लें, कार्यकर्त्यांचें आशिल्लें.

दुसरो आधार विचारांचो. 'कोंकणी भाशेच्या जैता' पसून 'भौ भाशीक भारतांत भाशेच्या समाजशास्त्रा' मेरेनचो आर्विल्ल्या भास विज्ञानाचो घटमूट आधार कोंकणीक मेळिल्लो. ह्या आधारान सगळ्या कार्यकर्त्यांक प्रेरणा दिल्ली आनी कोंकणीक 'भास न्हय' म्हणटल्यांक सगळ्यांक आडवे घाल्ले.

तिसरो आधार 'वाट दाखोवप्यां'चो. केन्ना कितें करचें, कसलें पावल केन्ना उखलचें हें सांगपी कांय म्हालगडे आमचे मजगतीं आशिल्ले. ते सगळ्यांक वाट दाखयताले आनी आपुणूय खासा ते वाटे वयल्यान चलताले.

चौथो आधार सज्जनांचो. कोंकणीक घरच्या सगळ्या सज्जनांचो तर आधार आशिल्लोच. ते भायर, काकासाहेब कालेलकर, जवाहरलाल नेहरू, सुनीतिकुमार चटर्जी सारकेल्या 'दिग्गजां'चोय आधार मेळिल्लो.

पांचवो आधार लोकांचो. गोंय, कारवार, मंगळूर, कोची मेरेनचो सगळो कोंकणी समाज कोंकणी चळवळी फाटल्यान उबो आशिल्लो.

कोंकणी 'जाली' ती ह्या पांच फाटबळांक लागून. रवीन्द्र केळेकार, उदय भेंब्रो, पुंडलीक नायक हांकां लागून न्हय. आमी कोंकणी केली ह्या भ्रमांत कोणें रावचें न्हय.✲

✲ 'गोमंत शारदा पुरस्कार' घेतना केल्ल्या उलोवपांतलो एक वांटो.

## पत्रकाराचें मिशन

सकाळीं पेपर वाचले बगर म्हजो दीस सुरू जायना. म्हजोच कित्याक, कोणाचोच सुरू जायना. काल सुटी आशिल्ली. म्हूण आयज पेपर आयले नात. धा एक मिणटां चुकिल्ले चुकिल्ले वरी जालें. मागीर म्हळें, चलता जातलें जग चलूंक जाय तशें. पेपर आयले नात म्हूण जग चलपाचें थांबपाचें ना. आनी हांव कामाक लागलों. काल सुरू केल्लो लेख पुरो करपा खातीर अभ्यासिकेंत वचून बसलों.

पुणून, मन विचित्र. तें पेपरां भोंवतणींच घुंवपाक लागलें. म्हळें, वाचपा सारकें खूब कितें कितें म्हज्या आरमारिंनी भरलां, तें वाचपाचें सोडून हांव सकाळचे पेपर कित्याक वाचतां ? कितें मेळटा म्हाका पेपर वाचून ? संवसारांत खंय कितें नवें घडलां हें जाणा जावन घेवपाची मनशाक उत्सुकताय आसता, बरें आसा. पुणून ही उत्सुकताय व्यसना सारकी जाता तेन्ना, खरें म्हळ्यार, हुसको जावंक जाय. खंय कोणें कोणाचो खून केलो, खंय कोणें दरवडो घालो, खंय कोणें कोणाचेर बलात्कार केलो, खंय कोणें कोणाक नाडलो, खंय कोण ॲक्सिडेंटांत मेलो – असलें सगळें सकाळीं उठनाफुडें तकलेंत कित्याक कोंबूंक जाय ? पेपरांनी येतात त्यो चडश्यो असल्योच खबरी, थळाव्या जावं राष्ट्रीक, अंतरराष्ट्रीक पांवड्यावयल्यो. पेपर ह्यो खबरो हाडटात, बरें आसा. खंय कितें घडलें तें आमकां कळटा. पुणून, फुडाऱ्यांचीं जीं 'शापातां' ते हाडटात तीं आमी कित्याक वाचूंक जाय ? कोणाक कितें मेळटा तागेलीं हीं शापातां वाचून ? पेपर तीं छापतात कित्याक हेंच समजना. एका काळार ह्या देशांत लोकांचें प्रबोधन करपी, तांचीं मत्तां घडोवपी, तांकां प्रेरणा दिवन कामाक लावपी फुडारी आशिल्ले. आयज कोणूच नात. आयच्या आमच्या फुडाऱ्यांक सत्त्येवयल्यान पयस वचूं दी, कोण तांकां विचारपाचो ना.

असल्यांचीं मत्तां पेपरांनी कित्याक छापूंक जाय आनी आमी तीं कित्याक वाचूंक जाय ?

राजाजी निवृत्त जाले. सत्ते पसून पयस रावले. उपरांत 'स्वराज्य' नांवाच्या एका सप्तकी नेमाळ्यांत ते नेमान बरोवपाक लागले. चडशे प्रासंगिक प्रस्नांचेरूच बरयताले. लोक तर तें वाचतालेच; ते भायर, जवाहरलाल, कृपालानी, लोहिया, विनोबा, जेपी हेवूय मोटे उत्सुकतायेन वाचताले. 'राजाजी कितें म्हणटात' हें जाणा जावपाची उत्सुकताय देशांतल्या सगळ्या विचारवंतांक आसताली. इतलेंच न्हय, तर 'स्वराज्या'चो आंक उजवाडा येनाफुडें दुसऱ्या दिसा देशांत सगळीं खबरेपत्रां 'राजाजी अशें म्हणटात' अशें म्हणून तागेलें मत्त देशांत खांची कोनशांनी सगळेकडेन पावतीं करतालीं.

हाका 'नेतृत्व' म्हणटात. सत्येर नासलें तरूय तें लोकमत प्रभावी करीत रावता. राजाजींचे मुस्तींत लोकनेते मंत्री जाताले. आयज मंत्र्यांक लोक लोकनेते मानपाक लागल्यात.

केदो बदल घंडून आयलो आमच्या रासवळ जिवितांत !

✲ ✲ ✲

पत्रकार विचावंतूच आसूंक जाय ह्या संस्कारांत म्हजी वाड जाल्या. पत्रकारा कडेन तागेली अशी एक खाशेली 'नदर' आसूंक जाय. ताचे कडेन एक विचारसरणी – एक ideology – आसूंक जाय. लोकांक ती पटोवपाचो ताणें यत्न करीत रावंक जाय. न्हिदिल्ल्यांक ताणें जागोवंक जाय. जागे जाल्ले भितरले भितर घुसमटूंक लागतात तेन्ना तांगेल्या घुसमटमारांक ताणें वाचा फोडूंक जाय. तांचें नेतृत्व करूंक जाय. तांकां वाट दाखोवंक जाय. तांकां विचार करूंक लावंक जाय. विचार कशे करचे तें शिकोवंक जाय. तांकां संस्कारी करूंक जाय. पत्रकार हो लोकसेवक आसूंक जाय, लोकशिक्षक आसूंक जाय, लोकनायकूय आसूंक जाय, असल्या मत्तांचो मनीस हांव. टिळक, आगरकर, गांधी, राजाजी सगळे हे जातिचे पत्रकार आशिल्ले. पत्रकार हेच जातिचे आसूंक जाय अशें मानपी हांव. हे जातिचे पत्रकारूच देशांतले ना जाले. कशे ना जाले, कोणें ना केले, समजना.

गूग बदललां जावंक जाय. स्वराज्या आदल्या युगांत idealism क म्हत्व आशिल्लें. स्वराज्या उपरांतच्या युगांत pragmatism क म्हत्व आयलें. ध्येयवाद फाटीं पडलो, वेव्हारवाद मुखार आयलो. गोंयच्याच एका पत्रकारान कांय वर्सां पयलीं स्पश्ट सांगिल्लें, 'आमचे पसून व्हडल्यो-श्यो उमेदी बाळगुपांत अर्थ ना. आमी आमच्या धनयांचीं सुणीं जावन पडल्यात. धनी 'हाचेर भोंक' म्हूण आमकां सांगता तेन्ना आमकां भोंकचें पडटा. 'चाब' म्हणटकूच चाबचें पडटा...' आतां सांगात, असले लोक जे 'अग्रलेख' बरयतात ते आमी कित्याक वाचूंक जाय ?

✲ ✲ ✲

फाटीं मणिपालाक गेल्लों. गोदूबायच्या दोळ्यांतली एक शीर तुटिल्ली. 'लेझर ट्रीटमेन्टा' खातीर वचचें पडिल्लें. एक दोन दिसांत परतूंक मेळटलें अशें दिशिल्लें. धा बारा दीस रावचें पडलें. धा बारा दीस पेपर वाचूंक मेळ्ळे नात. हॉस्पिटलांत पेपर येताले. पुणून कन्नड भाशेंतले येताले. म्हाका कन्नड येना. पुणून, म्हजें कांयच अडून उरलें ना. जगूय चलपाचें थांबलें ना.

वतना 'कबीर वचनावली' घेवन गेल्लों. बारा दीस हें एकूच पुस्तक वाचीत रावलों. ताचे पांचशें 'दोहे' वेंचून काडले, देडशें गितां वेगळीं काडलीं. म्हळें, घरा वतकूच हांचीं कोंकणी करतलों. पंचवीस वर्सां पेपर वाचून जें मेळूंक नाशिल्लें ताचेकूय लाख वांट्यांनी चड म्हाका ह्या धा बारा दिसांत कबीरान दिल्लें.

कबीर लोकीक नदरेन अन्नाडी. 'मसि कागद छुऔ नहीं, कलम गह्यो नहीं हाथ' अशें खासा तोच सांगता. ताका वाचूंक बरोवंक येनाशिल्लें. तरी आसतना, ताच्या नांवान उजवाडा आयिल्लीं सुमार सत्तर अंयशीं पुस्तकां बाजारांत मेळटात. तांतलीं खरीं ताचीं कितलीं आनी तागेल्या शिष्यांनी ताच्या नांवान बरोवन पसयल्लीं कितलीं, बुदवंतांक सांगूंक येना. 'बीजक' ताचो मुखेल ग्रंथ म्हूण खूब जाण मानतात. पुणून तोवूय ताचोच काय आनीक कोणाचो, हाचो बुदवंतांक दुबाव आसा. काशी नागरी प्रचारिणी सभेन दोन पुस्तकां उजवाडा हाडल्यांत. एक, श्यामसुंदर दासाचें 'कबीर ग्रंथावली' आनी दुसरें, अयोध्यासिंह उपाध्याय हांचें 'कबीर वचनावली'. जाणकारांनी हीं दोनूच 'प्रमाण' मानल्यांत. म्हजेकडेन उपाध्यायांचें 'वचनावली' आशिल्लें.

हारिप्रसाद द्विवेदींनी ह्या पुस्तकाची प्रस्तावना बरयल्या. हांव कबीराच्या गां पडलों. हजारिबाबूंच्या उतरांनी 'सिर से पैर तक मस्त-मौला; स्वभाव फक्कड, आदत से अक्खड; भक्त के सामने निरीह, भेषधारी के आगे दिल के साफ, दिमाग के दुरुस्त; भीतर से कोमल, बाहर से कठोर... युगारी शक्ति और विश्वास लेकर वे पैदा हुए थे, युगप्रवर्तक की दृढता वर्तमान थी...' परंपरेन चलत आयिल्ल्यांतलें खूबशें मोडपाचें काळीज तो जसो कितें जल्माक आयिल्ले वरी दिसलो. म्हाका ताचे भोंवतणी उंवाळचोसो दिसपाक लागलो.

ा येवपाक भायर सरलों तेन्ना तकलेंत एक विचार घोळपाक लागलो. हें–

बीराचे मुस्तींत नेमाळीं नाशिल्लीं. दिसाळीं नाशिल्लीं. छापखानेय ल्ले. टीवी नाशिल्लो, रेडियो नाशिल्लो. तरूय, ताणें जें कितें सांगलें यज पांच शतमानां उपरांत लेगीत म्हज्या हातांत पडटा. म्हाका पिशें शा. कित्याक लागून? सांगपा सारकें ताचेकडेन कितेंय तरी आशिल्लें च मू? आयज? आयच्या संवसारांत शेंकड्यांनी – न्हय, लाखांनी र्गी सद्दां उजवाडा येतात. कोणेंय कितेंय बरयलें जाल्यार तें रोखडें य येता. बरयल्लें, छापिल्लें संवसाराच्या ह्या तोंका कडल्यान त्या मेरेन खिणा भितर पावता. तरी आसतना उलयल्ल्या बरयल्ल्यांतलें उरना, उलयना बरयना फुडेंच हवेंत विरून वता. कित्याक लागून? सा सारकें आयज कोणाच कडेन कांयच ना म्हुण्णूच मू?

दें अंतर पडलां आमच्या जिवितांत ह्या पांच शतमानांत! जग भायल्यान लें जितलें गिरेस्त जायत गेलां, तितलें तितलें भितरल्यान तें पोकळ त रावलां!

✲ ✲ ✲

ब जाण म्हणटात, आमच्या देशांत आनीक कितेंय आसूं वा नासूं, र स्वातंत्र्य आसा, उच्चार स्वातंत्र्य आसा. हीं दोन स्वातंत्र्यां आसात देशाक सभ्य आनी संस्कारी म्हणूं येता. शंबरांतल्या एकाच मनशाक चुकतात' अशें दिसलें जाल्यार लोकांची चूक दाखोवपाचो ताका जावंक जाय, मेकळीक मेळूंक जाय. भौसंख्य लोकां परस वेगळें कितेंय तो सांगता म्हूण ताचेर कोणाचेंच चेपण येवंक जायना, ताचे नोकरेचेर येवंक जायना. ताणें उलोवपाक बरोवपाक भियेवं जायना. लोकमताक स भियेलो जाल्यार लोकशायेचो प्राणूच गेलो म्हणूंक जाय. भौसंख्य ां परस मनशाक वेगळीं मत्तां मांडपाचो धीर जंय जाता थंयच लोकशाय ता, वाडटा, फुलता आनी फळटा. गांधी युगांत हे तरेचें स्वातंत्र्य देशांत तालें. नेहरू युगांतूय चल्लें. आयज चलता व्हय? दुबाव येवपाक लागला. रकरांक 'अहंमन्य' म्हळो म्हूण 'जाहीर माफी मागा' हे तरेच्यो धमक्यो म्हाका कितल्योश्यो चिटी आयल्यात, फोनूय आयल्यात. 'गांधीहत्या सावरकर' म्हूण पुस्तक बरयन जाल्यार कितें जातलें? पयस खंय पळून वचपाचो प्रसंग म्हजेर आयले बगर रावपाचो ना व्हय? आंबेडकरांची करपी पुस्तकाचेर बंदी घालात म्हूण मागण्यो जातात त्यो आमी पळेनात ? मात् कितें उस्तन्यां वता असलें कोणेंय बरयल्यार पुरो, हालिंसाराक च्यो 'भावना दुखावतात'. विचार-उच्चार स्वातंत्र्य ह्या देशांतलें इल्लें ना जावपाक लागलां.

क गजाल सगळ्यांक मान्य करची पडटली–

येयवादाचें वातावरण परतें देशांत उबें केले बगर दुसऱ्यांच्या मत्तांची मनशांत जागी जावपाची आस्त ना. वेव्हारवादाच्या पांवड्यार देंवन ाद उबो करूंक येवपाचो ना. वेव्हारवादाक जेन्ना आमी ध्येयवादाच्या यार चडोवंक पावतले तेन्नाच प्रसारमाध्यमांचो प्रभाव वाडटलो. आनी जबाबदार वाचपी निर्माण जातले. वाचपी जबाबदार जातकूच पत्रकारूय दार जातले. मागीर पेपर आयचे वरी फकत खुनांच्यो आनी दरवड्यांच्यो, अत्याचारांच्यो आनी बलात्कारांच्यो खबरो छापून खोशी रावचे नात. लोकांचें प्रबोधन करपाचो आनी तांकां संस्कारी करपाचो वावरूय तांच्या हातान जावंक पावतलो.

## सायनच्यान बांद्र्या मेरेन – टॅक्सींत

बस फांतोडेर सायनाक पावली. सायनच्यान बांद्रा लागीं. म्हाका बांद्र्याक वचपाचें आशिल्लें. म्हूण हांगाच देंवलों.

बस थांबनाफुडें भुरूभुरू करून कांय तरणाटे बसी भोंवतणी एकठांय जाले. सामान देंवोवपाक कांय जाण वयर चडले. कांय जाण सकल रावन सामान देंवोवन घेवपाक लागले. कांय जाण देंवोवन सकल दवरिल्लें सामान टॅक्सींत व्हरून दवरपाक लागले. म्हजें एकूच बॅग. ल्हानशें. पुणून दोन दोन चार आनी दोन मेळून स रुपये म्हाका बॅग बसीवेलें टॅक्सींत पावतासर मेजून दिवचे पडले.

म्हळें, कितें करतलों? हांचोय बावड्यांचो गुन्यांव ना. गांवांत कामां नात म्हूण शारांत आयिल्ले. शारूय तांकां कामां दिवंक पावलें ना तेन्ना तांणीच कामां सोदून काडलीं. आमचें प्लॅनिंग साप् फेल जालां इतलोच अर्थ हाचो.

सायनच्यान बांद्र्याक वतना टॅक्सी धारावीच्यान वता. आशिया खंडांतली खंय ही सगळ्यांत व्हडली झोंपडपट्टी. झोंपडपट्टी पळेले बगर झोंपडपट्टी म्हळ्यार कितें तें कळपाचें ना. आनी झोंपडपट्टींत रावचें पडलें जाल्यार, बरोवन दवरात – नीत, आदर्श, तत्त्वां, मनीसपण, कित्याचेरूच तुमचो भावार्त उरपाचो ना. 'ह्यो सगळ्यो मिडल क्लास लक्झरीज' अशें म्हणून तुमीच त्यो मोखून भायर मारतले. 'आमकां कोंता येवपाच्यो न्हय' म्हणटले. जिविताकडेन पळोवपाची तुमची नदरूच बदलतली. परत घरा वचपाचें तुमच्या नशिबांत आयलें जाल्यार तुमी पळेतले, झोंपडपट्टींत पावल दवरिल्लें त्या वेळार तुमी आशिल्ले ते आयज झोंपडपट्टींतल्यान भायर सरतना उरूंक नात.

नरक म्हूण वेगळो आसचो ना. ह्या नरकांत कशे रावतात हे लोक, देव जाणां. म्हळें, हांकां आपणाल्या गांवांत कामां मेळिल्लीं जाल्यार हे लोक हांगा कित्याक मरूंक येतले आशिल्ले? तांकां गांवांतल्या गांवांत कामां दिवंक आमच्या 'प्लॅनरां'क आयलें ना. म्हूण, हे लोक गांव सोडून हांगा आयले. वा म्हणुंया, आमच्या 'प्लॅनरां'नी हांकां गांवांतले भायर काडून हांगा हाडले आनी ह्या नरकांत धुकलून उडयले. मुम्बय चलता ती व्हडल्या व्हडल्या बिल्डिंगांनी रावतात त्या धनवानांक लागून न्हय. हांकां लागून चलता. हे सगळे उठून घरा गेले जाल्यार मुम्बयचें एकूय काम सारकें चलचें ना. इतलेंय आसून बाबड्यांक ह्या नरकांत रावचें पडटा. तांकां रावपाक बरी सुवात दिवंक मुम्बयक येना.

कशें येतलें? आमचें प्लॅनिंगूच चुकलां.

आमच्या प्लॅनिंगाचें उजळ आंग सरकारी आंकड्यांतल्यान केन्ना केन्ना पळोवंक मेळिल्लें. टी.व्ही.रूय पळेल्लें. ताचें काळें आंग मुम्बयंत हे खेपे पावल दवरलां त्याच खिणा पसून चडांत चड दोळ्यांक खुपूंक लागलें.

आमचे फुडारी आमकां फटयतात.

आनी आमी? आमकां फटोवन घेतात.

येदीं व्हडलीं फटींगपणां ह्या सत्यवचनी रामाच्या आनी गांधीच्या देशांत चल्ल्यांत.

तकली निर्शेली. म्हणटासर फटक् करून उसळ्ळी. 'ना, अशें उपकारना... सगळें बदलूंक जाय' अशें म्हणून जग बदलपाक मुखार सरली. खंय खंय हेडपाक लागली. विशयूय बदलपाक लागली. सायनच्यान बांद्रा म्हळ्यार टॅक्सीन पंदरा वीस मिणटांची वाट.. ह्या पंदरा वीस मिणटांत हांवें भितरले भितर मनांत दोन तीन पुस्तकांय बरोवन काडलीं.

तकलेचो वेग उजवाडाच्याय वेगा परस व्हड म्हणटात. लटीक न्हय.

हांव देशा भायर पावलां तो जपान आनी चीन ह्या दोन देशांनी. चीन पळोवन आयल्यार धा वर्सां आनी जपान पळेल्यार तीस. ह्या काळांत खूब बदल जाल्यात जातले थंय. 'लायफ-स्टायली'त जाला जातलो अशें दिसना. जिविताच्यो देखी, तरा त्योच आसतल्यो, ज्यो हांवें पळेल्ल्यो. जपानांत दोन म्हयने एका सारको भोंवलां. मोटारीन. केन्ना बसीन. केन्ना ट्रेनीन. केन्ना विमानान. खंयचेच कडेन – एअर पोर्टार, रेल्वे स्टेशनार, बस स्टँडार खंयच हमाल, कुली पळेलो ना. ओसाकाचे गाडयेंत आमचे वांगडा एक जाणटी बायलमनीस आशिल्ली. हॉस्पिटलांतल्यान डिस्चार्ज घेवन निकतीच आयिल्ली. वांगडा पूत आनी सून आशिल्लीं. जाणटेलेक देंवोवपाक पुता-सुनेवांगडा आमचो कांय पॅसेंजरांचो हातभार लागलो. मागीर तिका वील-चॅरीर बसोवन भायर व्हरपाक, भायर टॅक्सींत बसोवपाक पूत स्टेशनार आकाबो-सान सोदूंक लागलो. आकाबो-सान म्हळ्यार हमाल. हावा शिवा करून मेळ्ळो. ओसाका स्टेशनार स्टेशन-मास्तर एक. तसो आकाबो-सानूय एक. स्टेशन-मास्तराचो भेस चार चौगांसारको. आकाबो-सानाचो मात्सो नदरेंत भरता असलो. पळेल्यार तो स्टेशन मास्तराचो बॉस कसो दिसतालो. नांवूय आकाबो-सान. म्हळ्यार 'हमाल-बाब.' मराठींत 'हमाल साहेब'.

हो एक आडवाद सोडीत जाल्यार आकाबो-सानूय जपानांत आनीक खंयच पळेलो ना.

परिणामी, गाडयेंत भोंवपी जण एकलो आपणालें सामान आपुणूच उखलून चडटा, देंवता आनी आपणालें सामान आपणाकूच उखलचें पडटा जाल्ल्यान आपणाक उंखलूंक येता तितलेंच सामान घेवन भोंवता. नाजाल्यार –

मुम्बयच्यान हालिंसाराक गाडयेन गोंयां येवंक ना. पयलीं येतालों तेन्ना पुण्याक गाडी बदलची पडटाली. एकएकलो गोंयकार तीन तीन चार चार ट्रंक घेवन येतालो. पुण्याचे हमाल म्हज्या एका बॅगाचेर नदर लेगीत घाली नाशिल्ले. म्हाकाच म्हजें बॅग उखलून व्हरचें पडटालें. म्हूण हांवूय म्हज्यान उखलूंक जातलें इतलेंच सामान घेवन भोंवंक शिकलों. आमकां गोंयकारांकूच म्हूण न्हय. हिन्दुस्तानांतल्या कोणाकूच कितलें सामान घेवन गाडयेंत चडचें, हें कोणेंच शिकयलें ना. कितलेंय घेवन भोंवले तरूय तांकां पर्वा दिसना. कित्याक, वचत थंय हमाल मेळटात. तीर्थयात्रेक भायर सरात. तुमची सुवात रिझर्व्ड् आसली तरूय उरिल्ली सुवात दुसऱ्यान कोणे रिझर्व केल्ली आसतली आनी तो येतना घराच्यो वणटी सोडून अख्खें घर घेवन तीर्थयात्रेक भायर सरिल्लो पळोवंक मेळटलो.

हमालिच्या धंद्याचेरूच बंदी हाडूंक जाय अशें म्हजें मत्त जालां. नाजाल्यार आमची ही सुमारा भायर सामान घेवन भोंवपाची संवंय मोडपाची ना.

जपानांत हांवें हमाल खंयच पळेलो ना तशी वावराडीय कोणागेर पळेली ना. हांव पावणों आशिल्लों किनोकुनिया कंपनिचो. ही कंपनी एक सुपरमार्केट चलयताली. सुपरमार्केटाचो धनी कितलो गिरेस्त आसतलो, अदमासूच केल्लो बरो. पुणून रावतालो मदल्या वर्गांतल्या चारचौग लोकांभाशेन. तागेलो क्लार्क रावतालो तसल्याच एका घरांत. क्लार्कगिर वावराडी नाशिल्ली. तशी हागेरूय नाशिल्ली. आयदनां घांसपाचीं कामां घरचींच मनशां करतालीं. म्हूण, आयदनांय उण्यांत उणीं वापरतालीं. थंय वावराडी पळेली ती आमच्या देशांतले एकले 'शेठाणी'गेर. घोव मोतयांचो धंदो करपी. पयशे खूब आशिल्ले. पुणून संस्कार नाशिल्ले. हिन्दुस्तानांतले वरीच थंय रावतालीं – श्रीमंतिचें प्रदर्शन करून. तागेर वावराडी येताली दिसांतल्यान दोन खेपे – दनपारचें अर्द वर, सांजचें अर्द वर. आपणाले गाडयेन येताली, तेच गाडयेन वताली. पगार घेताली म्हयन्याक तेन्नाच्या तीन हजार रुपयाच्या मोलाचे 'यॅन' !

जपानान हमालांच्या आनी वावराड्यांच्या धंद्यांचेर बंदी घालूंक ना. प्लॅनिंगूच अशे तरेन केलां की कोणाक हमाली करची पडना, कोणाक वावराडी जावचें पडना. सगळ्यांक कामां दिल्यांत. 'मैं अपने बेटे को पढाऊंगा, सिखाऊंगा... बडा अफसर बनाऊंगा' अशें म्हणपाचो खंयच्याच बापायचेर प्रसंग येवंक दिवंक ना. 'अफसर' कोणाक करूंक नात. सगळ्यांक उत्पादनाचीं कामां दिल्यांत. सगळ्यांक कामां मेळूंक जाय हे तरेनूच आपणालें उद्देगीकरण केलां.

कामां दिवप हें प्लॅनिंगाचें मुळावें तत्त्व. फकत उत्पादनाचेर नदर दवरप हें न्हय, हें अर्थशास्त्र जपानान बेस बरें चलयलां.

जपान हो शारांचो देश. आमच्या देशांत आसात तसले गांव थंय नात. जे आसात ते शारांच्या उपनगरां सारके. 'सबर्बां' सारके. थंयसरल्या लोकांची 'लायफ-स्टायल' शारांतल्या लोकां सारकीच.

चीन शारांचो देश न्हय. तो आमच्या देशा सारकोच लाखांनी गांव आशिल्लो एक देश. शारां थंयूय आसात. आमच्या शारां सारकीं. कॅन्टोन तर बद्द आमचे मुम्बय सारकें. पुणून चीनांतूय हांवें खंयच हमाल पळेले नात. वावराड्योय पळेल्यो नात. तें कित्याक, भंगीय हांवें थंय खंयच पळेले नात. तीन सप्तकां भोंवलां हांव ह्या देशांत. गांवूय कितलेशेच पळेल्यात. एका शारांतल्यान दुसऱ्या शारांत वतना हांवें वाटेर मदींच गाडी थांबोवंक लायल्या आनी वाटे वयले गांवूय पळेल्यात. ल्हान ल्हान घरांचे गांव हे. गाडी थांबली जाल्यार भुरगीं भुरूभुरू करून पळोवपाक येतात तीं पळेल्यांत. दर एका घरा फाटल्यान संडास पळेला. स्वच्छ आनी निर्मळ. घरचीं मनशांच मळ काडटात आनी शेतांत पुरतात. मळ काडपाची आनी तो पुरपाची रितय बद्द आमच्या खंयच्याय गांधी आश्रमांसारकी. शास्त्र-शुद्ध. संडासांत दोन बालद्यो. एक मुखार, मुता खातीर. दुसरी फाटल्यान, मळा खातीर. मळाचे बालदेंत पोंदा आनी कडेक तण. ताचेर मातयेचो एक थर. मळाचेरूय माती. बालदी उखल्ली, लागसारच्या चरांत ओतली. भायले भायर ताचें 'भांगरा सारें' जाता. मुताच्या साऱ्याचें 'रुप्याचें सारें' जाता. इतलें मोलादीक सारें चीनी लोक फुकट वचूंक दिनात. असलें सारें मेळटकूच रासायनीक सारीं कोण वापरतलो? चीनी लोकांनी आपणाली जमीन ह्या रासीक साऱ्यान सुपीक केल्या. हांवें एका गांवांत एकल्याक (दुभाषाच्या आधारान) अप्पासाहेब पटवर्धनाच्या 'गोपुरी' संडासाची खबर सांगली. म्हळें, असलो संडास आसतकूच सद्दां बालद्यो उखलच्यो पडनात. स म्हयने एक संडास वापरप. मळाचेर माती मात सद्दां घालप. स म्हयन्यांनी ताका तेंकून आशिल्लो दुसरो वापरप. हो भरून येतासर पयल्या संडासांत भांगराचें सारें तयार जावन मेळटा. खोऱ्यान तें काडचें आनी झाडांक दिवचें. जाका हांवें ह्या संडासांची खबर सांगली ताणें म्हाका प्रस्न केलो – 'तुमच्या देशांत हेच तरेचे संडास सगळेकडेन आसात?' कितें जाप दिवं? आमच्या पिरवळांत लेगीत सॅप्टिक टॅंकी आयल्यात म्हूण सांगूं? पणजे मडगांवां आयल्यात ताचें अजाप ना. पुणून पिरवळांत तांची गरज नाशिल्ली... पिरवळूय आतां 'सुधारूंक' लागलां म्हूण सांगूं? सॅप्टिक टॅंकी येवंक नाशिल्ल्यो ते मुस्तींत पिरवळच्या लोकांनी जळार पळोवंक नाशिल्लें... आतां घेऽ म्हूण जळारां जातात... 'सगळे कडेन अजून येवंक नात... खंय खंय आसात' इतलीच हांवें ताका जाप दिली आनी कानाक पीळ घालो. म्हळें, दुसऱ्यांक सुचोवण्यो करपाचीं असलीं पिशेपणां हे मुखार खंयच करप ना.

अवचीत एक विचित्र प्रस्न मुखार उबो रावलो. म्हळें, गांधी कांय हांगा पावूंक ना. कोण गांधीवादीय पाविल्ल्याचें आयकूंक ना. येवन गेल्यात जातले. पुणून बोधिधर्म बी जशे येवन हांगा राविल्ले तसो कोण येवन रावूंक ना. मागीर, जण एकल्यान आपणेच आपणालो हमाल जावंक जाय, आपणेच आपणाली वावराडी जावंक जाय, आपणेच आपणालो भंगी जावंक जाय – हमालिचें, वावराडेचें आनी भंग्याचें काम करपी वेगळे कोण आसूंक जायनात – हें ह्या लोकांक कोणें शिकयलें? चीन हो आमच्या देशा सारको आकांत लोकवसती आशिल्लो एक देश. हांव पावलां ताच्या धा वर्सां आदीं चीनाची लोकवसती शंबर कोटिंचेर पाविल्ली आनी थंयच थांबिल्ली. थिरावल्ली. शंबरांतले अंयशीं लोक गांवांतूच रावतात. पोटा खातीर गांव सोडून भायर

वाचो कोणाचेर प्रसंग येवंक जायना, जण एकल्याक गांवांतल्या गांवांत का मेळूंक जाय, शेतकाम हें मुखेल काम आसूंक जाय आनी ह्या कामाक सांत दिवपी दुसरे उद्देग ताचे भोंवतणी गिऱ्यां सारके चलूंक जाय, हें ची फुडाऱ्यांक कोणें शिकयलें? चीनांत व्हडले व्हडले सगळ्या तरांचे कखाने चलतात. पुणून गांवांतले धंदे तांणी ना करूंक नात. गांवांत लन-ल्ह.नूच उद्देग चलूंक जाय हें अर्थशास्त्र चीनाक कशें येवजलें? म्हाकाच जाप मेळ्ळी. तिवूय विचित्र मेळ्ळी. म्हळें, बुद्ध ज्या काळार हिंदुस्तानांत काम करतालो, त्याच काळार हांगा कोन्फूत्सू काम करतालो. च काळार ग्रीस देशांत सोक्रतीश् काम करतालो. तिगांकूय एकामेकांची र नाशिल्ली. पुणून तिगांचीय उपदेस करपाची तरा एकूच आशिल्ली. च तरेन ते लोकांक प्रस्न विचारताले आनी लोकांकडल्यान जापो काडून तांकां चिंतचें कशें तें शिकयताले. माओन गांधीकडल्यान कांयच घेवंक गांधीक जें येवजलें तें ताका खेरीत रितीन येवजलां. माओन मार्क्साकडल्यान चो विचार घेतलो. पुणून चीनी भुंयेंत रुजत असोच रोयलो. हाका लागून देश मार्क्सवादी जावंक पावलो. आमच्या मार्क्सवाद्यां भाशेन तो न्सप्लांट' केलो ना. आमच्या देशांत फकत मार्क्सवादीच मार्क्सवादी ले. देश मार्क्सवादी जावंक पावलो ना.

टॅक्सी धारावी सोडून हायवे वेल्यान धांवपाक लागली. हवा बुरशीच शिल्ली. घाणी मारताल्यो. पुणून उकतें मळब दिश्टी पडलें. बांद्रा कॉलनी स दिश्टी पडपाक लागली. ते बरोबर तकली तिसरेच कडेन धांवली. तिसरोच एक प्रस्न सोडोवपाक लागली. म्हळें, आमच्या देशा सारको सो देश संवसारांत खंयच पळोवंक मेळचो ना. आमच्या देशांतल्या लोकांक साकडेन खंय वचचें हें कोणेंच केन्ना शिकयलें ना. उदक खंय आनी तल्या प्रमाणांत वापरचें, कोणेंच केन्ना सांगलें ना. घरांतलो कोयर खंय ोवचो, कोणाक खबर ना. आमी घर भितरल्यान निवळ दवरतले. घरा लो वाटार निवळ दवरतले म्हणपाचें खरेपण ना. ह्या देशांतल्या लोकांक ळ्यांत पयलीं शिकोवंक जाय तें स्वच्छ कशें रावचें – घरा भोंवतणचो ार निवळ कसो दवरचो हेंच. म्हूण ताका सगळ्यांत पयलीं आपणालोच जावंक शिकोवंक जाय. आपुणूच आपणालो हमाल जावंक, आपुणूच णाली वावराडी जावंक शिकोवंक जाय. ल्हानपणा पासून हें शिक्षण क जाय. म्हणटकूच, कितल्याश्याच सामंती संस्कारांतल्यान तो मेकळो ंक पावतलो. ताच्यो कितल्योश्यो बुरश्यो संवयो सुट्टल्यो. जीं कामां ी उणाक मानल्यांत तीं करपाक लागतकूच आमच्यांत कितलेशेच बदल न येतले. देशांत खंय तीन हजार जाती आसात. तांचेकूय तिपेटीन पोटजाती ात. त्या त्या जातिंचीं आनी पोटजातिंचीं कामां आमी थारायल्यांत आनी तांतलीं कांय कामां ऊंच कांय उणाक मानल्यांत. मनशां मनशां मजगतीं ऊंच उणाकपण दिश्टी पडटा तें तांच्या कामांक लागून तांकां दसलां. कामां कामां मजगतीं ऊंच उणाकपण आसूंक फावना. तें वचूंक जाय. म्हणटकूच मनशां मनशां मजगतचेंय ऊंच उणाकपण वतलें. ब्राह्मण ऊंच जातिचे म्हूण तेवूय मानताले. दुसरेय – ब्राह्मण न्हय तेवूय – मानताले. हांणी ब्राह्मणांचो दुस्वास केलो. ब्राह्मणपणाचो केन्ना केलो ना. परिणामी, ब्राह्मण जावपाचोच हावेस ब्राह्मण न्हय तांणी मनांत बाळगिलो. संद मेळनाफुडें सगळे ब्राह्मण जावपाचो यत्न करपाक लागले. शिक्षण सगळ्यांक मेळूंक लागिल्ल्यान आयज शिकिल्ले सगळेच ब्राह्मण जाल्यात. म्हणुंया, नव-ब्राह्मण जाल्यात. जावंक जाय आशिल्लें उरफाटें – जीं कामां आयजवेर आमी उणाक लेखलीं तींच ब्राह्मणांनी करूंक जाय आशिल्लीं. त्या कामांचें व्हडपण वाडटलें आशिल्लें. आनी दुसऱ्यां कडल्यान आपणालीं कामां करून घेवपाची, आपणालीं कामां करतात तांकां उणाक लेखपाची, तांचेर शेक चलोवपाची संवयूच ना जावन पडटली आशिल्ली. जाती-वेवस्ताच मोडून प्रडटली आशिल्ली.

हांवें आश्रमांत जयप्रकाश नारायणांक संडास निवळ करतना पळेल्ले. राजेंद्रबाबूंक नळा सकल बसून पुडवें उमळटना पळेल्ले. (राष्ट्रपती जाले उपरांतूय तांची ही संवय उरल्या) किशोरलालभाईक घरकान्नी म्हऱ्यांत बसून रोटयो लाट्टना पळेल्ले. मनीस जेन्ना असले तरेचीं 'उणाक' कामां करपाक लागता तेन्ना ताका खंयचेंच काम उणाक दिसना. ताच्यांत कितलेशे बदल घडून येतात. ताच्यो संवयोय बदलतात.

आनी मागीर तकलीय 'विज्ञानीक' तरेन काम करपाक लागता.

म्हणटासर घर आयलें. हांवें टॅक्सी थांबयली. टॅक्सिचे पयशे फारीक करून दत्तारामाच्या फ्लॅटाची बॅल वाजंयली. म्हाका पळोवन ताका अजाप जालें. 'आरे! तूं?'

'हय... यो, यो म्हणटालो न्हय? आयलों...'

'कितल्या दिसां खातीर आयला?'

'आयिल्लों पांच सात दिसां खातीर. पुणून सायनच्यान हांगा ये मेरेन वाटेर तकलेंत जें घोळ्ळें तें बरोवन काडपाक दोन तीन म्हयने तरी रावचें पडटलें.' हांवें जाप दिली.

'राव... तीन न्हय, स म्हयने राव... तुका जाय जाय तें हाडून दितां. कागदाचें रीम हाडून दितां. पेनां हाडून दितां आनी तूं मागता तीं संदर्भ पुस्तकां हाडून दितां', ताणें खोशशी जावन म्हळें.

रावंक जाय आशिल्लें. पुणून, कितें करूं? बरयतलों म्हळ्यार म्हाका तेंच मेज जाय. तेंच कदेल जाय. तेंच वातावरण जाय. मुम्बय दिल्लींत हांव 'हॉलिडे' मुडांत आसतां. थंय कांयच बरोवन जायना.

✲ ✲ ✲

---

# साद

कार,

म्हजो वावर म्हजीं उतरां' ह्या योजनापूर्वक सुरू केल्ल्या सदरांतलो बाब एरीक फेर्नांदीश हांचो 'कुंभार – एक कुशल वेवसायीक' हो म्हायतीन ट भरिल्लो लेख वाचलो. म्हजीं तांकां परबीं.

मः कुलालेभ्यः म्हणून कुंभार स्वरुपांतल्या रुद्रांक नमस्कार करतात तें ओगीच न्हय... जात्रेक दिवजां तशींच संक्रांतीक 'सुगडां'य कुंभारूच दिता. ड', 'बुडकुलो' बी शब्द लेखांत येवंक नात.

ाबार तरांचीं आयदनां बाजारांत आयल्यांत हें खरें. प्लास्टिकाचीं आयल्यांत ताचो राग येता.

ंय म्हणी: 'कुंभाराक मडकें धड ना', 'कुळणें, मडकी वाऱ्यार; गांव गांवकाराच्या मड्यार'.

श्यो आनीक म्हणी फेर्नांदीशांक खबर आसल्यार कळोवच्यो.

रें मागून,

तुमचो
**मनोहर पै धुंगट**
मुंबय

# भुरग्यांलो खेळ

शीला कोळंबकार

मे म्हयनो. दनपार. वोताचो रखरख. मळबांत धवींच आनी कारेंगाद निळीं कुपां आयल्यांत. तांकां पळेन दिसता. पूण दनपारचो हुलोप बाल्कनींत रावंक दिना. कितें करचें, कांय कळना. न्हिदूंक गेल्यार न्हीद येना. जेवंक गेल्यार जेवीन दिसना. लागता ती फक्कत तान...

अशा वेळार दारार कोणें तरी टकटक केलें. दार उगडून पळेत जाल्यार बिल्डिंगेंतलीं भुरगीं. भुरगीं म्हळ्यार कोण केजींत शिकपी, कोण पयलेंत गेल्लीं, जाल्यार कोण दुसरेंत.

'आण्टी, आमी मात्सो वेळ तुमगेर खेळूं?' तांणी विचारलें. तांच्यो निरागस नदरो पळोवन 'ना' म्हणूंक बरें दिसलें ना. तीं भितर आयलीं.

दिसलें, भुरगींच तीं... खेळटलीं तीं मातशीं आनी वतलीं आपआपल्या घरा... म्हजोय तितलोच टायम पास.

'तुमी जेवलीं?' हांवें तांकां विचारलें.

'हय आण्टी... आण्टी तूं जेवली?'

'हय', हांवें म्हळें. 'तुमी खेळात. हांव पुस्तक वाचतां.'

तीं खेळूंक लागलीं. हांव पुस्तक वाचूंक लागलें. पुस्तक वाचतां वाचतां म्हाका न्हीद येवंक लागली. हांवें भुरग्यांक म्हळें, 'तुमी खेळ्ळीं तितलें पुरो. आतां घरा वचात. म्हाका न्हीद आयल्या.'

'आण्टी, कितलीं वरां जालीं?'

'अडेज.'

'बापाय! आतां आमी घरा वचनात. हांगाच खेळटात.'

'कित्याक?'

'मम्मीन आमी भायर सरून वतनाच सांगिल्लें, भायर खेळूंक वतात जाल्यार वचात. पूण दोना प्रयलीं घरा येयात. उपरांत आयल्यार दार उघडचिना.'

'कित्याक?'

'मम्मीक आज सुटी. मम्मी न्हिदल्या न्ही? तिका कशें उठोवप?'

शाणी पोरां! म्हणजे आतां हांची मम्मी उठसर हांव जागें! म्हजे न्हिदेचें पडलें पाड!

'पूण आण्टी, तूं भियेनाका! तूं हांगा न्हीद. आमी ते दुसरे कुडींत खेळटां. आमी आवाज करी नासतना खेळटां.' तांणी म्हाका सांगलें. हांचेकडेन कितें पातयेवं येता? हांवूय बी तांचे वांगडा ते कुडींत गेलें. ते कुडींत हांवें टीव्ही चालू केलो. पोन्नीं हिंदी पदां लागिल्लीं.

'आंवंय! आण्टी, हीं असलीं कसलीं पदां तूं आयकता?' एकल्यान म्हळें.

'ए, अशें म्हणूं नये. तीं आण्टील्या तेंपावेलीं पदां. आमकां आतांचीं पदां आवडटात. आमी जाण्टीं जालीं आनी आमचे परस ल्हान भुरगीं आयलीं म्हणटकच आमचीं पदां तांकां आवडचीं नात.'

हीं पोरां कितें उलयलीं तें समजूंक म्हाका एक मिनीट लागलें.

'आण्टी, तान लागली. उदक दी.' एकल्याक तान लागली काय सगळ्यांक तान लागता. आनी आतां हांकां परती परती तान लागपाची. तितलेच उदकाचे पेले धुवपाचो त्रास.

'आण्टी, आमी तुगेले शोकेसींतलीं खेळणीं खेळपाक घेवं?'

हांवें तांकां शोकेसींतलीं खेळणीं खेळूंक दिलीं. शोकेसींत बरीं खेळणीं आसात. गॅस, गॅसाची शेगडी, ग्रायंडर, रांदचीं वाडचीं सगळीं खेळणीं तांणी तीं खेळणीं काडलीं आनी खेळ मांडलो. शोकेसींत एक खोडू आशिल्लो-तो खोडू घेवन तांणी जमनीर खण काडले. 'ही रांदची कूड, ही न्हिदपाची कूड, हें मान्नें, हो ड्रॉइंग रुम, ही बाल्कनी.'

रोहन पपा जालो. प्रिया ममी. राजी तांची चली. आनी रोहित, दिपा, पपू तांचे शेजारी. हांवें म्हळें, 'हांवूय येतां तुमचे बरोबर खेळूंक.' तांणी मोठे उमेदीन म्हाका खेळूंक घेतलें.

'आण्टी, आण्टी, तूं आजी जा.' तांणी म्हाका सांगलें.

'आनी आण्टी, तूं आतां आजी. म्हणटकीच तूं म्हातारी. दुयेंत. तुवें फक्कत खाटीर बसून रावंक जाय. उठूंक उपकरना.'

'कित्याक गो बाये?'

'आमची आजी खंय उठ्ठा? आनी उठली जाल्यार म्हजी ममी तिका ते कुडींतल्यान भायर येवंक खंय दिता?'

'म्हळ्यार तुजी आजी भितल्ले कुडींतूच आसता?'

'हय तर!'

'थंय बसून ती कितें करता?'

'थंय बसून ती रडत आसता.'

'कित्याक?'

'ममी म्हणटा वैजिणीन तिगेल्या दोळ्यांक शेक मारूंक ना. पूण ममी भायर सरून गेल्ली आसता तेन्ना पपा तिका भायले कुडींत हाडून बसयता आनी टीव्ही लावन दिता.'

हांव आजी जावन खाटीर बसतां.

मागीर प्रिया म्हळ्यार ममी रांदता. रांदतना तें राजीक सांगता, 'राजी, शिकूंक बस. तुगेलो होमवर्क कर. बरो वयर नंबर हाड. शिकूं नाशिल्ल्या मनशाक ह्या जगांत निस्तर काडूंक जावचें ना.' ममी कुकर लायता. भाजी, चपाती करता. दाळीक फोडणां घालता. मागीर ममी ऑर्द सोडटा, 'राजी, पपाक जेवंक यो म्हूण सांग'. राजी 'पपा' म्हूण भायर सरता.

'हें आनीक एक पिसांट... आगो, तूं थंयच्यान खंय वता? थंय रिस्क आसा ती तुका दिसना? ती रिस्क म्हळ्यार वणत. ते वण्टींल्यान तूं भायर वतलें? दाराची सुवात उगडी आसा थंयच्यान वच.'

राजी फाटीं परतता आनी दारांतल्यान भायर सरता.

'पपा, पपा, तुका ममी जेवंक आपयता.'

पपा जाल्लो रोहन पेपर वाचीत बसला.

पा, जेवंक चल'. राजी सांगता. पपा बशिल्ले सुवातेवेल्यान हालना. राजी भितर वता.

प्रिया, अं... अं... ममी, पपा जेवंक यो म्हळ्यार येना.'

आयकलां?' — ममी भितरल्यान आड्डता.

किते गो?'

जेवंक येयात म्हळ्यार...'

तूं आनी कितें बाये! पेपर लेगीत वाचूंक दिना.'

अशें त्या पेपराक कितें भांगर लागलां देवाक खबर! खावची जेवची शुद्ध हांकां उरना बाये... आतां तुमी जेवंक येतात काय ना?'

येतां बाये...' अशें म्हणून पपा जाल्लो रोहन पेपर आपटीत उठटा. जेवंक यो म्हळें म्हणटकीच येवन बसले आपले ते मेजार! तुमी हातपांय धुले? आनी तुवें गो राजी? चलात पयलीं हातपांय धुवन येयात.'

दोगांय मान्न्यांत वतात. हातपांय धुल्लेवरी करून जेवंक बसतात. तांकां वाडून दिता. 'आण्टी, तूं आजी न्ही? तूं म्हण तुकाय भूक लागल्या म्हूण!'

मागीर हांवें म्हळें, 'म्हाका वाडिना? म्हाकाय भूक लागल्या.'

हय! हे म्हातारेक सगळ्यांत पयलीं भूक लागता.'

आगो, जाण्टी ती. दी तिका पयलीं वाडून.'

तुमकां कितें दिसता, हांव तिका उपाशीं दवरतां म्हूण! वाडटां तिका. आवयचो कळवळो कितलो तर!'

म्हजे आवयचो कळवळो म्हाका आसचो ना जाल्यार कोणाक आसतलो? तुजे आवयचो कळवळो ना? तुजे आवयक कितें जालां म्हूण कळ्ळ्यार आमकां हांगा उबेंतेर उडोवन तूं धांवत वचना तिचे म्हऱ्यांत?'

हें पळयात! खबरदार म्हजे आईविशीं एक उतर काडल्यार! म्हज्या पांची सगळी उस्तवारी म्हजे आईन केल्या. तुमचे न्हय! भुरगीं ल्हान तना आमचे म्हऱ्यांत येवन राव म्हळ्यार आयली ना. तेन्ना तिका लो पूत येवजलो. धाकले सुनेन बरें केलें. आपलीं भुरगीं व्हड जातासर दवरून घेतली. आनी जाण्टी जातकीच तिका म्हज्या गळ्यांत बांदली... तिले स सोड, चार म्हयने तरी ताणें हिका आपले म्हऱ्यांत व्हरून ल्यार जायना? आमगेर हांगा सुवात लेगीत ना. थंय तांचो केदो लो आसा... बरें, ही आयल्या ती आयल्या... आयल्या तिवूय बी सगळें शिंगर धुवेक दिवन आयल्या... धाकलो पूत आयलो काय कशी फुलता . ताणें हातार चारपांचशें तेंकयले काय कितली खुश जाता ती!...'

'आगो, कितें उलयतलें तूं? म्हजो भाव तिका पयशे दिता ते तूंच न घेना? आनी भांगराचें म्हणशीत जाल्यार तिच्या गळ्यांतली कंठी हातांतली पाटली तुकाच मेळटली न्ही?'

मेळटली म्हणजे? हांव सोडटां काय कितें? आनी कितें हो, हिका ची कसली गरज? पोटली बांदून दवरून वयर वतना घेवन वतली कितें?'

अशें म्हणून कितें कितें बडबडत ताणें एक पेपर, म्हळ्यार जेवणाचें म्हजे म्हऱ्यांत आपटिलें. 'घे! गीळ!' ताणें म्हळें.

ममी, म्हाका पापड जाय.' राजीन म्हळें.

राव आं शाण्या, तुका दितां पापड.' ममीन म्हळें.

म्हाकाय पापड जाय.' हांवें, म्हळ्यार आजयेन म्हळें.

पापड आनी तुका? आनी तुजें बी.पी. वाडलें जाल्यार कोण म्हजो काडटलो? कांय नाका पापड बिपड.' ममीन म्हळें. ताणें शेगडेर करून पापड भाजिल्लेवरी करून राजीक दिलो.

ममी, म्हाका आनी एक पापड जाय.' राजीन अशें म्हणटकीच ममी रांदचे कुडींत गेली. राजीन आपल्या हातांतलो पापड मोडिल्ले करून एक अर्द म्हाका दिलें.

'आज्जे, हो घे पापड. लिपय तो बेगीन. ममी येता दिसता.'...

'आगो, तूं म्हजे आईक पापड कित्याक दिना?'

'तुमचे आवयक दोतोरान पापड आनी लोणचें दिवं नाका म्हळां. तिका प्रेसांवाचें आसा न्ही? दोतोरान सांगिल्लें आयकूं नाका?' ममीन विचारलें.

'दोतोरान सांगिल्लें तिका फ्रुटां खावंक दी म्हूण! तीं तूं तिका खंय दिता? प्रेसांवाच्यो गुळयो सोंपल्यो जाल्यार तुका त्यो हाडूंक याद उरना. तेन्ना तुका दोतोराली याद जायना? आगो, ती म्हातारी जाल्या आतां. केन्ना कुट्ट करत सांगूं नज. जाण्टेल्यांचे जिबेक कितें कितें खायन दिसता. दोतोरान नाका म्हळें म्हूण कितें जालें? तिका कितें खायन दिसता तें करून घाल तिका.' पपान म्हळें.

'तिका कितें खायन दिसता खबर आसा तुमकां? ती म्हाका खातली आनी मागिरूच मरतली.'

तीं सगळीं जेवतात. हांवूय बी जेविल्ले वरी करतां.

'जेवतकीच तुमी सिगार फुंकीत बसूं नाकात. आनी हें पळेयात, ऑफिसाक वतना राजीक शाळेंत पायात. येतना परथून ताका घेवन येयात. आनी भाजीय बी तुमीच घेवन येयात.' ममीन म्हळें.

'आनी तूं घरा बसून रावतलें? तुका नोकरी ना. घराच बसून आसा. घरचीं कामां तरी कर. तितलोच म्हाका सुटको.' पपान म्हळें.

'ए रोहन, अशें कितें उलयता रे तूं? तूं पपा. हांव ममी. आनी हांव घरा बसून ना. हांवूय बी नोकरी करतां. कळ्ळें मरे? आतां तुवें म्हाका म्हणप, नोकरी सोड म्हूण!' प्रियान सांगलें.

'आनी रोहन, तुवें प्रियाच्या मैत्रिणीक बी कितें कितें म्हणूंक जाय. म्हजो पपा म्हजे ममीचे मैत्रिणीक कितें कितें म्हणटा. मागीर ममी कितली तापता म्हूण सांगूं?' राजीन रोहनाक सांगलें.

'बरें तर प्रिया, आतां हांव तुका नोकरी सोड म्हूण सांगतां.' रोहनान म्हळें. रोहनान कितें म्हणचे पयलींच प्रियान म्हळें, 'आयकलां, राजीची वॉटर बॅग मात्शी भरात पळोवया.'

'शी! असलीं बायलांचीं कामां हांव करचोंना आं.' पपान म्हळें.

'आतां हांव कितें कितें म्हूण करूं? रांदूं, राजीची तयारी करूं, ऑफिसांत वचूं काय आनी कितें करूं? म्हाका कितें चार हात आसात?' ममीन म्हळें.

'तुका नोकरी कोण कर म्हणटा? नोकरी सोड. म्हाका भरपूर पगार आसा. हो फ्लॅट आसा. आमचो अपुरबायेचो एकलोच चलो. तो लग्न जालो काय रावतलो हांगा! आमी गांवांत वचून रावुंया. तूं सुसेगाद घरा राव. घर बरें करून सांबाळ.' पपा जाल्ल्या रोहनान म्हळें.

'पिसो मरे तूं रोहन. राजी आमची चली न्ही रे? आनी हो मर्दीच चलो खंयच्यान आयलो?' प्रियान म्हळें.

'आगो, म्हजो डॅडी म्हजे मॉंक अशें म्हणटा.' रोहनान सांगलें.

'म्हजोय पपा तशेंच म्हणटा म्हजे ममीक.' इतलो वेळ पयस बसून तांचो खेळ पळोवपी रोहितान म्हळें.

'रोहित, आतां तूं पपा जा. राजी तूं ममी. हांव आनी रोहन तुमचीं भुरगीं. रोहित, तूं येता मरे खेळूंक?' प्रियान विचारलें.

आतां रोहितय फुल्लो. नव्यान डाव सुरू जालो. रोहित पपा, धाकलें राजी ममी आनी रोहन, प्रिया तांचीं भुरगीं. तांचो खेळ सुरू जालो. 'आनी हांव रे? हांव परथून आजी जावं?' हांवें विचारलें.

'आण्टी, तूं आजी जा. पूण आतां जाल्ली तसली रडपी आजी न्हय. तूं आजी, म्हळ्यार तुवें पपाक, ममीक तापोवन काडूंक जाय. कळ्ळें तुका?' रोहितान म्हाका विचारलें.

'ना मरे. म्हाका कांय कळूंक ना. तापोवन काडप म्हळ्यार कितें करप हांवें?' हांवें तांकां विचारलें.

'म्हळ्यार, तुका पपा ममीन कितेंय म्हळें जाल्यार तुवें म्हणपाचें, 'हें पळेयात, हें घर म्हजें. म्हज्या घोवान म्हाका दवरलां. म्हज्या घरांत तुमी रावतात. हांव तुमच्या घरांत रावना. तुमकां पट्टा जाल्यार तुमी ह्या घरांत रावात. नाजाल्यार तुमची वाट तुमकां मेकळी.' रोहितान म्हाका सांगलें.

'राव रे, हें अशें कोण म्हणटा?' हांवें विचारलें.

'म्हजी आजी. मागीर म्हजी आई ओग्गी रावता. प्रियाचे आज्जे भशेन रडत बसना. म्हजी आजी म्हणटा, प्रियाले ममी असली सून म्हाका मेळूंक जाय आशिल्ली. हांव तिका सुतावरी सरळ करपाचीं. आण्टी, एकेक खेप म्हाका कितें दिसता सांगूं?'

'सांग रे!'

'म्हाका दिसता, थोडे दीस म्हजे आज्जेक प्रियागेर धाडची आनी तितले दीस ताजे आज्जेक आमगेर हाडून दवरची. आनी म्हजी आजी प्रियाचे ममीक कशी सरळ करता ती पळोवंची.'

म्हाका रोहिताची लक्तुबाय दिसली. हांवें ताका विचारलें, 'आनी कितें म्हणटा रे तुजी आजी?'

'आजी तशें चड कांय उलयना. पूण ममी मात म्हणटा, तुजे आज्जेचे परवानगे बगर वारो लेगीत भितर येवचो ना. म्हजी आजी म्हजे ममीक टीव्ही पळोवंक लेगीत दिना.'

'कित्याक रे?'

'ती म्हणटा, टीव्हीचेर कित्याय कितें दाखयतात. हो हाचे बायले फाटल्यान धांवता. तो ताचे बायले फाटल्यान धांवता. हाची बायल ताचे फाटल्यान धांवता. ताची बायल हाचे फ़ाटल्यान धांवता. असल्यो सिरियल्स पळोवन आयच्या बायलांचीं बोडां विरार जातात. म्हजी आजी जर सरकार आशिल्ली जाल्यार असल्यो सिरियल्स बंद करपाची.' रोहितान सांगलें.

'आण्टी, आण्टी तूं सुखी खंय न्ही?' राजीन विचारलें.

'कित्याक गो?'

'म्हजी ममी म्हणटाली तुका मांय ना देखून तूं सुखी म्हूण.'

'अशें? आसत! आसत!! आतां तुमी खेळनात?' हांवें विचारलें.

'आण्टी, तुगेर बिस्किटी आसात? म्हाका भूक लागल्या.' राजीन म्हळें. हांवें तांकां बिस्किटी दिल्यो. सरबत केलें आनी तांकां दिलें. तांणी बिस्किटी खाल्यो. सरबत घेतलें. आनी वेल्यान म्हाका सांगलें, 'आण्टी, आमी तुगेर बिस्किटी खाल्यो म्हूण ममीक सांगूं नाका आं.' हांवें मान हालयली.

परतून एक खेप ममी जाल्ल्या राजीन रांदलें. आनी ताणें म्हाका येवन विचारलें, 'आई, जेवण जालें. वाडूं?' हांवें 'वाड' म्हणटकीच ताणें ताटां दवरलीं आनी वाडलें. आनी तें कुशीक उबें रावलें. हांवें म्हळें, 'तूं कुशीक कित्याक उबें? तूंय जेव आमचे बराबर.'

'हे आण्टीक म्हूण कांयच कळना. ताणें तशेंच उबें रावंक जाय. सगळ्यांलें जेवन जालें काय ताणें जेवपाचें.'

आमचें जेवन जातकीच ममीन प्रियाक आनी रोहनाक शाळेंत वचपाक तयार केलें. तांचे टिफीन, वॉटरबॅग दिली. पपान स्कूटर काडली. स्कूटर म्हळ्यार आमची तीन चाकी सायकल. ती ताणें स्टॅंडावेल्यान काडिल्लेवरी केली. आनी जीब भायर काडून किक् मारली. तोंडान टर्र टर्ऽ आवाज केलो. प्रिया फाटल्या सिटार बसलें आनी रोहन फाटले दांडयेर उबो रावलो. दुसरे कुडींत तांकां सोडून रोहित आयलो. स्कुटरीर बसून ता[...] तोंडान पेंऽ पेंऽ आवाज करीत हॉर्न मारलो. राजी भायर आयलें ना.

'हीं बायलां अशींच! हांचें केन्नाच जावचें ना' अशें म्हूण स्कूटर स्टॅंड[...] उबी करून तिची चावी काडून ते चावयेची चेन बोटार घुंवडायल्ले व[...] करून रोहित भितर सरलो.

'आगो, जालें तुजें? कितलो वगत? हांव भुरग्यांक शाळेंत पावोव[...] लेगीत आयलों.'

'तुमचें कितें? तुमचें शिजता कुंड्यार! तुमकां रांदून, सांजेची तयार[...] करून, भुरग्यांचें करून ऑफिसाक वचचें पडना.'

'आगो, पूण तुका इतले वटवटे काडूंक कोण लायता? सोड नोकरी[...] घरा बस. घरचींच कामां कर... म्हाका भरपूर पगार आसा न्ही?'

'हें पळेयात, तुमी म्हजी नोकरी परती परती वयर काडूं नाकात. आनी[...] आईमुखार जर तुमी अशें म्हळें आनी आईन म्हाका नोकरी सोड म्हळें[...] जाल्यार हांव वीख खावन जीव दितलें... सांगतां आदींच...'

'आतांच्या बायलांच्या तकल्यांनी जाणा मगो, कोयर भरला. 'स्वातंत्र्य' खंय. बायलांचें स्वातंत्र्य! कसलें स्वातंत्र्य? ऑफिसांत वतात आनी घोव[...] आनी भुरग्यांच्यो गजाली करतात. काम कांयच करिनात. वेल्यान बॉसाली[...] उलोवणीं खातात. हांव म्हणटां, सुसेगाद जीव त्रासांत कित्याक घालूं जाय? आनी तुजी ती मैत्रीण...'

'खंयची?'

'ती... ती... तांबडें लिपस्टीक लायता ती... दिसता पयलीं आलवांतीण कशी... ती गो, घोवान तिका सोडल्या ती... ती आनी तुजी मैत्रीण...'

'खबरदार म्हजे मैत्रिणीक कितेंय म्हणशात जाल्यार... आनी घोवान तिका सोडूंक ना. तिणेंच घोवाक सोडला.' ममीन म्हळें.

'एकूण एकूच... आतां दुसरीं संवसार करतात तें तिच्यान पळोवं नज[...] म्हूण ती तुका चिथायता...'

'हें पळेयात...'

इतल्यान बॅल वाजली. दार उगडून पळेत जाल्यार म्हजो घोव घरा आयिल्लो.

हांवें भुरग्यांक सांगलें, 'हें पळेयात, आतां अंकल घरा आयलो. आतां तुमी घरा वचात.'

'आण्टी, आमकां आनी खेळचें आसा. आमी आनी थोडो वेळ खेळूं?' तांणी विचारलें.

'पुरो जालो तुमचो खेळ! सगळीं खेळ्णीं आशिल्लीं तशीं शोकेसींत दवरात आनी घरा वचात आपापल्या.' हांवें तांकां सांगलें. म्हज्या उतरांनी राग आशिल्लो आसूं येता.

प्रियान म्हळें, 'चलात रे, आण्टीलीं खेळ्णीं शोकेसींत दवरात.' तांणी खेळ्णीं शोकेसींत दवरलीं. खडवान काडिल्ल्यो रिस्को पांयांनी पुसल्यो आनी वचूंक भायर सरलीं.

'थॅंक्यू आण्टी...' दार उगडीत तांणी म्हळें.

दार धांपूंक हांव मुखार सरलें, जाल्यार प्रिया बाकिच्यांक सांगतालें, 'कोणाच्याय घरांत वचून तांकां डिस्टर्ब करप बरोबर न्ही अशें ममी म्हणटा... खबर आसा?'

* * *

---

☐ समाजवाद आयलोच ना. कित्याक, आमी ताका विमानांतल्यान हाडपाक भायर सरले. सायकलीन हाडपाक गेल्ले जाल्यार घडये पावत आशिल्लो.

☐ सत्याक असत्याचो आधार घेवचो पडना. असत्याक मात सत्याचो आधार घेतले बगर चलूंक येना. असत्य हें उतर नियाळून पळोवचें. सत्य ताच्या पोटांत लिपून राविल्लें दिश्टी पडटलें.

# गोंयची नुस्तेमारी

जितेन्द्र नायक

य हो दर्यादिगेवेलो प्रदेश जाल्ल्यान गोंयचो चडसो उद्देग व्यवसाय र्या आदारून आसा. नुस्तेमारी हो गोंयचो मुखेल व्यवसाय. पूण गोंयचो ोकुस्तेमारिचो धंदो फकत पोटाखातिरूच करतात अशें म्हणपाक जावंचेंना. ावड, मानसीक धादोसकाय मेळटा म्हणुनूय कांय लोक नुस्तेमारी रता. नुस्त्या बगर गोंयकारांक जेवण रुचना. चवथीच्या दिसांनी लेगीत गणपती पावयतले आनी नुस्तें खातले अशें कांय जाणांक जाल्लें ासा.

ेखोल ते काणकोण मेरेन पातळिल्ल्या गोंय राज्याचे अस्तमेक अरबी ुआसा तर उत्तरेक तेरेखोल न्हंय व्हांवता. गोंयाक १३३ कि.मी. लांबायेची र्ी लाबल्या. ह्या न्हंयांक लागून हो वाठार पिकाळ जाला, देखून दर्यादिगे ता गोंयांत लोकवस्तीय चड पळोवपाक मेळटा. पेडणे, बार्देस, तिसवाडी, , साश्ट आनी काणकोण ह्या म्हालांतलो चडसो वाठार असो दर्या ार आशिल्ल्या कारणान हांगच्या न्हंयांक भरती सुकती येता. दर्याचें उदक भरते वेळार न्हंयच्या पात्रांत जंय मेरेन पावता त्या वाठारांक ' अशें म्हणटात. अश्यो ह्यो खळयो गोंयच्या दर्या लागसारच्या ांवांनी पळोवपाक मेळटात. मांडवी, जुवारी, तेरेखोल, शापोरा, तळपण, ीबाग ह्यो गोंयच्या मुखेल अश्यो न्हंयो आसात. गोंयांत चारूय वटांनी आनी मर्दी गांव अशें खूब कडेन पळोवपाक मेळटा. असल्या वाठाराक म्हणटात. गोंयच्या दर्या देगेवेल्या वाठारांनी कितलेशे जुंवे पळोवपाक ात. दिवाडी, चोडण, कुंभारजुंवें, जुंवें (सांत इस्तेव्ह), आखाडो हे जुंवेच. इतलेंच न्हय तर गोंयचें राजपाटण पणजी शार हें लेगीत तिसवाडी ुखेल जुंव्याचोच एक कुडको. ते भायर काणकोणा लागसार दर्यांत ादीव' हो जुंवो मेळटा, पूण थंय कोण लोक रावनात.

## नुस्तेमारिच्यो कांय तरा

र उद्देगांवरी नुस्तेमारींत लेगीत आयज नव्यो यंत्रीक सुधारणा दिश्टी त. तरी आसतना गोंयांत आयजय पुर्विल्ल्यो पारंपारिक नुस्तमारिच्यो सांबाळून दवरिल्ल्यो आमकां दिश्टी पडटात. तांतुंतल्यो कांय तरा या.

**वणी:** 'परसोवणे'क कसलेच सामुग्रिची गरज आसना. हो प्रकार चड गिमाच्या दिसांनी उपकरायतात. न्हंयेच्या पात्रांत उदक सामकें उणें ार दिपरभर जाता तेन्ना लोक उदकांत देंवून ओणोव घालून आपले उदकांत घालून चिखलांत आनी उदकांत आशिल्ल्या फातरांनी ेतात आनी हाताक लागिल्लें नुस्तें घट्ट धरतात. हाका परसोवणी ात.

**ओडप:** एका बारीक लाकडाची आटी करतात, ताका भोंवतणी एक चो कुडको बांदतात. हाका 'जाळी' म्हणटात. न्हंयच्या पात्रांत उदक ाता तेन्ना ही जाळी उदकांत घालून ओडीत व्हरतात. हे जाळयेंत बारीक नुस्तें येता तशें केन्ना मोटेंय नुस्तें येता. मागीर ही जाळी तल्यान अळंग वयर उबारून घेवन भितर आशिल्लें नुस्तें धरतात. हाका 'जाळी ओडप' अशें म्हणटात. जाळयेचो उपेग आनीक एके भशेन करतात. रातचे पेट्रोमॅक्स पेटोवन न्हंयचे कुशींत फिरप आनी थंय आयिल्ल्या नुस्त्याक पेट्रोमॅक्सच्या उजवाडान दिपकावप आनी दिपकाविल्लें नुस्तें हळूच जाळयेंत धरप. हाका 'दिपकावणी' म्हणटात.

**गरोवणी:** गरोवणी आयज लोक नुस्तें मारपाखातीर म्हूण न्हय तर एक आवड म्हणुनूय करतना दिसतात. एक लांब कोंड्याची बडी घेवन तिका मुखार तितलीच लांब तास बांदप आनी त्या तासाक एक लोखणाचो गरो बांदप आनी जडसाणे खातीर एक शिशाचो कुडको बांदप. मागीर त्या गऱ्याक आयस म्हणून सुंगटाचो कुडको वा कसलोय मासा कुडको लावन उदकांत सोडप आनी वाट पळेत रावप. जेन्ना कोणूय गरी ओडटाशें दिसता तेन्ना गरी एकदम वयर उबारप. तिका नुस्तें लागिल्लें आसता.

**पोलेर:** पोलेर म्हळ्यार गरोवणेचोच एक प्रकार. एक लांब तास घेवन ताका एक मोटो गरो बांदप आनी त्या गऱ्याक एक ल्हानशें नुस्तें लावन व्हांवत्या उदकांत सोडप. हो प्रकार चडसो पावसा दिसांनी पळोवपाक मेळटा. उदक मात्शें खदूळ आसल्यार बरें जाता. हाका चड करून मोटें नुस्तें लागता. हीय तरा धंदो म्हूण न्हय तर 'टायम पास' – वेळ धुकलुपा खातीर चड आपणायतात.

**दावणी:** होवूय एक गरोवणेचोच प्रकार. पूण हो व्हड प्रमाणांत आसता आनी चडसो पावसा दिसांनीच पळोवपाक मेळटा. हाका चड करून मोट्या जातिचें नुस्तें फारावता. पावसा दिसांनी बाजारांत जीं सांगटां मेळटात तीं दावणींक लागलेलीं आसतात. एक लांबचे लांब तास घेवन ताका सगळ्याक गरयो बांदून ताका बारीक मासा कुडके लावप आनी तो तास उदकांत लांबचे लांब दवरप आनी उपरान्त पांच स वरांनी तो वयर काडप. तेन्ना ताका सांगटां लागिल्लीं आसतात. सांगटांच लागतात अशें न्हय. हेरय नुस्तें लागता. देखीक, मुड्डश्यो, पालू, दोडयारे असलीं नुस्तींय लागतात. पूण चड करून सांगटांच चड लागतात. हें काम कटकटिचें जरी जालें तरी तांतूंत फायदो खूब आसा.

**चडोवणेचें नुस्तें:** पयल्या पावसाचें उदक शेतांत एकठावता तेन्ना खळयो भरतात आनी खळयांतलें नुस्तें, देखीक, सांगटां, पिट्टोळ आपली गाबळी सोडपाक लागून शेतांत येतात तेन्ना लोक सुरयो आनी कोयत्यो असलीं हत्यारां घेवन तांकां मारतात. हाकाच चडोवणेचें नुस्तें म्हणटात.

**काटाळी:** काटाळी म्हळ्यार एक नायलॉन वा साद्या सुताची बारीक बुराकांची लांबचे लांब जाळी. वयल्यान तिका बोयाचे कुडके बांदिल्ले आसतात. ती उदकाचेर उफेवची म्हूण ही काटाळी खळयांनी मर्दींच हे देगेर सावन ते देगेर पावता अशी लावप आनी तशी लावन जातकच उदकांत नाचप. अशें केल्ल्यान नुस्तें भिवून हेवटेन तेवटेन धांवता आनी अशें धांविल्ल्यान तें काटाळेक फारावता. एकदां काटाळेक फारावल्ल्या नुस्त्याच्यान सुटपाक जायना.

**माग :** हो काटाळेचोच एक प्रकार. पूण काटाळेक जशे बारीक बुराक आसतात तशे ते मागाक आसनात. मागाक मोटे बुराक आसतात आनी असले हे माग चड करून खोल दर्यांत लायतात. ताका लागून मागाक मोटें नुस्तें फारावता आनी हे माग लावपी आसतात तांकां चड फायदो जाता.

**हार :** हो प्रकार चडसो पावसा दिसांनी पळोवपाक मेळटा. हार पावसा दिसांनी मांडटात. पूण ताची तयारी गिमांतच करची पडटा. कुळागरां सावन माडयो हाडप. कितल्यो, हें हार केदी व्हडली मांडटले हाचेर आदारून आसता. त्या कापून हाडिल्ल्या माडयांक मुळावटेन तोंक काडप आनी दर्यांत व्हरून मर्दी एके लायनीन पुरप. माडयो पुरून जाल्यो म्हणटकच त्या माडयांक मदींच एक लांबचें लांब जाळ बांदप. जेन्ना उदकाक सुकती लागता तेन्ना उदकाच्या लोटार जें नुस्तें देंवता तें त्या जाळांत पडटा. पूण हारींत जें नुस्तें पडटा तें चड करून बारीक जातिचें आसता. सुकते वेळार जेन्ना नुस्तें पडटा तें भरती लागचे पयलीं काडचें पडटा. ना जाल्यार भरते वेळार तें परत भायर सरून येता. जरी हारीक बारीक जातिचें नुस्तें पडलें तरी ताका दर खूब आसता. पावसाचे दीस आशिल्ल्या कारणान लोकांक ह्याच नुस्त्याचेर समाधान मानचें पडटा.

**कींव (पोंय) :** कींव हो एक सामको पोन्नो असो प्रकार. हालिंच्या तेंपार तो चडश्या प्रमाणांत आमकां पळोवपाक मेळना. पूण आदल्या तेंपार तो खूब घोळणुकेंत आशिल्लो. कींव तयार करप म्हळ्यार एक व्हड दिव्यूच म्हणचें पडटालें. एक जितो कोंडो घेवन ताच्यो बारीक बारीक बडयो करून तासच्यो पडटाल्यो आनी ह्या ताशिल्ल्या बडयांक रूम गुंतून, आंवळून ताचें एक **किंवलें** करचें पडटा. हें किंवलें फाटले वटेनच्यान बंद आसता आनी मुखावेल्यान ताका वाटकुळेंच तोंड आसता. पूण हें तोंड अशे रितीन घडयल्लें आसता की एकदां भितर सरिल्ल्या नुस्त्याक परत भायर सरपाक मेळना. हो कींव ल्हान व्हाळ आसता थंय व्हाळामर्दी दवरतात आनी जेन्ना सुकते वेळार नुस्तें उदका वांगडा परतता तेन्ना तें उदका वांगडा त्या किंवांत भितर वता आनी थंयच आडखळून उरता. ताका भायर सरूंक मेळना. हो कींव फकत साया उदकांत सायें नुस्तें धरपा खातीर मांडटात. हो कींव लांबोडो पूण वाटकुळ्या आकाराचो आसता.

**जिलेटीन :** जिलेटीन स्फोट करून नुस्तें मारप हो एक चोरयां नुस्तें मारपाचो प्रकार. ह्या प्रकाराक सरकाराची मान्यताय ना, म्हणून जो कोण अशे रितीन नुस्तें मारता तो सांपडल्यार ताका सरकाराची ख्यास्त भोगची पडटा. जिलेटिनाचो स्फोट चड करून ल्हानश्या खळयांनी घडोवन हाडटात. एक ल्हानशी जिलेटिनाची इस्कुलेत घेवन तिका बॅटरीची पावर दिल्ल्यान हो स्फोट घडटा. पूण कांय कडेन जिलेटीन पेटोवन उदकांत उडयतात. म्हळ्यार, जिलेटिनाचे वातीक उजो लावन तें उदकांत मर्दी उडोवप. मागीर कांय वेळान ताचो स्फोट जाता. हो स्फोट इतको खर आसता की ताच्या आवाजान उदकांतलें नुस्तें मरता आनी कांय वेळान उफेता.

**कोबलें :** हाचो फकत कुल्ल्यो आती तिसऱ्यो, खुबे सारकेलें नुस्तें धरपाक उपेग जाता. लोखणाचे आटयेक ल्हानसो जाळा कुडको बांदून हें कोबलें केल्लें आसता. मर्दी एक मांसा कुडको बांदून बारीक दोरयेच्या आदारान तें उदकांत सोडात. कोबलें उदकांत पावतकच कांय वेळान कुल्ली मांसा वासान मांस खावंक कोबल्यांत भितर सरता. कुल्ली मांस खाता असो दुबाव आयल्यार कोबलें रोखडेंच हळू हळू वयर उबारून घेतात आनी कुल्लेक धरतात. केन्ना केन्ना कुल्ली मांस खावन वताय बी आनी सुट्टा. ते खातीर शादूर रावचें पडटा. तशेंच, एकदां कोबलें घातलेल्या जाग्यार रोखडेंच परत कोबलें घालूंक जायना. कित्याक तर, पयलिंचे भिरांतीन कुल्ल्यो येनात. हो जालो कुल्ल्यो धरपाचो प्रकार. पूण अशे रितीन तिसऱ्यो, खुबे मेळनात. ते काडपाक जाय जाल्यार पनेळ घेवन व्हडल्या खळयांनी मर्दी वयचें पद्ध पनेळ मर्दी उबो करून, एक लांब बडी बांदचेलें कोबलें उदकांत खोल घाल चिखलांत मुंगरचें पडटा. मागीर तें कांय वेळान चिखलासयत वयर काड पडटा. वयर काडून तो चिखोल उदकाचेर धुवचो पडटा. तातूंत तिसर खुबे आसतात ते काडून घेतात आनी परत कोबलें उदकांत घालतात. अ तरेन कोबल्यान तिसऱ्यो आनी खुबे काडटात.

**मानस :** मानस चडशी गांवांनी पळोवपाक मेळटा. गांवांनी शेतांतल्यान ज खळयो वतात त्यो आडावप आनी मर्दीच उदक वचपाक लागून एक व सोडप. दोनूय वटांच्यान बांद आशिल्ल्या कारणान आनी उदक वचूंक = नाशिल्ल्या कारणान उदक ल्हानशे वाटे वटेनच्यानच वता. जेन्ना सुकते वेळार उदक भायर वता तेन्ना ते वाटेक जाळ लायतात. ताका लागून सुकते वेळार उदका वांगडा जें नुस्तें भायर दुसरे वटेन वचूंक सोदता, तें जाळांत पडटा. ताका परत फाटल्यान परतुपाक येना जावन तें थंयच उ मानस ही दर्याक लागीं आशिल्ल्यान मानशेंत बारीक तशेंच मोटें नुस्तें मेळ जेन्ना उदकाक भरती येता तेन्ना मानशेक दारां घालचीं पडटात. भित नुस्तें भायर वचूंक जायना म्हणून.

**उमाळो काडप :** भरतेच्या वेळार मानशेक दारां घालतात. तेन्ना नुस्तें भ वचपाचे तयारेन त्या दारांकडेन येवन रावता. त्या वेळार मानशेकार = मनशांक घेवन एक लांब जाळ दोनूय वटांनी धरून, उदकाच्या पोंदच्च ते घालून ओडीत ओडीत त्या दारां कडेन हळूच वयर काडटात. ते भायर वचपाचे तयारेन आशिल्लें सगळें बारीक-मोटें नुस्तें त्या जाळांत पड हाका उमाळो काडप अशें म्हणटात.

**नुस्तें ओडप :** मे म्हयन्याच्या दिसांनी जेन्ना खळयांतलें उदक सामकें सुकत पावता तेन्ना खळयांनी नुस्तें ओडपाक सुरवात जाता. नुस्तें ओडप म्हळ तितकें सोंपें न्हय. नुस्तें ओडपा खातीर कमीत कमी धा-पंदरा मनशां जाय पडटात. हीं मनशां एक व्हडलें एके देगेचें लांब जाळ घेवन ताका दो वटांनी कोंडे बांदून दोनीय वटांनी जाळ घट्ट धरून एके तडिच्यान ओढ दुसरे तडीर हाडटात. जेन्ना तें जाळ दुसरे तडीर ओडीत वयर काडट तेन्ना तातूंत खूब बारीक मोटें नुस्तें फारावल्लें आसता. अशे रितीन ए खळयेंत कमीत कमी दोन तिनदां तरी नुस्तें ओडप जाता. कांय वाटार ह्या नुस्तें ओडपाच्या प्रकाराक नुस्तें मारप अशेंय म्हणटात.

**खाणें पिकोवप :** जेन्ना सर्दाचीं (शेळिचीं) शेतां लिवून जातात तेन्ना शेत खळयांतलें खारें उदक भितर घेवन सुंगटांची पैदास करतात. हाका ख पिकोवप अशें म्हणटात. हें जें खाणें पिकयतात तें इल्ल्याश्या जाग्यार न तर ताका व्हडली सुवात जाय पडटा. शेतांनी थाम कापून जातकच कणसा जो मुळां वटेनचो भाग शेतांत उरता तो खारें उदक शेतांत घेतिल्ल्य कुसता आनी थंय एक वाल (जीव) तयार जाता. आनी कांय दिस हे वाली पासून सुंगटांची पैदास जाता. अशे तरेन खाण्यांत भरपूर सुं पसवतात. जेन्ना हीं सुंगटां उदकाचेर वयर उडयो मारपाक लागतात ते सुंगटां मोटीं जाल्यांत अशें समजप आनी मागीर एक कोंडो बांदिल्लें को घालून सुंगटां काडप. केन्ना केन्ना व्हडलें जाळ घालुनूय काडटात. असत ह्या सुंगटांक बाजारांत दर खूब मेळटा. ह्या खाण्यांत फकत सुंगटांच मेळट अशें न्हय तर आनिकूय हेर नुस्तें मेळटा. पूण तें कमी प्रमाणांत आस अशे तरेन कांय लोक खाणें पिकोवन नुस्त्या वेवसाय करतात.

**खुंटावणी :** सगळ्यांत चड त्रास पडटा ते खुंटावणेक. खुंटावणी लायत ताका खुंटावणी मारप अशें म्हणटात. खुंटावणी दर्याचे एके तडीक मारता खुंटावणी मारतलो जाल्यार पयलीं सुकते वेळार चिखलांत खूंट पुरचे पडटा हे खूंट अशे रितीन पुरतात की ते पळोवपाक अर्दगोल कशे दिसतात. स

के रीन अर्दगोल पुरून जातकच मागीर तांकां जाळ बांदू दवरचें पडटा. ताका बांदून ते पयलीं चिखलाचेरच उडोवप आसता आनी भरती येवन चू सुकती लागपाचो वेळ जायत येता तेन्ना तें जाळ वयर काडून त्या खुंटांक बांदचें पडटा. खुंटांच्या पोंदा पयलींच बांदिल्ले जाळ वयरय बांदले हण्कच भरते वेळार त्या अर्दगोलांत भितर सरलेलें नुस्तें चक्रव्युहांत सरिल्ले वरी भितरच उरता; ताका भायर सरूंक मेळना. आनी कडेक उदक नाक सुकता तेन्ना जें नुस्तें भितर आडखळून उरता तें धरतात. केन्ना कच्छ खुटावणेंत बरें व्हड जातिचें नुस्तें मेळटा जाल्यार केन्ना केन्ना कांयच ना. देखून खुंटावणी कटकटिची आसता.

ण: गोंयांत नुस्तें मारपाचो व्यवसाय आनी रांपण ना? अशें केन्नाच जावं ना. रांपणे बगर नुस्त्या व्यवसायाक गोंयांत तरी सोबाय ना. ह्या स मारपाच्या प्रकाराचेर कोंकणींत कितल्योश्योच कविता वाचूंक मेळटात, गीतीं गितां आयकूंक मेळटात, तशेंच नाच पळोवपाक लेगीत मेळटात. सांजेळां सुर्या अस्तमतकच जी रांपण ओडटात तिची सोबितकाय पळोवन गोप कवी जालो जाल्यार अजाप न्हय. असो हो गोंयचो नांवाजतो स्मारिचो प्रकार. हातूंत गोंयची संस्कृताय भल्ल्या अशें पळोवप्यांक दिसता. ण हो एक नुस्तें ओडपाचोच प्रकार. पूण रांपण फकत दर्याच्या वेळांचेरच दिल्ली पळोवंक मेळटा. एक लांबचें लांब एके देगेचें जाळ घेवन ताका न वटांन उबे कोंडे बांदतात. मागीर धा-एक मनशांनी मेळून उदकांतल्यान सीत देगेर हाडटात. हें अशें करतना दोनूय वटांन राविल्ल्या मनशांनी बरोबर जाळ ओडीत देगेर पावपाक जाय. हातूंत जें नुस्तें मेळटा ताका णाचें नुस्तें अशेंय म्हणटात. आनी रांपण ओडपी लोकांक रांपणकार म्हणटात.

प: खळयांतलें उदक सुकते वेळार कमी जाता तेन्ना लोक पागपाक तात. ज्या जाळान हें पागप करतात ताका 'पागेल' अशें म्हणटात. णी ह्या पागेलान जो मनीस पागता ताका 'पागेली' अशें म्हणटात. हें हें नायलॉनाच्या सुताचें विणून केल्लें आसता. पागेल सकयले वटेन तें आनी वयले वटेन बंद आसता. ताका लांब दोरी बांदिल्ली आसता. जो उकतें आसता ते वटेन ल्हान ल्हान शिशाचे गुळे बांदिल्ले आसतात. तेन्ना पागेली पागेलान पागता तेन्ना पयलीं उदकांत एक फातोर उडयता आनी मागीर पागेल हालोवन धोलोवन घुंवडावन उदकांत वडयता. जें नुस्तें फातराक खावपाची वस्त समजून थंय जमता तें नुस्तें पागेलांत फारवता तेन्ना मागीर पागेली तें पागेल चिखलांतल्यान वाटोवन वयर काडटा आनी तांतूंत आशिल्लें नुस्तें धरता. हाका पागप अशें म्हणटात.

**यांत्रीक प्रकार:** गोंयांत पयलीं नुस्तें खळयांनीच मारताले. दर्यांत मदीं कोण वचनासले. कोणूय पनेळ बी घेवन दर्यांत गेल्यारय चड पयस वचपाक भिताले. पूण आयज हें सगळें फाटीं पडलां. आनी तरेतरेचीं यंत्रां नुस्तेमारी खातीर लोक आपणावंक लागल्यात. आयज चडशी नुस्तेमारी यंत्राचेर चलता अशें म्हळ्यारूय जाता. हाकाच लागून आयज पनेळांक मोटार पळोवंक मेळटात. तशेच, वचत थंय दर्यांत ट्रॉलर पळोवपाक मेळटात. हे ट्रॉलर दर्यांनी मदीं नुस्तें मारपा खातीर वतात. ट्रॉलर आकारान व्हड आसतात ताका लागून त्या ट्रॉलरांचेर काम करपाक खूब लोक जाय पडटात. अशे ट्रॉलरांचेर काम करून आयज शेकडयांनी लोक आपलीं पोटां भरतात. हे ट्रॉलर जेन्ना नुस्त्याक लागून व्हड व्हड दर्यांनी मदीं वतात तेन्ना तांचे फाटले वटेन रोदां आसतात तांकां व्हडलीं जाळां घुस्पावन दवरलेलीं आसतात. तीं मदीं दर्यांत पावतकच सोडटात. तीं सोडिल्लीं जाळां ट्रॉलर दर्यांतल्यान ओडीत व्हरतात. तीं ओडीत ओडीत खूब पयस व्हरप आसता आनी मागीर त्या रोदांचे मदतीन तीं परत घुस्पावन वयर काडटात. तेन्ना तातूंत तरेतरेचें नुस्तें पडलेलें आसता. पावस सोंपून जे बांगडे, ताल्ले, पेडवे, पापलेटां, वेल्ल्यो, विस्वण बी नुस्तीं मेळटात तीं सगळीं ट्रॉलरांक लागून आमकां मेळटात. हे ट्रॉलर दर्यांत केन्नाय सोडिनात. पावसा दिसांनी ते बंद आसतात आनी जेन्ना सुतां पुनव येता तेन्ना ट्रॉलरांची पुजा करून आनी नाल्ल उदकांत सोडून ट्रॉलर दर्यांत सोडटात.

गोंयांत नुस्तेमारी हो मुखेल व्यवसाय आशिल्ल्यान दर्या देगेर रावपी चडशे लोक ह्या व्यवसायांत भितर सरिल्ले आसात. जाती-धर्माचो भेद नाशिल्लो हो एक अप्रूप असो व्यवसाय. जे लोक हो व्यवसाय करतात तांकां 'खारवी' म्हणटात.

गोंया भायले लोक आज गोंय आनी गोंयकारांक वळखतात ते मुखेलपणान जिबेर उदक हाडपी गोंयचे नुस्त्या रुचीक लागून आनी गोंयकारांच्या नुस्त्या-मोगाक लागून, हातूंत दुबाव ना.

* * *

# की प्रज्ञावाद

त्य स्पस्ट दिश्टी पडटा आसतना 'पुरावे' कसले सोदतात, मडसरेचे?

क मनीस हांतुळणार पडिल्लो. उरता काय वता हे अवस्तेंत आशिल्लो. एक दीस ताची सुद्द गेली.

खडोच ताका मसंडेंत व्हरपाचो बेत चलपाक लागलो.

हांतुळणा वयलो उखलून ताका निसणीर दवरपा खातीर लोक आयले. जिस्त त्या वेळार ताका जाग आयली. आपणाक व्हरपाचे तयारेंत लोकांक ल्ले पळोवन तांकां ताणें विचारलें, 'कितें चल्लां हें?'

तूं मेल्लो म्हूण तुका व्हरपाची तयारी करताले', एकल्यान कोणें तरी ताका जाप दिली. ती आयकून ताका धसको बसलो. झीट आयली आनी सुद्द होगडावन बसलो.

सुंडेंत पावपाक ताका परती जाग आयली. ताणें किळांच मारून म्हळें, 'ना, हांव मरूंक ना... हांव जितो आसां...'

मेला काय मरूंक ना हें आतां कोणें थारावपाचें? लोकांनी न्यायाधिशाक आपोवन हाडलो. न्यायाधिशान लोकांक विचारलें, 'हो मेला म्हूण डॉक्टराचें सर्टिफिकेट तुमचे कडेन आसा व्हय?'

य... आसा...' लोकांनी डॅथ् सर्टिफिकेट न्यायाधिशा हातांत दवरलें. न्यायाधिशान तें पळेलें आनी निवाडो दिलो – हो मनीस मेल्ल्याचो पुरावो न दिल्ल्यान हाका उज्या सुवादीन करचो.'

—- ख्वाजा चिश्ती

# तथागत

[पंदरावी खिस्त]

## बुद्धमत्ताचो विकास – १

### पयली संगीती

बुद्धाचें महापरिनिर्वाण जाल्ल्याची खबर वाऱ्याच्या वेगान सगळेकडेन पातळनाफुडें भोंवतणच्या वाटारांतलो सगळो लोक ताचें निमाणें दर्शन घेवपा खातीर कुशिनाराक आयलो. ताचे म्हऱ्यांत त्या वेळार आनन्द सोडून तागेल्या मुखेल शिष्य-सांगात्यां भितरलो कोणूच नाशिल्लो. सगळे आपापणाल्या वाटारांत धर्मप्रसाराच्या कामांत गुल्ल आशिल्ले. सगळ्यांक पावपाक सात दीस लागले. ते मेरेन बुद्धाची कूड अविकृतूच उरिल्ली. इबाडूंक पावूंक नाशिल्ली. फकत महाकाश्यप येवपाचो उरिल्लो. बुद्धाच्या शिष्य-सांगात्यां मजगतचो तो म्हालगडो. तो पावानगरींत भोंवतालो. थंय एका आजीवक पंथी साधू कडल्यान ताका खबर कळ्ळी. ते बरोबर तो कुशिनाराक धांवन आयलो. जिस्त त्या वेळार निमाण्या संस्कारां खातीर बुद्धाची कूड सरणार चडिल्ली. आनी तिचेर अग्निसंस्कार जाल्लो. महाकाश्यपान सरणाक तीन प्रदक्षणा काडल्यो.

ताका पांयांची पुजा करूंक मेळची म्हूण बुद्धाचे पांय खंय सरणांतल्यान भायर आयले आनी पुजा जातकूच आशिल्ले तशे भितर गेले.

एकादऱ्या चक्रवर्ती राजाचे जावचे तशे बुद्धाचे निमाणे संस्कार जाले.

उपरांत शिष्यांनी तागेल्यो अस्थी एकठांय केल्यो. तांचे धा वांटे केले आनी ज्या राजांनी आनी श्रेष्ठिंनी ताच्या वावराक आधार दिल्लो तांकां ते वांटून दिले. तांणी ह्या अस्थिंचेर धा कडेन धा स्तूप बांदले.

आतां मेरेन खासा बुद्धूच संघाचो नायक आशिल्लो. तो आरासार कोणाक संघाचो हुस्को जावंक नाशिल्लो. आतां जावपाक लागलो. एक दीस अजातशत्रूचो महाआमात्य वस्सकार आनन्दाक मेळपाक आयलो. ताणें आनन्दाक विचारलें, 'आपणा फाटल्यान आपणाले गादयेर भगवंतान कोणाक बसयला व्हय ?'

'ना', आनन्दान जाप दिली.

'भगवंताची सुवात घेत असो तुमचे मजगतीं कोण आसा व्हय ?'

'ना.'

'मागीर, संघ कसो चलतलो ?'

'आपूण नासतलों तेन्ना धम्म आसतलो. धम्माक धरून चलात, तुमकां म्हजो सांगात मेळटलो, अशें भगवंतान आमकां सांगिल्लें. ते भायर, भगवंतान संघाचे बारीक सारीक नेम घालून दिल्यात. ह्या नेमांक धरून आतां मेरेन आमी चलत आयल्यात... संघ बरे भाशेन चलपाक आमकां इतलें पुरो', आनन्दान जाप दिली.

जाप सारकी आशिल्ली. पुणून नेमांक पाळो दिवन चलपी भिक्खू संघांत आशिल्ले, तशे नेम मोडपीय आशिल्ले. धम्म सारको समजल्ले आशिल्ले तशे अर्दकुटो समजल्लेय कांय आशिल्ले. बुद्धाचें परिनिर्वाण जाल्ल्याची खबर कानार पडनाफुडें सुभद्र नांवाच्या एका जाणट्या भिक्खून 'आमकां हें करूं नाकात, तें करूं नाकात म्हूण सांगपी आतां कोण ना, आमी सुटले' असो हुस्कार सोडिल्लो तो महाकाश्यपान आयकल्लो आनी महकाश्यप त्याच खिणाक शिटकावल्लो. भगवंताचे शिकवणेक आनी ताणें घालून दिल्ल्या संघाच्या नेमांक आतांच नित्शीत रूप दिलें ना, जाल्यार सुभद्रा सारकेले 'अ-धर्मी' आनी 'अ-विनयी' लोक फुडें किते करतीत, सांगूं येना, अशें येवजून महाकाश्यपान कुशिनाराक जमिल्ल्या सांगात्यांक म्हळें, 'धर्म आनी विनय हांचो पाठ आमी आतांच एकठांय बसून थारायल्लो बरो. ना जाल्यार, सुभद्रा सारकेले लोक तांकां फाल्यां कसलें रूप दितीत, सांगूं येना.' सगळ्यांनी 'तूं म्हणटा तें खरें, आमी आतांच बसून पाठ थारायल्लो बरो' अशें म्हळें आनी रोखडीच एक परिशद घेवची अशें थारायलें.

महाकाश्यपाकूच तांणी परिशदेचो अध्यक्ष वेंचून काडलो आनी परिशदेक कोणा कोणाक आपोवचें हें थारावपाचे अधिकारूय सांगात्यांनी ताका दिले.

महाकाश्यपान चारशीं णव्याण्णव भिक्खू वेंचून काडले. पांचशावो म्हूण तो आनन्दाक घेवंक सोदतालो. पुणून आनन्द अजून मेरेन अर्हत जावंक नाशिल्लो. शैक्ष्यूच उरिल्लो. म्हूण ताका घेवपाक तो अनमनलो. ताणें आपणाले घुटमळो सांगात्यां मुखार दवरलो. तेन्ना सांगात्यांनी म्हळें, 'आनन्द अर्हत जावंक नासलो, तरूय भगवंता म्हऱ्यांत पंचवीस वर्सां रावला. भगवंतान कोणाक केन्ना कसलो उपदेस केल्लो हें आनीक कोणाय परस चड ताकाच खबर आसा. धर्मविनयाची शिकवण आनन्दान खासा भगवंताच्या तोंडांतल्यान आयकल्या... ताका घेवंकूच जाय.' सगळ्यांनी ताका घेवंक जाय म्हणटकूच महाकाश्यपान ताका अनमन नारातना घेतलो.

परिशद राजगृहाक घेवची अशें थारायलें. राजगृहाक तागेलो एक विहार आशिल्लोच. पांचशीं भिक्खूंक रावपाक पुरो इतली सुवात विहारांत आशिल्ली. आनी तांकां जेवणखाण दिवपाची दायकी खासा मगध राजान – अजातशत्रून – आपणाल्या आंगार घेतिल्ली.

रोखड्या रोखडी सगळ्यांनी विहाराची दुरुस्ती सुरू केली.

आपणें पंचवीस वर्सां भगवंताची सेवा केल्ली आसली तरूय आपूण अर्हत जावंक पावूंक ना हाची आनन्दाक जाणवीक आशिल्ली, तशी खंतूय आशिल्ली. अर्हत जाले बगर परिशदेंत वांटो घेवपाचो आपणाक नैतीक अधिकार ना, अशें खासा ताकाच दिसपाक लागलें. म्हूण ताणें विहाराचे दुरुस्तिच्या कामांतल्यान मेकळीक घेतली आनी एकाचित्तान साधना केली. दुरुस्तिचें काम एका म्हयन्यांत सोंपलें. तें सोंपचे पयलींच आनन्दान अर्हतपद जोडिल्लें. अर्हत जावनूच ताणें परिशदेच्या वावरांत वांटो घेतलो.

परिशदेक जमिल्ल्या जाणकारां मदलो विनयाचो सगळ्यांत व्हड जाणकार उपाली आशिल्लो. महाकाश्यपान ताका प्रस्न विचारले आनी विनयाचें खंयचें सुत्त भगवंतान खंय कोणाक सांगिल्लें तें उपालीन परिशदेक सांगलें. हे भाशेन, 'विनया'चो पाठ सगळ्यांत पयलीं नित्शीत जालो. उपरांत महाकाश्यपान आनन्दाक धम्मा विशिंचे प्रस्न केले आनी भगवंतान खंय केन्ना कोणाक खंयचें सुत्त समजावन सांगिल्लें तें याद करून आनन्दान सगळ्यांक सांगलें. दोगांयनी एवं मे सुतं (हांवें अशें आयकल्लें) अशी सुरवात करूनच आपणाक खबर आशिल्लें सगळें परिशदे मुखार दवरिल्लें.

'विनय' हें चलणुकेचेर वा म्हणुंया, आचारांचेर भर दिवपी शिकवणेचें आंग. भिक्खू-भिक्खुणिंनी खंयच्या नेमांक पाळो दिवन चलूंक जाय, खंयचे नेम मोडल्यार कसलें प्रायश्चीत घेवंक जाय हाची बारीक बारीक विकसावणी करून सांगपी आंग. सुत्तविभंग, खंदक आनी परिवार अशे ताचे तीन वांटे आसात. जाल्यार, धम्माची विकसावणी करपी 'सुत्त-पिटक' विचारांचेर भर दिवपी आंग. हाचे पांच वांटे आसात – दीघनिकाय, मज्झिमनिकाय, संयुत्तनिकाय, अंगुत्तरनिकाय आनी खुद्दकनिकाय. निकाय म्हळ्यार झेले. पयल्या झेल्यांत चौतीस व्हड सुत्तां आयल्यांत. दुसऱ्यांत मदल्या आकाराचीं एकशें बावन, तिसऱ्यांत ल्हान व्हड दोन हजार आठशें ब्यास्तर, चौथ्यांत ल्हान व्हड दोन हजार एकशें अठ्ठ्याण्णव आनी पांचव्यांत सुत्तनिपात, धम्मपद, उदान, इतिवुत्तक, थेर गाथा, थेरी गाथा, जातक कथा हे तरेचीं ल्हान व्हड पंदरा पुस्तकां आयल्यांत. ह्या पांचूय 'निकायां'त बुद्धाच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्ले ब्यांयशीं हजार श्लोक आनी सारिपुत्त-मोग्गल्लाना

केला तागेल्या मुखेल शिष्यांचे दोन हजार, मेळून चौऱ्यांयशीं हजार कायल्यात. बुद्धाची शिकवण तागेल्या शिष्यांनी जशी आयकल्ली ध्येकृत रुपान ती आमकां हातूंत मेळटा.

धम्ताची बुन्याद ही.

[िय आनी सुत्त हांचे भायर अभिधम्म नांवाचें बुद्ध शिकवणेचें तिसरें एक आंग आ. बुद्धाचें तत्त्वज्ञान समजावन सांगपी आंग हें. ताचें संगायन खासा महाकाश्यपान हे रिशदेंत केल्लें अशें म्हणपी कांय जाण आसात. पुणून हे विशीं खुबशा जाणांक ब आसा. बौद्ध तत्त्वज्ञाना वयलीं कांय ल्हान ल्हान सुत्तां महाकाश्यपान हे परिशदेंत सोल्लीं आसूं येतात – जांकां मात्तिका वा मात्रिका म्हणटात. ह्या मात्रिकांची उपरांतच्या कांत अर्थावणी जाली तिका अभिधम्म हें नांव मेळ्ळां, अशें हांचें म्हणणें.]

स्तींत बौद्धां मजगतीं बरोवपाची चाल नाशिल्ली. वेदीक लोकां नाशिल्ली. वेदीक लोक वेद तोंडपाठ करताले. ऋग्वेद पाठ ल्यांक 'ऋग्वेदी' म्हणटाले. दोन वेद पाठ आशिल्ल्यांक 'द्विवेदी', शिल्ल्यांक 'त्रिवेदी' आनी चारूय वेद पाठ आशिल्ल्यांक 'चतुर्वेदी' ले. तशे, बौद्ध भिक्खू 'धम्म' पाठ आसतालो तांकां 'धर्मधर', विनय ाशिल्ल्यांक 'विनयधर' – धम्म चडसो सुत्तांनी सांगला, म्हूण ांक 'सुत्तांतीक' आनी मात्तिका पाठ आशिल्ल्यांक 'मात्तिकाधर' चारताले.

गृहांत जाल्ले हे पयले परिशदेक 'पयली संगीती' म्हणटात. 'संगीती' एकठांय बसून 'संगायन' करप, सुत्तां सुरान म्हणप. सुत्तां सुरान ची चाल तेन्ना पसून बौद्धांत चलपाक लागल्या. अजून चलता.

म्हळ्यार, सगळ्या म्हालगड्यांनी एकठांय बसून थारायल्लो नेयाचो पाठ सगळ्यांनी चलोवंक जाय आशिल्लो. पुणून बौद्ध भिक्खूं कांय भिक्खू व्यक्ति-स्वातंत्र्यवादी आशिल्ले. पूरण नांवाचो असलो क्खू आशिल्लो. तो हे पयले संगीतींत वांटो घेवंक पावूंक नाशिल्लो. रिल्लो. संगीतीन आपणालें काम सोंपयलां त्या वेळार तो राजगृहाक 'आमी सगळ्यांनी ह्या वर्षावासांत विनयाचो आनी धम्माचो पाठ केला. तो तूं आयक आनी तूंय तोच चलय' अशें महाकाश्यपान सांगलें. ताणें तो आयकून घेतलो. पुणून 'तुमी हो पाठ चलयात, वंताच्या तोंडांतल्यान जें जशें आयकल्लें तेंच हांव चलयतलों म्हणटां' णें म्हळें.

यक्ति-स्वातंत्र्य उपरांतच्या काळांत बुद्धमत्ताक खूब बादलां. याचो वावर चडसो मध्यदेशांतूच चलिल्लो. मध्यदेश म्हळ्यार कोसल आनी तांचे भोंवतणचो वाटार (आयचो बिहार). कपिलवस्तू शाचे उत्तरे दिकेक येता. लुम्बिनीक बुद्धाचो जल्म जाल्लो. हें थळ दिकेकूच (आयच्या नेपाळांत) पडटा. ताचें परिनिर्वाण कुशिनाराक हेंवूय थळ मध्यदेशाचे उत्तरे दिकेक येता. तो सम्यक् संबुद्ध जाल्लो वेला (बोधिगया) मध्यदेशाचे दक्षिणेक पडटा. आनी ताणें जंयच्यान सुरू केलें तें ऋषिपत्तन (सारनाथ) अस्तमेक पडटा. राजगृह, वैशाली, नी, नांदी हीं ताच्या जिविताकडेन संबंध आशिल्लीं थळांय शांतलीं. ह्याच वाठारांत बुद्धान काम केलां. पुणून ताची नामना ह्या भायरूय पाविल्ली आसूंक जाय. कित्याक, अवन्तींतलो महाकात्यायन घेवपाक ताचेसरीं आयिल्लो. अवन्ती मध्यदेशाचे अस्तमे दिकेक सुनापरान्तांतलो पूर्णय ताचेकडेन प्रवज्जा घेवपाक आयिल्लो. रान्त बद्द अस्तमे दिकेक समुद्राचे देगेर येता. गोदावरीचे तडी वयल्या नांवाच्या एका ब्राह्मणान पैठणच्या सोळा ब्राह्मणांक श्रावस्तीक धाडून तांचो आनी बुद्धाचो जो संवाद जाल्लो तो सुत्तनिपातांत आयला. यल्यान पैठणा मेरेन ताची नामना पाविल्ली अशें म्हणूं येता. गोदावरीचे कडलो कोणूच श्रावस्तींत पावूंक ना आनी मध्यदेशांतलो कोण ह्या त वचूंक ना. विन्ध्य पर्वत आडवो आयला.

[शणै गोंयबाबांनी सुनापरान्ताक गोंय लेखलां आनी पूर्णाक गोंयकार मानला. बौद्ध बरपावळींत हाका खंयच आधार मेळना.]

कात्यायनाचो वावर चडसो अवन्तीक चल्ला. थोडोभोव मथुरेक चल्ला. दोनूय थळां ब्राह्मणांच्या प्रभावांतलीं. मथुरा तर श्रीकृष्णाचे भक्तीन ओतपी थळ. असल्या वाटारांनी बुद्धमत्त घेवन वचप खूब कठीण आशिल्लें. पुणून कात्यायन तें घेवन गेल्लो. ताच्याच वावराक लागून कांय काळा उपरांत मथुरा हें बुद्धमत्ताचें एक नामनेचें थळ म्हूण मुखार आयलें.

सांगपाचें म्हळ्यार, पयले संगीती वेळार बुद्धमत्त चडशें मध्यदेशांतूच चलतालें. मध्यदेशा भायर तें वचूंक नाशिल्लें. शंबर वर्सां उपरांत दुसरी संगीती भरल्या त्या वेळार मात तें मध्यदेशा भायर खूब कडेन पाविल्लें.

## फूट

पुणून ते मेरेन बुद्धाक पळेल्ले, ताचे कडल्यान प्रव्रज्जा घेतिल्ले आनी ताच्या पांयांसरीं बसून धर्मविनय शिकिल्ले कोणूच उरूंक नाशिल्ले. हांचे कडल्यान प्रव्रज्जा घेवन जे शिकिल्ले तांच्यांतलेय चडशे कोण उरूंक नाशिल्ले. सगले कडेन भिक्खुंची एक नवी पिळगी वयर सरिल्ली. मुदलच्या म्हालगड्यांत आनी हांच्यांत सुमार चार पिळग्यांचें अंतर पडिल्लें. नव्या भिक्खूं मदले कांय जाण म्हणपाक लागले, 'शंबर वर्सां पयलीं घडयल्ले 'विनया'चे नेम आतां चलपाचे नात. ते बदलूंक जाय. बदल्लेल्या काळाक धरून नवे नेम घडोवंक जाय.' हाचेर कांय जाण म्हणपाक लागले, 'एक फावट नेम बदलपाची आमी मेकळीक घेतली जाल्यार संघ इल्लो इल्लो करून कितलो बदलत आनी व्हांवन वचत, सांगूं येना. तेन्ना, कसलेच बदल जावंक दिवंक फावनात.' हेवूय नवे पिळगेंतलेच भिक्खू आशिल्ले. पुणून परंपरेक ते घट्ट धरून राविल्ले.

काकंडकपुत्त यश नांवाचो एक भिक्खू बौद्ध थळांचे यात्रेक भायर सरलो. भोंवत भोंवत तो वैशालीक पावलो. थंयच्या विहारांत राविल्लो. थंय ताणें भिक्खुंनी विनयाचे कांय नेम मोडिल्ले पळेले. तातूंत, विहार चलोवपा खातीर हे भिक्खू श्रेष्ठीं कडल्यान पयशे घेतात ते ताणें पळेले. ताका धसको बसलो. 'तुमी नेम मोडटात हें समा न्हय', ताणें सोंसूं नज जावन तांकां सांगलें. वैशालींतल्या भिक्खुंनी तो कितें म्हणटा ताचेर व्हडलें-शें लक्ष दिलें ना. यश खंती जालो.'तुमी नेम मोडटात, तुमी नेम मोडटात' अशें तो तांकां सांगीत रावलो. तरूय ते आयकनात हें पळोवन तो श्रेष्ठींक 'पयशे दिवन तुमी हांची दानत इबाडटात, तांकां पयशे दिवं नाकात' अशें सांगपाक लागलो. वैशालींतल्या भिक्खूंक ताची भिरभिरी मारली. तांणी ताका विहारांतलो धांवडावन घालो. यश अहोगंग पर्वतार गेलो. थंय संभूत साणवासी नांवाचो एक जाणटेलो भिक्खू रावतालो. ताका वचून मेळ्ळो. 'वैशालींतल्या भिक्खुंनीं कितें आडायलां, पळे... तांकां नेम मोडूंक दिवंक फावनात. तांकां आडावंक जाय', ताणें संभूत साणवासीक सांगलें. रेवत सहजाती नांवाच्या आनीक एकल्या म्हालगड्याक वचून मेळ्ळो. सगळ्यांत जाणटो – खासा आनन्दा कडल्यान प्रव्रज्जा घेतिल्लो आनी पिरायेन आतां एकशें वीस वर्सांचो जाल्लो – सर्वकामी नांवाचो एक भिक्खू आशिल्लो. ताकाय मेळ्ळो. वैशालींतल्या भिक्खुंनी चलयल्ली 'विनया'ची उवेखणी आडावची म्हूण यशान सातशें भिक्खू एकठांय केले. तांची वैशालींतूच एक परिशद घेतली आनी 'वैशालींतल्या भिक्खुंची करणी नेमा भायली' असो एक थाराव ताणें हे परिशदेंत एकामत्तान पास करून घेतलो.

वैशालींतले भिक्खू आपशीं संघा भायरे जाले. तांणी कौशांबीक आपणाली एक वेगळी परिशद घेतली. धा हजार लोक हे परिशदेक जमिल्ले म्हणटात. आंकडो अतितायेचो आसूं येता. पुणून इतलें खरें, वैशालींतले परिशदे परस कौशांबींतले हे परिशदेक चड लोक आयिल्ले. तांच्यांत भिक्खूय आशिल्ले, तशे उपासकूय आशिल्ले. हांणी 'विनया'चो नवो पाठ सुरू केलो. परिणामी – संघ फुटलो. एका संघाचे दोन संघ जातकूच नवो संघ चडांत चड लोक

आपणाकडेन आसात म्हूण आपणाक 'महासांघीक' म्हणपाक लागलो आनी पारण्या संघाक 'स्थविरवादी' वा 'थेरवादी' ह्या नांवान पाचारपाक लागलो.

यशान आपयल्ले परिशदेक 'दुसरी संगीती' म्हणटात. पयले संगीतीन जे पाठ निश्चीत केल्ले तांचेर हे दुसरे संगीतीन म्होर मारून तांकां प्रमाणीत केले. सातशें भिक्खू जमिल्ले म्हूण हे संगीतीक 'सप्तशतिका' म्हणटात. पयली पांचशांची आशिल्ली. म्हूण तिका 'पंचशतिका' हें नांव पडिल्लें.

उपरांत जें घडूंक फावनाशिल्लें तेंच घडत गेलें. दोगां मजगतीं मात्शे मतभेद जाल्यार पुरो, दोगांयनी एकामेकां पसून कडेक रावचें आनी दोन वेगळे संघ सुरू करचे. दोन संघ म्हळ्यार दोन पंथ. दोन संप्रदाय. अशोक राजा बौद्ध जालो त्या वेळार देशांत बौद्धांचे सुमार अठरा वेगळे वेगळे संप्रदाय जल्माक आयिल्ले. महासांघिकांतल्यान फुटून भायर सरिल्ले आठ आनी स्थवीरवाद्यांतल्यान फुटिल्ले धा.

## अशोक

अशोक मगदेर आयलो तो बुद्धाच्या परिनिर्वाणा उपरांत सुमार २१८ वर्सांनी. ताका लाग जाल्ले मौर्यांचें एक व्हड साम्राज्य मेळिल्लें. येदें व्हड साम्राज्य आदीं पयलीं ह्या देशान कोणेंच पळोवंक नाशिल्लें. हिन्दुकुशा सावन आसामा परेनचो आनी काश्मिरा सावन कृष्णा न्हंयी मेरेनचो सगळो वाठार ह्या साम्राज्यांत आसपावतालो (आमचें गोंयूय तातूंत येतालें) फकत उदेंते कडलें कलिंग नांवाचें एक ल्हान शें राज्य ह्या साम्राज्या भायर उरिल्लें. वेपाराचे नदरेन तें एक म्हत्वाचें थळ आशिल्लें. समुद्राचे देगेर आशिल्ल्यान पयस पयसल्या देशांतले लोक वेगवेगळ्या वस्तूंचो माल तारवांनी थंय हाडटाले. अशोकाक तें आपणाल्या साम्राज्या भायर उरिल्लें नाका आशिल्लें. तें घेवंक जाय अशें थारावन ताणें आपणाल्या राज्याभिषेकाच्या आठव्या वर्सा घुरी घालून तें घेतलें. 'आपणें देड लाख लोकांक बंदी करून हाडले, एक लाख लोक कत्तलकरून उडयले, हाचेंकूय चड मेयवन गेले... धोवाक बायल ना, बायलेक धोव ना, आवयक भुरगें ना, भुरग्याक आवय ना अशी सगळ्यांची दाणादिरपट करून उडयली' अशें तोच खाशा एका फातरपट्ट्यांत सांगता. येदें मोल दिवन जोडिल्लें जैत ताका अवचीत एक दीस हारे पाश्ट दिसपाक लागलें. भितरल्या भितर हुलपून तो पश्चात्ताप करपाक लागलो. जैताचो ताका अवको आयलो. अहोगंग पर्वतार मोग्गलीपुत्त तिस्स नांवाचो एक जाणटेलो स्थवीर रावतालो. संभूत साणवासीचो शिष्य. अशोकान ताका भौमानान पाचारून हाडलो. उपगुप्त नांवाचो (मथुरेंत काम करपी) तिस्साचो एक गुरूभाव त्या दिसांनी तिरसासरीं येवन राविल्लो. ताकाय आपोवन घेतलो. दोगांय मुखार अशोकान आपणालें काळीज उकतें केलें. दोगांयनी ताका बुद्ध कितें म्हणटालो तें सांगलें, 'कितलींय राज्यां जिखून हाडात तुमी... अख्खी धर्तरी जिखून हाडात, तुमी धादोशभरीत केन्ना जावपाचे नात. कित्याक, तुमच्यो ह्यो राज्यां जिखून हाडपाच्यो इत्सा पोंद नाशिल्ल्या आयदना सारक्यो. पोंद नाशिल्ल्या आयदनांत कितलेंय उदक हाडून रकयात, आयदन केन्नाच भरून येवपाचें ना.' बुद्धाचें हें मत्त मोग्गलीपुत्त तिस्स आनी उपगुप्त हांच्या तोंडांतल्यान आयकतकूच अशोकाच्या जिविताची दिकाच बदल्ली. तो बौद्ध उपासक जालो. युद्ध नाका आसत जाल्यार बुद्ध धेवंक जाय ह्या निर्णयार तो पावलो. वर्सभर तो एका विहारांत वचून साधना करपाक लागलो. उपरांत तिस्साचे सांगणेन तो बौद्ध थळांक भेट दिवपाक भायर सरलो. बोधिगया, सारनाथ, लुम्बिनी, कुशिनारा, सगळ्या थळांचीं ताणें यात्रा केली आनी 'धर्मविजय होच खरो विजय' ह्या मत्ताचो जावन तो राज्य करपाक लागलो. राज्याभिषेकाच्या बाराव्या वर्सा पसून सत्ताविसाव्या वर्सा मेरेन ताणें ह्या देशांत 'धर्म विजयाचें' राज्य केलें.

ज्या देशान इतिहासाक व्हडलेंशें म्हत्वूच केन्ना दिलें ना – इतिहास बरोवन दवरलो ना, बरोवपाक जाय आशिल्ले पुरावेय दवरले नात त्या देशांत अशोकान खूब कडेन दोंगरांचे फातीर, होंवऱ्यांच्या वणटींर फ[...] कोंरातून दवरल्यात. होंवऱ्यो ताणेंच निर्माण करून घेतल्यात. कांय म्हत्[...] थळांनी व्हडले व्हडले पाशाणी खांबे उबे केल्यात आनी तांचेर आप[...] फर्मानां कोंरातून दवरल्यांत. ते मुस्तींत वास्तुशिल्पा खातीर चडसो लाक[...] उपेग जातालो. लोक घरां लाकडाचीं बांदताले. राजम्हालूय लाक[...] आसताले. कलेचीं सगळीं कामां लाकडांचेर चलतालीं. लाकडां चड[...] उरनात आनी लाकडां खातीर झाडां मारचीं पडटात तीं मारूंक फा[...] अशें थारावन अशोकान पाशाणी तळपांचो उपेग केलो. चुनारची (उ[...] मिर्झापूर जिल्ह्यांतली) खण पाशाणी तळपांनी गिरेस्त आशिल[...] खणींतल्यान ताणें तळपां खणून भायर काडून घेतलीं. तांचे खांब[...] करून घेतले. एक एक खांबो तीस तीस, चाळीस चाळीस फूट उं[...] अखंड. वांटकुळो. पोंदचो घेरो तीन साडे तीन फुटांचो, तर वयल[...] अडेज फुटांचो. पन्नास पन्नास टन वजनाचो. असले तीस चाळीस[...] मेळ्ळ्यात. ते खणींतल्यान भायर कशे काडले, तांकां वांटकुळो आ[...] करसो दिलो, ते घांसून पुसून चकचकीत कशे केले आनी चुनारच[...] मेरठ, दिल्ली, सारनाथ, सांची सारकेल्या शेंकड्यांनी मैल पयस [...] कशे व्हेले, कित्याचेर धालून व्हेले, कांयच समजना. हें मनशां[...] मनशांनी काम केलां, काय यक्ष गंधर्वां सारकेल्या कोणें केलां, अस[...] पडटा. ह्या खांब्यांचेर वयर चडशें एक कमळ आनी ताचेर एक शीं[...] मुखार काडून बशिल्लो वा मोर पळोवंक मेळटा. आयज स्वतंत्र [...] मानचिन्न जाल्ले चार शींव असल्याच एका (सारनाथांतल्या) सुंद[...] सुंदर खांब्यावयले आमी घेतल्यात आनी राष्ट्रीय बावट्याचेर जें अश[...] आमी पळेतात तेंय ह्या शिंवां सकल आशिल्लें घेतलां. ह्या खांब्यांचे[...] दोंगरां फाटी वयल्या फातरपट्ट्यांचेर जीं बरपां आसात ताचे जाण[...] दोन वांटे केल्यात. पयल्या वांट्यांत ताणी चौदा बरपां घेतल्यांत [...] अशोकाच्या साम्राज्यांत खैबरघाट, अबोटाबाद, कालसी, देहरादून, [...] नाला-सोपारा सारक्या जायत्या थळांनी सांगातांत आशिल्लीं [...] मेळटात. आनी दुसऱ्या वांट्यांत बाकिचीं ल्हान व्हड बरपां घेतल्यांत [...] आनी चंद्र आरासर लोकांनी तीं वाचचीं' हो आपणालो हावेसूय अ[...] तांतल्या कांय बरपांचेर उकतावन दाखयला.

पयल्या पुंजुल्यांतल्या एका बरपांत तो म्हणटा, आपणाल्या राज[...] हजारांनी लोक सद्दां जेवतात तांकां सुकणीं सावदां मारून तांचें मार[...] वाडपाची चाल चलताली. हजारांनी सुकणीं सावदां सद्दां मारून हीं [...] आपणें ही चाल आतां बंद केल्या. तुर्ताक फकत दोन मोर आनी ए[...] मारून हाडटात. थोड्या दिसांनी हिवूय चाल आपूण बंद करपाचो [...] **खंयचोच जीव कोणेंच मारून खावचो न्हय.** आनीक एका बरपांत तो [...] आपणाल्या साम्राज्यांत आपणें सगळेकडेन तीं तीं कामां करपा खाती[...] वेगळे अधिकारी नेमल्यात. ताणी तांकां नेमून दिल्लीं कामां करच[...] भायर, लोकांक धर्माची (उजू चलणुकेची) देख दिवपाचींय कामां [...] जाय. उजू चलणूक म्हळ्यार कसली चलणूक ? **सगळ्यांनी जाणट्या** [...] **बापायचो सांबाळ करचो, तांची सेवा करची. इश्ट** [...] **वळखिच्या-अनवळख्यां सगळ्यांकडेन सगळ्यांनी उदारपणान** [...] **श्रमण-ब्राह्मणांचो भौमान करचो; प्राणीहत्या खंयच जावची ना हाची** [...] **घेवची. गरजे भायर कोणेंच खर्च करचो न्हय, तशें गरजे भायर** [...] **कितेंच सांठावन दवरचें न्हय – 'अल्प भांडता साधु, अल्प व्यया** [...] **गरजे इतलीच मोड आसची आनी मोडी इतलीच जोड आसची, हे** [...] **रगळ्यांनी चलचें.** आनीक एका बरपांत तो म्हणटा, 'ह्या देशांत त[...] धर्मपंथ चलतात. सगळे चलचे, आपणाक सगळ्या धर्मपंथांविशीं आदर [...] सगळे फळचे फुलचे अशें आपणाक दिसता. म्हूण, **सगळ्यांनी जीब** [...] **सुवादीन दवरची, आपणाल्या धर्मपंथाची तुस्त आनी दुसऱ्यांच्या धर्मा**[...]

ोंच केन्ना करची न्हय. परतो, जण एकल्यान दुसऱ्या धर्मपंथाचो स्चो. म्हणटकूच आपणालोय उत्कर्श जातलो, दुसऱ्याकूय लाव ना जाल्यार, दुसऱ्याच्या लुस्काना वांगडा आपणालेंय लुस्कान आनीक एका बरपांत तो म्हणटा, **नोकर चाकरांक आपलेपणान जाय, तांच्या व्यक्तिमत्वाक मान दिवंक जाय.**

चें प्रशासन कौटिल्याच्या 'अर्थशास्त्रा'क धरून चलतालें. तीं तीं वपी प्रशासनांत ते ते लोक आशिल्ले. पुणून हांचे भायर 'धर्म नांवाचो आनीक एक नवो हुद्दो ताणें तयार केल्लो आनी राज्यांत डेन बऱ्या बऱ्या चारित्र्यवान लोकांक ताणें ह्या हुद्द्यार बसयल्ले. उजू चलणुकेची देख दिताले तसो तांचो नैतीक पांवडो वाडोवपाचोय ताले.

बरपां एकेच पाली माशेंत आनी एकेच ब्राह्मी लिपींत ताणें कोरांतून हाचे वयल्यान अशोकाचे मुर्स्तींत पाली भास ताच्या साम्राज्यांत लोकांक समजताली जावंक जाय अशें म्हणचें पडटा. हालींच अफघानिस्तानांत लम्पाक नांवाचे एके सुवातेर अशोकाचो एक मेळ्ळा. तो मात आरामाइक माशेंतलो मेळ्ळा. आनी १९५८त मेळ्ळा तो आरामाइक आनी ग्रीक माशेंतलो मेळ्ळा.

बौद्ध आशिल्लो. ताच्या फातरपट्यांचेर बुद्ध धर्माचो पाखो घेवन रप मेळूंक जाय आशिल्लें. पुणून भाबऱ्याचो एक फातरपटो सोडीत दुसरे कडेन तें खंयच पळोवंक मेळना.

भाबऱ्याच्या फातरपट्याची खबर सांगचे पयलीं एक आडकथा

## ी एक आडकथा

चेर, ताच्या काळाचेर आनी ताच्या धर्ममत्तांचेर अधिकारान बरोवपी आयज जायते विद्वान देशांत आसात. पुणून १८७३ वर्सा नार बारार्शी वर्सां कोणूच नाशिल्लो म्हूण सांगल्यार कोणाक खरें १७५०त होजिस नांवाच्या एका पाद्रीक दिल्लीचे शिमे वयल्या वांत एक खांबो दिश्टी पडलो. येदो ऊंच हो खांबो हांगा कोणें केला जातलो, असो ताका प्रस्न पडलो. खांब्याचे फाटीर कोणें तरी बरोवन दवरलां म्हणपाचें ताणें पळेलें. ताणें त्या बरपाची ाडली आनी ती घेवन तो दिल्लींत आयलो. दिल्लींत ते मुर्स्तींत स्सी, संस्कृत बी भासो जाणा जाल्ले कितलेशे विद्वान आशिल्ले. नें ही तालीक दाखयली. कोणाक ती वाचूंक आयली ना. कांय बेहारांत धर्मप्रसाराचें काम करपी आनीक एकलो पाद्री दिल्लींत ोजिसान ताका ही तालीक दाखयली. ती पळोवन ताणें म्हळें, रप हांवें गयेंतल्या कांय होंवऱ्यांनी पळेलां.' होजिस गयेक गेलो. लोकांनी 'हो आमकां बाटोवपाक आयला' असो समज करून नी ताका जितोच मारून उडयलो. आठ वर्सां उपरांत हॅरिंग्टन ानीक एकलो पाद्री मुखार सरलो आनी ताणें होंजिसान सुरू वर आपणा हातांत घेतलो. गयेंत वचून ताणें त्यो होंवऱ्यो सोदून ोपऱ्यांतल्या खांब्यांचेर मेळिल्लें तसलेंच बरप हांगा आसा म्हणपाचें ताणें तांची तालीक काडली आनी ती घेवन तो दिल्लीक आयलो. णसर दिल्लींत आनीक एकल्याक आनीक एक खांबो मेळ्ळो. सौराष्ट्रांतल्या गिरनार पर्वतार, प्रयागांत यमुनेचे तडीर, हिन्दुकुश सार शहाबाजगडीक, ओरिसांत धौलीक, कितलेशेच कडेन वेगळ्या द्रींक हेच तरेचें बरप कोरांतिल्ले खांबे आनी फातरपटे मेळ्ळे. ेखटे पाद्री नाशिल्ले. पोरणावळशास्त्राचे जाणकारूय आशिल्ले. टे 'वाचपाचो' ते यत्न करपाक लागले. सुमार एकशें तेवीस वर्सां यत्न चल्लो. अखेरेक १८७३त जेम्स प्रिन्सेप नांवाच्या एका जाणकाराक हातूंत येस मेळ्ळें. ताणें पयलीं आकार इकार अनुस्वार वळखून काडले. मागीर स, व य हीं अक्षरां सोदून काडलीं आनी ल्हवू ल्हवू करून एक दीस टोपऱ्यांतल्या खांब्या वयलें पुराय बरप वाचून काडलें. उपरांत हेरकडल्या बरपाची आनी टोपऱ्यांतल्या खांब्यावयल्या बरपाची तुळा सुरू जाली. आतां मेरेन मेळिल्ले सगळे खांबे आनी सगळे फातरपटे एकाच काळांतले, कोणें एकल्या 'देवानांपिय पियदस्सी' नांवाच्या राजान उबे केल्यात म्हणपाचें दिसून आयलें. ब्राह्मी लिपींत आनी पाली भाशेंत ताणें हें सगळें कोरांतून घेतलां म्हणपाचेंय कळ्ळें. फकत हो 'देवानांपिय पियदस्सी' राजा कोण हें सोदून काडपाचें उरिल्लें. श्रीलंकेंत ते मुर्स्तींत ज्यॉर्ज टर्नर नांवाचो एक इंग्रज सिवील सर्विसेंत अधिकारार आशिल्लो. पाली भाशेचो एक जाणकार. 'श्रीलंकेंत दीववंस आनी महावंस नांवाचे पाली भाशेंत दोन ग्रंथ आसात. तातूंत चन्द्रगुप्त मौर्याच्या नातवाक – अशोकाक – 'पियदस्सी' म्हळा' म्हणपाचें कळ्ळें. जिस्त त्या वेळार बैराटाक एक फातरपटो मेळ्ळो. ताचेर पियदस्सीचो उल्लेख 'मगधचो राजा' म्हूण केल्लो मेळ्ळो. १९१४त सोलापुराक मास्की नांवाच्या गांवांत आनीक एक फातरपटो मेळ्ळो. ताचेर 'देवानांपिय अशोक' अशें स्पस्ट बरयल्लें मेळ्ळें.

ते मेरेन अशोका संबंदान देशांत कोण्ण कांयच नकळ आशिल्लो. ब्राह्मी लिपी – जी देवनागरीची आवय, तिवूय कोण वाचूंक नकळ आशिल्लो. पांचव्या शतमानांत फाहियान हांगा आयिल्लो आनी सातव्या शतमानांत हुआन-त्सांग आयिल्लो. दोगूय विद्वान. बुद्धमत्तावयले ग्रंथ सोदीत दोगूय देशभर भोंविल्ले. पाली, मागधी, संस्कृत ह्यो भासो ते जाणा आशिल्ले. दोगांयनी आपापणाले भोंवडेचीं पुस्तकां बरयल्यांत. देशांत खूबकडेन आमी अशोकाचे हे खांबे आनी फातरपटे पळेल्ले अशें दोगांयनी बरोवन दवरलां. तांचेर कितें बरोवन दवरलां हें जाणा जावन घेवपाचो तांणी यत्न केल्लो. पुणून कोणूच तांकां हें बरप वाचून दाखोवपी मेळूंक नाशिल्लो. तांचेर बुद्धाचीं तुस्तगितां आनी कांय सुत्तां कोरांतून दवरल्यांत इतलेंच तांकां लोकांनी सांगिल्लें म्हणपाचेंय तांणी बरोवन दवरलां.

पांचव्या शतमानांतूच लोक अशोकाक विसरिल्ले. अशोक कोण आशिल्लो आनी कसो आशिल्लो हें ह्या विसाव्या शतमानांत ह्या फातरपट्यांनी आमकां सांगलां.

ह्या फातरपट्यांनी आनीक एक म्हत्वाची गजाल आमकां सांगली: सव्या शतमानांतल्या मत्स्यपुराणान बुद्धाक विष्णुचो णववो अवतार म्हूण घोशीत करून पुराणांनी बंदिस्त करून दवरिल्लो. बुद्ध हो पुराणांतल्या हेर देवां सारको देव नाशिल्लो, तो आमचे वरीच हाडां-मासांचो एक मनीस आशिल्लो – वा म्हणुंया, केन्नाय तरी हजार दोन हजार वर्सांनी जल्माक येता हे तरेचो एक म्हापुरूस आशिल्लो. तो अमके कडेन अमक्या वर्सा जल्माक आयिल्लो, ताणें आपणालें धर्मचक्र अमके कडेन सुरू केल्लें, अमक्या वाटारांत तो भोंवतालो, अमके कडेन अमक्या वर्सा ताचें परिनिर्वाण जाल्लें हें ह्या फातरपट्यांनी आमकां सांगलां.

ह्या फातरपट्यांनी बुद्धाक पुराणांतल्या बंदिवासांतलो 'सोडयला'.

# बुद्धमत्ताचो विकास – २

## भाबऱ्याचो फातरपटो

वेगळे वेगळे कडल्या फातरपट्यां वयल्या ह्या बरपांक अशोक 'धर्मलिपी' म्हणटालो. तांचे उदेशीं तो आपणाल्या साम्राज्यांत 'धर्मशासन' चलोवंक आंवडेतालो.

धर्म हें उतर तो खंयच्या अर्थान घेतालो ?

लासप उज्याचो धर्म. भिजोवप उदकाचो धर्म. हांगा धर्माचो अर्थ गूण

असो जाता. भुरग्याचो सांबाळ करप आवय-बापायचो धर्म. जाणटेपणांत आवय-बापायक सांबाळप भुरग्याचो धर्म. हांगा धर्माचो अर्थ लागणूक वा कर्तव्य असो जाता. दनपारच्या कडार कोणूय आयलो जाल्यार ताका जेवपाक दवरून घेवप हो गृहस्थाचो धर्म. हांगा धर्माचो अर्थ नेम असो जाता. देशाची राखण करप क्षत्रियाचो धर्म. हांगा धर्माचो अर्थ जापसालदारकी असो जाता. 'ह्या जगीं वैर वैरान जायना केन्नाच थंड तें / थंडावता अवैरान होच धर्म सनातन' – 'एस धम्मो सनन्तनो'. धम्मपदांतले हे गाथेंतल्या धर्माचो अर्थ सत्य असो जाता. धर्म हें उतर 'धृ' हे धातू वयल्यान आयलां. 'धृ' म्हळ्यार जें 'धरून दवरता' तें. जें धरून दवरता तें सनातन तत्त्व आसता. तें केन्ना बदलना. अशोकान 'धर्म' ह्या अर्थान घेतिल्लो. आपणाल्या पुराय साम्राज्यांत तो समाजाक घट धरून दवरपी सनातन तत्त्वांचो शेक चलोवंक सोदतालो. तागेलें 'धर्मशासन' बुद्ध धर्माचें शासन नाशिल्लें. सगळ्या धर्मांक आपणांत आसपावन घेता असल्या सनातन धर्मतत्त्वांचें शासन आशिल्लें.

पुणून, अशोक बौद्ध आशिल्लो. ताका बुद्धधर्म संवसारांत सगळे कडेन पावोवपाचो आशिल्लो. पावोवपाची ताणें एक येवजणूच आंखून दवरिल्ली. पुणून, पयलीं घर जाग्यार घालूंक जाय म्हणपाची ताका खोल जाणवीक जाल्ली. दुसरे संगीती वेळार संघ फुटून एका संघाचे दोन संघ जाल्ले आनी तेन्ना सावन आतां मेरेनच्या काळांत दोनूय संघ फुटून तांचे अठरा संघ जाल्ले आनी अठराय संघ तरांतरांच्या तत्त्व-विचारांच्या जाळांत आपणाक घुसपावन एकामेकांचे पांय ओडपाक लागिल्ले. अशोकाक हाची सगळ्यांत व्हडली खंत भोगताली. तो सगळ्यांक एकठांय हाडूंक सोदतालो. हे दिकेन ताचे कांय यत्न सुरू जाल्ले.

राजस्थानांत जयपुरा लागसार भाबरा नांवाचे एके दोंगुल्लेचेर अशोकाचो एक फातरपटो मेळ्ळा. ह्या फातरपट्यांत तो म्हणटा, 'आपणाक बुद्ध, धम्म आनी संघ हांचो केदो भौमान तो सगळे जाणात. भगवंतान जें सांगलां तें सगळें सगळ्यांच्या बऱ्याचें. पुणून, भिक्खुंनो, हें धर्मसत्त सासणाचीं सासणां तिगून उरचें हे खातीर सात धर्मसुत्तां सगळ्या भिक्खू-भिक्खुणिंनी, सगळ्या उपासक उपासिकांनी भौन भौन वाचचीं आनी भौन भौन तकलेंत घोळोवचीं. अशें आपणाक दिसता म्हणपाचें सगळ्यांक खबर आसचें. 'मे जानंतु ति.'

पयलें, विनयसमुकसे. दुसरें, अलियवसानी. तिसरें अनागतभयानि. चौथें, मुनिगाथा. पांचवें, मोनेयसूते. सवें, उपतिसपसिने आनी सातवें, लाघुलोवादे.

हांतल्या पयल्या विनयसमुकसे सुत्रा संबंदान वाद आसा. पुणून धर्मानन्द हें चार आर्य सत्यांचें आनी चौथ्या आर्यसत्यांतल्या आठ-आंगी मार्गाचें विकसावणी करपी धर्मचक्रप्रवर्तन सुत्त आसूंक जाय अशें म्हणटात. बुद्धमत्ताची बुन्याद ही. त्रिपिटकांतली पुराय शिकवण हे बुन्यादीर उबी जाल्या.

बाकिच्या सुत्तांविशीं वाद ना. अलियवसानि सुत्त अंगुत्तरनिकायांत आयलां. भिक्खून मेळटा त्या चिवरान, मेळटा ते भिक्षेन संतुश्ट रावंक जाय. खंयूय रावचें पडूं, समादानांत रावंक जाय. आपणाली तुस्त आनी दुसऱ्यांची निंदा करी नासतना ताणें नित्य जागरूक रावंक जाय. लोक ताका बावनकशी भांगरा भाशेन मानतले म्हणपाचें त्या सुत्तांत सांगलां. तिसरें, अनागतभयानि सुत्त. हेंवूय अंगुत्तरनिकायांत आयलां. जीं संकश्टां येवंक नात तीं आयलीं जाल्यार भिक्खून कशे तरेन चलचें तें ह्या सुत्तांत सांगलां. आयज आपूण तरणो आसलों तरूय फाल्यां तरणो उरचों ना. आयज घटमूट आसलों तरूय फाल्यां हांतुळणार पडचों ना म्हणपाचें खरेंपण ना. आयज भिक्षा मेळपाची बंद जावं येता, आयज आपूण रावतां थंय सवस्तकाय नंदता जाली तरूय फाल्यां सगळें उचांबळ जावन सकल वयर जावं येता, आयज संघ एकचारान चलता जालो तरूय फाल्यां ताच्यांत फूट पडूं येता हें सगळें आतांच चिंतून तशें कितेंय घडलें जाल्यार आपूण थतर वितर जावचो ना, आपणाले साधनेंत खंड पडचो ना हाची जतनाय भिक्खून आयज पसून घेवपाक लागूंक जाय आनी त्या वेळार चलूंक जाय तशें चलपाचें आतां पसून संवंय लावन घेवंक जाय, अशी शिकवण दिवपी सुत्त हें... मुनिगाथा. तें सुत्तनिपातांतलें. भिक्खून कित्यांतूच आनी कोणांतूच आ... घुसपावन घेवंक जायना. खंयचेच सुवातेक वा घराक दसून रावंक ... तो निःस्नेह जावंक जाय. अनिकेत जावंक जाय. घुस्पावन दवरपी... तकलेंतलीं हुमटावन काडपाक ताणें वावरूंक जाय. ताका एकलो... रावंक येवंक जाय. तृष्णेचो आपणाचेर शेक चलूंक पावचो ना हा... जतनाय घेवंक जाय. तो सगळ्यांचीं मनां जिकपी आसूंक जाय. ... आसून सगळ्यां पसून मनान अलिप्त आसूंक जाय. शील-समाधी... थीर आसूंक जाय. तुस्त वा निन्दा आयकून भुल्लुसून वचचो ना, ... जावचो ना असो आसूंक जाय. कोणूय कितेंय म्हणूं, खांब्या भाशेन थीर उबो रावंक जाय; वाऱ्या भाशेन खंयच्याच जाळांत घुसपना... मेकळो आसूंक जाय; नीट वाटेन चलपी, बरें वायट पारखुपी, ... रागार जायना, दुसऱ्यांकूय राग हाडिना असो आसूंक जाय हें ह्या ... सांगलां. पांचवें, मोनेय. तेंवूय सुत्तनिपातांतलें. भिक्खू तुस्त आनी... हांकां समा लेखपी, तिडक आनी ओड हांचे पसून अलिप्त उरपी. ... शांत, निगर्वी, भुलींत पडना असलो. 'हांव तशे दुसरे, दुसरे तसो...' अशें मानपी, मिताहारी. मेळ्ळां तातूंत संतुश्ट रावपी; उणाक विचारांक थारो दिना असलो, उथळ उदका भाशेन खळखळना असलो, ... भाशेन मोट्या मोट्यान कोंसळना असलो, न्हंये सारको संथ व्हांवपी ... जाय, अशें हातूंत सांगलां. सवें उपतिसपसिने सुत्त. हेंवूय सुत्तनिपा... ह्या सुत्ताक 'सारिपुत्त प्रस्न' म्हूण आनीक एक नांव आसा. सारिपुत्ताच्या प्रस्नांक बुद्धान जी जाप दिल्ली ती हातूंत आयल्या. तो म्हणटा, ... जळारांक, जिवाण्यांक, दुश्ट पाड्या मनशांक, सावदांक कोणाक ... न्हय. परकी धर्माच्या लोकांनी केल्ल्यो आगळिको पळोवन भियेवंक ... सगळीं विघ्नां सोंसचीं. पिडेचे वा भुकेचे त्रास जाले, शिंयाचे वा ... जाले, जाल्यारूय उर्बेक बादा येवंक दिवची न्हय. सगळ्या जिवांकडेन ... आसतना 'हे म्हजे इश्ट, हांव तांचो इश्ट' हे नदरेन पळोवचें. ... म्हेळ माराच्या पंगडांतले सैनीक अशें मानून तांकां मनांतले धांवडावन ... रागा सुवादीन जावचें न्हय, गर्वा सुवादीनूय जावचें न्हय. आयज कि... मेळटलें, खंय मेळटलें; न्हिदूंक वा आड पडूंक खंय मेळटलें असले ... हुसके काडचे न्हय. मेळटा तातूंत धादोशी रावचें. तिडक मारपा... कोणूय कितेंय उलोवं, ताका परती जाप दिवची न्हय. ताका दु... न्हय. चलतना पांयां कडेन नदर दवरून चलचें. मन चोविसूय वरां ... दवरून चलचें. जें आपणाक लागना तें लावन घेवचें न्हय. कोणें ... दाखयलीं जाल्यार ताचे उपकार मानचे. भिक्खू सदां स्मृतिमान ... जाय, विमुक्त आसूंक जाय. एकाग्रचित्त आसूंक जाय. तरूच तो भो... काळोख ना करूंक पावतलो.

आनी सातवें लाहुलोवादसुत्त. हें मज्झिमनिकायांतलें. भिक्खून फ... लेगीत केन्ना फट उलोवंक जायना. जाका फट उलयतना मातूय लज... तागेलें श्रमणपण कित्याक उपकारना. कायेन वाचेन मनान केल्ल्यो ... नियाळून पळोवंक जाय. करणी करचे पयलीं चिंतूंक जाय. ही करणी हांव... दुख्खांत उडोवची ना मू, दुसऱ्यांक दुख्खांत उडोवची ना मू ? अशें आ... विचारून 'ना' म्हूण जाप मेळ्ळी जाल्यार असल्यो करण्यो भौन भौ... रावंक जाय. आपणाक आनी दुसऱ्यांक दुख्खांत उडोवपी करणी के... करचो ना असो नित्शय करूंक जाय. आयजवेर जितलेय व्हड श्रमण जावन गेले तांणी सगळ्यांनी आपणाल्यो करण्यो – करचे पयलीं आनी... आसतना – जागरूकपणान नियाळून पळेल्ल्यो. परिक्षावन निवळ ... हें ह्या सुत्तांत सांगलां.

# ती गेली ना

शरतचंद्र शेणै

गेली म्हणूंक धीर ना –
दोळे सांगतात फट,
हड्डें म्हण्टा सत –
वाडवूंक ना पृथ्वीचें तेज,
सासणाचें सूर्यनखेत्र –
जावंक ना मुयेंक अन्य
विश्वप्रेमाचें तें चैतन्य –

पळेत राव तें तोंड,
तोंडावयल्यो शंबर मिरयो...
मिरयो न्हय त्यो;
करुणेच्यो झरयो!
तापलेल्या रेंवटांचेर
मन्दहास जालो थंड वारो –
आर्तांक सदाखातीर
तिचो आलासरो –

दैवी तेजान दिपकायलेले
ते दोळे...
अगण्य तोंडांचेर तांणी
हांशें फिल्लायलें –
दुबळ्यांच्या हड्ड्यां भितर
भरवशे रोयले
दुकांचे कांटे
हगूर हुमटायले –

ना, ती गेली ना –
गेली म्हणूंक धीर ना –
दोळे सांगतात फट,
हड्डें म्हण्टा सत –

(मदर तेरेजांक अर्पण)

# व्हडें

शंकर रामाणी

केन्ना व्हडें
सोडटले?
सुट्टलें?
खंयच्या बंदरा
वळटलें?
पावतलें?

खंयचो कोण
विचारता –
पाचारता?
कोण जाणा!
खंयचो कोण?
खोल खोल
भितल्ल्यान
जाप दिता:
'हांव सायबा,
कांयच नेणा!
कांयच नेणा!!'

# सपन

सुनिता सुभाष शाह

सपन एक फुलांचें
सपन म्हजें गंधाचें
मोरपाखां दोळ्यांत म्हज्या
सपन मोर रंग्राचें
सपन एक मळबाचें
नळ्या-निळ्या दोळ्यांचें
मध्यान रातीं जाता जागें
सपन म्हजें चंद्राचें

इतिहासाचीं पानां

# समन्वयाचो फुकट गेल्लो एक यत्न

*वामनबाब कुंडयकार मराठी भाशेचें, मराठी साहित्याचे आनी मराठी परंपरेचे एक अभिमानी. आमचे हे परंपरेक कसलीच बादा येवंक जाय मत्ताचें. गांय मकळं जाले उपरांनच्या आरंभाच्या काळांत जो कोंकणी मराठी वाद गोंयांत चलपाक लागलो तो हे परंपरेक मारक थरतलो अशें दिसपाक लागलें. बाकीबाब तांगले जिवाभावाचे इश्ट. तांचेकडेन वामनबाबांनी कितलेशे दीस वाद संवाद चलयले. इतलेंय करून दोगूय एका आपापणालें म्हणणें पटोवंक पावले नात तेन्ना वामनबाबांनी निमाणें आपणालें म्हणणें बरोवन काडलें आनी तें 'गोमंतकां'त छापून हाडलें. आमचे मज कोणूय तांकां जाप दितलो अशी तांकां आस्त आशिल्ली. ती सफळ जाली ना. तेन्ना तांणी 'गोमंतकां'त आयिल्लो लेख एके पुस्तिकेच्या छापलो आनी ही पुस्तिका कोंकणी मराठी वादांत पडिल्ल्या सगळ्यांकडेन धाडून दिली. म्हाकाय धाडून दिली.*

*तांचें म्हणणें अशें आशिल्लें–*

## हा मराठी–कोंकणी वाद आतां थांबवा

('गोमंतक' दैनिकाच्या ता. ९ जून १९६२च्या अंकांत संक्षिप्त स्वरूपांत प्रसिद्ध झालेला लेख)

तूर्त गोव्यांत कोंकणी-मराठी वादाला आलेला ऊत शिगेला पोचलेला असून त्याला भलतेंच वळण लागण्याचा धोका निर्माण झालेला आहे. समाजांतील विचारवंतांनी त्याला याच वेळीं आवश्यक तें नियंत्रण घालून योग्य वाट करून दिली नाहीं तर 'वादे वादे जायते तत्त्वबोध:' असें होण्याऐवजीं त्यांतून संघर्ष निर्माण होऊन तत्त्वबोधाऐवजीं तत्वच्युतीचाच संभव अधिक आहे. मागें मडगांवला जें ४थें गो.म.शि.संमेलन भरलें होतें, त्यांत या वादाची चुणूक थोड्याबहुत प्रमाणांत दृष्टोत्पत्तीस आली. उभय बाजूंचा दृष्टिकोन समजून घेण्याच्या दृष्टीनें या घटनेचें स्वागत केलें पाहिजे. या संमेलनाचे माननीय अध्यक्ष श्री. सुशीलराव कवळेकर यांच्या कुशल नेतृत्वानें, सौजन्यपूर्ण वागणुकीनें आणि खिलाडू वृत्तीमुळें हें संमेलन खेळीमेळीच्या वातावरणांत अत्यंत यशस्वी रीतीनें पार पडलें. ही गोष्ट जितकी समाधानाची तितकीच भूषणास्पदही आहे. त्यांचे प्रभावी नेतृत्व लाभलें नसतें, त्यांच्यासारखा कुशल कर्णधार मिळाला नसता, तर ही संमेलनरुपी नौका वादविवादाच्या कुठल्या खडकावर आपटून तिचा चक्काचूर झाला असता, याची कल्पनाही करवत नाहीं. श्री. कवळेकर यांना मी शतश: धन्यवाद देतों.

गोमंतक स्वतंत्र झाल्यानंतर इथें जीं भाषिक आंदोलनें निर्माण झालीं, जीं वादवादंगें माजलीं, त्यांतून एक गोष्ट सूर्यप्रकाशाइतकी स्वच्छ दिसून आली कीं, गोव्यांतील बहुसंख्य हिंदु जनता मराठी भाषेच्या मागें उभी आहे. याला अपवाद नाहींत असें नाहीं. परंतु ते फारच थोडे! बहुसंख्य ख्रिस्ती समाज कोंकणीवादी आहे असें म्हणतात, परंतु हे विधान मला या स्वरूपांत मान्य नाहीं. माझ्या मतें बहुसंख्य ख्रिस्ती समाज आज संशयात्मा बनलेला आहे. तो कोंकणी पाहिजे म्हणत नाहीं, मराठी हवी म्हणत नाहीं आणि त्याच्यामागें फार मोठी कारणपरंपरा आहे. माझी स्वत:ची तरी अशी समजूत आहे कीं, बहुसंख्य ख्रिस्ती समाज हा पाश्चात्य संस्कृतींत रुळल्यामुळें आमच्या हिंदू समाजाच्या मानाने एकंदरीत अधिक वास्तववादी, अधिक व्यवहारनिष्ठ समाज आहे. तात्विक किंवा भाषिक प्रश्नांपेक्षा तो पोटाच्या भुकेच्या प्रश्नालाच अधिक महत्व देतो. हें विधान करण्यांत मी ख्रिस्ती समाजाला हीन लेखतों किंवा पोटार्थी समजतों असें मानण्याचें कारण नाहीं. ती वस्तुस्थिति किंवा सत्यकथन आहे. या समाजाचा नि:संशय

कोंकणीकडे ओढा असला तरी साहजिकच त्यांना असा प्रश्न पडला पाहिजे कीं, गोव्यासारख्या क्षेत्रफळाच्या दृष्टीनें लहानशा प्रांतांत अविकसित कोंकणी शिकून आपल्या पोटाचा प्रश्न सुटेल का? ही शिकून आपल्या मुलाबाळांना चरितार्थाचें साधन उपलब्ध होईल आणि याचें प्रत्यंतर पहावयाचें असल्यास गेल्या ६ एप्रिलच्या D de Goa' ह्या पोर्तुगीज दैनिकांत प्रसिद्ध झालेला Sr. Xavier P यांचा A utilidade de aprender a lingua marata हा ले प्रश्नाचा विचार करणाऱ्यांनी जरूर वाचावा, अशी मी शिफारस त्यांत ते शेवटीं म्हणटात, O povo goeş sempre estudou a l que lhe fosse mais útil para ganhar a vida. Nestas cond achamos que a lingua de maior utilidade para goese marata. एका सभ्य ख्रिस्ती गृहस्थाचें मराठीला हें प्रशस्तिपत्र म्हण समाजांतील विचारवंतांच्या मनांत तूर्त काय खळबळ माजून राहिली याचा भरभक्कम पुरावा होय. याच्याविरुद्ध विचारसरणी नाहीं असें येणार नाहीं. परंतु सर्वसाधारणपणें त्या समाजाला आजच्या परि काय वाटत असावें याची कल्पना किंवा अंदाज येण्यास हें विधा आहे.

दुसरा एक मुद्दा या संदर्भात मला विचारांत घ्यावासा वाटतो. कीं, जीवनाच्या प्रत्येक प्रश्नाबाबत प्रत्येकाचे विचार, प्रत्येकाच्य निरनिराळ्या असूं शकतात. त्याचबरोबर एकाचा दृष्टिकोन दु युक्तिवादाने, वादविवादानें समजावून देण्याचा प्रयत्न करण्याचाही प्र हक्क हा असतोच. आणि कोणीही तो नाकारूं शकत नाहीं. प करीत असतांना मनाचा तोल सुटूं देतां कामा नये. तत्कालीन प्र भरांत विरुद्ध बाजूच्या व्यक्तींबाबत अनुदार उद्गार काढणें, हेटा स्वरांत त्यांचा उल्लेख करणें, हेत्वाभास निर्माण करणें, खोटेनाटे लादणें या गोष्टी सभ्यतेच्या मर्यादेंत येत नाहींत. टीका करणेंही वेळीं आवश्यक असते. परंतु ती करीत असतांना प्रत्येकाने आपली किंवा बौद्धिक पातळी अत्यंत उच्च राखण्याचा प्रयत्न करणें, मताला मुरड न घालतांही अगदीं शक्य आहे आणि त्यांतच उभ हितही आहे. मनुष्यानें जगाकडे नेहमींच काकदृष्टीनें पहावयाचें अस

वेढ्याही थोर व्यक्तीवर शिंतोडे उडवतां येतील, कितीही पूजनीय त्विषयीं संशय निर्माण करतां येईल. म्हणून मानवाचा धर्म हा कीं, छिद्रान्वेषी वृत्ति टाकावी आणि हंसक्षीर न्यायाचा अवलंब करावा. ेर सुचण्याचें कारण, गेल्या संमेलनांत म्हणा किंवा इतर ठिकाणीं ़नांत किंवा लिखाणांत कोंकणीसंबंधीं बोलतांना किंवा लिहितांना काकासाहेब कालेलकर यांच्यावर कठोर शब्दांत टीका केली गेली, शब्द वापरले गेले. माझ्या मतें ही गोष्ट अन्याय्य आहे. आपला प्रगट करीत असतांना असें कांहींतरी केलेंच पाहिजें, असें मला दान वाटत नाहीं. पू. काकासाहेबांनी कोंकणी वाद कां स्वीकारला ़चा प्रश्न आहे, त्यांचीही कांही बाजू असूं शकेलच आणि आहेही. मताला आम्ही मराठीवादी विरोध करूं शकतों. नव्हे, तसें करणें कर्तव्यच आहे. परंतु त्यासाठीं त्यांचे कार्य, त्यांचा मोठेपणा, थोर दृष्टीआड करतां येणारच नाहीं. तसें करणें कृतघ्नतेचें, गुणांची सल्याचें द्योतक ठरेल. म. गांधीजींच्या प्रभावळींत ज्या कांहीं मोजक्या क्ती होत्या, त्यांपैकीं काकासाहेब हे एक होत. वेळीं प्रसंगीं गांधीजी सल्लामसलत घेत असंत. गांधीजींच्या आश्रमांतील शिक्षणविभागाचे ख होते व आहेतही. त्यांनी मराठी भाषेचीही सेवा केलेली आहे. फार मोठी देशसेवाही केलेली आहे. ते उपेक्षणीय, अवहेलनीय नाहींत. उलट ते वंदनीय, पूजनीय आहेत. त्यांना पाहून 'तेथें झे जुळती' असें म्हटल्याशिवाय मला तरी राहवत नाहीं. दुसरें, विमित्र श्री. बा. भ. बोरकर यांचाही उल्लेख कोंकणी-मराठी वादाच्या ंत अधूनमधून होतो. ते एकेकाळीं मराठीचे प्रतिभासंपन्न कवि होते. महाराष्ट्रांत त्यांचा तसा लौकिक आहे. हल्लींच त्यांना मराठी द्दल महाराष्ट्र सरकारचें पारितोषिक मिळालें असून, त्याबद्दल मी मक्ष अभिनंदनही केलेलें आहे. हल्लीं ते कोंकणीवादी बनलेले आहेत ते त्यांना माहीत. माझा त्यांचा अत्यंत जिव्हाळ्याचा आणि मैत्रीचा आहे. त्यांच्या कोंकणीवादाशीं माझा प्रामाणिक मतभेद असला तरी प्रामाणिकपणाबद्दल मी केव्हांही संशय घेऊं शकत नाहीं. ते शील कवि आहेत. मराठी भाषेची त्यांनी फार मोठी सेवा केलेली ज्या कांहीं मोजक्या गोमंतकीय व्यक्तींनी साहित्यक्षेत्रांत गोव्याबाहेरही ना मानाचे स्थान किंवा पान मिळवून दिलें आहे, त्यांत त्यांचा खात्रीनें होईल. मातृभाषेबरोबरच त्यांनी मातृभूमीचीही सेवा केलेली स्वातंत्र्य-आंदोलनांत त्यांनी सरकारी नोकरीवर लाथ मारून वास पत्करला होता, ही गोष्ट आपण कधींच विसरतां कामा नये. ला त्रिवार मंगल वार' या त्यांच्याच शब्दांत त्यांना मी मानाचा करीत आहे. दुसरे माझे मित्र श्री. रवीन्द्र केळेकर हे कट्टर कोंकणीवादी ले जातात. त्यांच्या कोंकणीवादाशीं मी सहमत होऊं शकत नसलों यांची स्वतःच्या मताबद्दलची तळमळ आणि प्रामाणिकपणा मी जाणूं . श्री. प्रो. शंकरराव देसाई, प्रो. गुंडू सीताराम आमोणकर, श्री. केणी यांच्याबद्दलही माझ्या मनांत त्याच भावना वसत आहेत. इतर कोंकणीवादी मंडळीवर कांहीं जणांकडून एक गंभीर आरोप जातो. आणि गेल्या शि. संमेलनाच्या विषयनियामक कमिटीच्या बैठकींत करराव भांडारे यांच्या भाषणाच्या वेळीं जी शब्दाशब्दी झाली त्यावेळींही पुनरुच्चार झाला. आरोप हा कीं, या कोंकणीवादी मंडळीचा कोंकणीवाद णिकपणाचा नसून तें एक फॅड आहे. या भाषेच्या प्रचाराच्या निमित्तानें ळीनें गांधीफंडाचे पैसे फस्त केले आहेत, आणि ती करीतही आहे. त्यासाठीं या लोकांनी कोंकणीची तळी उचलून धरून तिचें स्तौम नें आहे. मला या आरोपांत बिलकूल तथ्य दिसत नाहीं. कारण मनांत या सर्व मंडळीबद्दल नितांत आदराची भावना वसत आहे, ती मीं वर व्यक्त केली आहे. तथाकथित गांधीफंड ही काय चीज आहे, त्याचा हेतु व कार्य काय आहे, त्यांत केवढी रक्कम होती आणि आहे, ह्यासंबंधीं मला कांहींही माहिती नाहीं. अर्थात्, मला त्याबाबत कोणतेंच मत बनविण्याचा अधिकार नाहीं. सर्वसाधारणपणें असें म्हणतां येईल कीं, जगांतील कुठल्याही छोट्या-मोठ्या संघटनेंत चांगल्याबरोबर वाईट माणसेंही असावयाचींच. प्रामाणिक, निःस्वार्थी व्यक्तींबरोबरच, स्वार्थी, संधिसाधू लोक असावयाचेच. आणि सुक्याबरोबरच ओलें म्हणटात तसें या लोकांच्या दुष्कृत्यांचे खापर चांगल्या माणसांच्या माथ्यावर फुटणें अपरिहार्य आहे. या संदर्भांत 'सांसर्गिको दोष एव नुनमेकस्यापि सर्वेषां सांसर्गिकानां भवितुमर्हति' (सांसर्गिक दोष हा एकाचा दुसऱ्याला जडूं शकतो) या भागवतांतील श्लोकाची आठवण मला होते. तात्पर्य, ही बहुरंगी बहुढंगी दुनिया आहे. आणि या व्यवहारी दुनियेंत सत्यान्वेषणाचा प्रयत्न करणे म्हणजे मृगजळाच्या पाठीं लागण्याइतकेंच कठीण आणि निष्फल कार्य आहे. माझ्यासारख्या भावनाशील वृत्तीच्या माणसाला तर ''धर्मस्य तत्वं निहितं गुहायां महाजनो येन गतः स पंथा'' असें म्हणून हात जोडून स्वस्थ बसण्यापलीकडे दुसरा मार्ग नाहीं. थोड्याशा विनोदानें मला असें म्हणावेंसें वाटतें कीं, या कोंकणीवादांत विशेषतः कोणी हितसंबंधामुळें, कोणी स्नेहसंबंधामुळें, तर कोणी आप्तसंबंधामुळें शिरलेले आढळतात. कोणाचा बाप कोंकणीवादी म्हणून मुलगा कोंकणीवादी, कोणाचा मुलगा कोंकणीवादी म्हणून बाप कोंकणीवादी, कोणाचा सासरा कोंकणीवादी म्हणून जामात कोंकणीवादी, कोणाचा जांवई कोंकणीवादी म्हणून सासरा कोंकणीवादी, इतकेंच नव्हे तर एका गटाचा पुढारी मराठीवादी म्हणून दुसऱ्या गटाचा प्रमुख कोंकणीवादी, फार काय, कालपरवांपर्यंत हिरीरीनें मराठीचें समर्थन करणारा आज तावातावानें कोंकणीचा पुरस्कार करीत आहे, हें मी पहातों आहें, आणि मनाला असा प्रश्न पडतो कीं, अरे, हें आहे काय ? याच्यामागें कांही तत्त्वनिष्ठा, विचारप्रणाली आहे कीं नाहीं ? मला तर हें सर्व पाहून भांबावल्यासारखें होत आहे. परवांच मला मडगांवला एक कोंकणीवादी सद्गृहस्थ भेटले. सहज बोलण्याच्या ओघांत ते म्हणाले, 'काय मराठी, मराठी घेऊन बसलां आहांत ? येथें मराठी कधीं नव्हतीच. गेल्या पन्नास वर्षांमागे कोणी सीताराम मास्तर नांवाचे शणैमाम आले आणि त्यामुळें इथें मराठीचा प्रवेश झाला.' केवढें आश्चर्यकारक आणि बेजबाबदार विधान ! तें ऐकून मी तर थक्कच झालों. मी म्हटलें, 'तुमच्या ह्या सीताराम मास्तरांचे गोव्यांतील सर्व हिंदूंनी आभार मानले पाहिजेत. त्यांचा पुतळाही आम्ही जरूर उभारूं. कारण त्यांनी मराठी भाषा गोव्यांत आणली म्हणून आमचें स्वत्व, संस्कृति, धर्म आणि राष्ट्रीयत्व टिकून राहिलें.' मी त्या गृहस्थांना प्रश्न केला कीं, 'तुमच्या त्या मास्तरांनी मराठी इकडे आणली हें जर खरें असेल तर त्यापूर्वी गोव्यांत कोणती भाषा प्रचलित होती, याबद्दल तुमच्याकडे काय पुरावा आहे ?' त्यांना समर्पक उत्तर देता येईना. उत्तर देण्याचे टाळून ते लगबगीने निघून गेले. माणसाला एकदां कोणत्याही गोष्टीचा अभिनिवेश झाला, म्हणजे तो कोणत्या थरापर्यंत पोचूं शकतो ह्याचें हें एक उत्तम उदाहरण आहे.

मी कोणी मोठा विद्वान, भाषापंडित किंवा संशोधक नव्हे. हाडाचा मराठीवादी परंतु वृत्तीनें समन्वयवादी, एक विनम्र, जिज्ञासु अभ्यासू आहें. थोडेंबहुत जें कांहीं वाचलें, ऐकलें त्यावरून आत्मविश्वासपूर्वक मला असें म्हणण्यास हरकत वाटत नाहीं कीं, स्वतंत्र भाषा म्हणून गोव्यांत कोंकणीचा वापर केव्हांच झाला नाहीं, एक बोली हेंच तिचें स्थान तेव्हांही होतें, आणि आजही तें अबाधित टिकून आहे. प्रसिद्ध गोमंतकीय इतिहास-संशोधक प्रो. पिसुर्लेकर, जाडे विद्वान श्री. शांबाराव सरदेसाई, श्री. अ. का. प्रियोळकर इ. पासून तों डॉ. भांडारकर, डॉ. गुणे इ. महाराष्ट्रीय पंडितांपर्यंत सर्वांचें या बाबतींत एकमत असल्याचें दिसून येईल. या मुद्द्याचें सुंदर विवेचन गेल्या शि. संमेलनांतील अध्यक्षीय भाषणांत जिज्ञासूंनी जरूर वाचावें. दुसरें,

आमचें घराणें मुळचें पंचवाडीचें सिसाणी उपनांवाचें होतें. आमचे पूर्वज कुळकर्णी म्हणून प्रथम कुंडईला आले. आमचे खापर-पणजोबा-पणजोबांपासून तों हल्लींच कै. बंधूंपर्यंत हें कुळकर्ण आमच्याच घरांत होतें. त्यामुळें 'कुमुनिदादी'चें म्हणजे ग्रामसंस्थेचें दप्तर आमच्याच घरांत होतें. तसेंच श्रीशांतादुर्गा संस्थान-कवळें, श्रीमहालक्ष्मी-बांदिवडें, ग्रामदेवी श्रीनवदुर्गा, कांहीं काळ श्रीसंस्थान मंगेशी ह्या देवस्थानांतील अध्यक्षस्थानीं बहुतेक आमच्याच कुटुंबीयांपैकीं कोणी असावयाचें. त्यामुळें तींही दप्तरें आमच्याच घरांत असत. रेजिदोरीचें काम अजूनही आमच्याच घरांत चालतें. त्यावरूनही मी असें सांगूं शकेन कीं, पोर्तुगीज भाषेची कायदेशीररीत्या सक्ती होण्यापूर्वी या सर्व संस्थांचें कामकाज किंवा लेखन मराठींतच चालत असे. तसेंच व्यापारी पेढ्यांचे हिशेबठिशेब, खासगी किर्द मोडी लिपींत मराठींतूनच लिहिली जात असे. आणि आजही लिहिली जाते. फाय काय, खुद्द सरकारी गॅझेटांतील (B.O.) कांहीं नोटिसा अगदीं हल्लींपर्यंत मराठींतूनच प्रसिद्ध होत. या विवेचनावरून ''पूर्व दिव्य ज्यांचें त्यांना रम्य भावि काल'' ही विनायकांची काव्यपंक्ति मराठीला तंतोतंत लागू पडते हें दिसून येईल. कोंकणीचें समर्थन म्हणजे 'अगा जें झालेंचि नाहीं, तयाची वार्ता पुससी काई' या समर्थांनी केलेल्या प्रश्नासारखेंच तें आहे. यावर एक आक्षेप येईल व येतो आहे तो हा कीं, अरें, जें आहे तें चाखण्यांत काय मर्दपणा आहे? जें नाहीं तें निर्माण करण्यांतच खरा पुरुषार्थ आहे. मग मी म्हणतों, निर्माण करा कीं, आणि अशी ही नवनिर्मिती झाल्यास त्याबद्दल कुणालाही खेद वाटण्याचें कारण नाहीं, परंतु वादविवादांत बहुमोल वेळेचा अपव्यय करण्यापेक्षां प्रत्यक्ष कार्याला सुरुवात करणें केव्हांही हितावहच ठरेल. या विचाराच्या अनुरोधानें मला नम्रपणें असें सुचवावेसें वाटतें कीं, मराठीवाद्यांच्या दृष्टीनें यापुढें फारसें कार्य करावयाचें राहिलेलें नाहीं. तें आधींच झालेलें आहे. मराठी शाळा आज साडेतीनशेंवर आहेत. मराठी पाठ्यपुस्तकांची वाण नाहीं. मराठी वाङ्मय दिवसेंदिवस समृद्ध होत आहे. आतां काम इतकेंच कीं, आहे तें टिकवावयाचें, वाढवावयाचें आणि प्रगत करावयाचें. याच्या उलट कोंकणीवाद्यांच्या पुढें फार मोठें कार्यक्षेत्र पसरलेलें आहे. त्यांना श्रीगणेशापासून सुरुवात करावयाची आहे. नवीन शाळा उघडणे, पाठ्यपुस्तकें तयार करणें, कोंकणी वाङ्मयाची निर्मिती करणें व सर्वांत महत्त्वाचें व तांतडीचें व तितकेंच किचकट काम म्हणजे कोंकणी भाशेचें स्वरूप निश्चित करणें, विविधतेंत एकता आणणें हें होय. कोंकणी कुठली? हिंदूंची कीं किरिस्तांवांची, फोंड्याची कीं बारदेसची, साष्टीची कीं पेडणेंची, हेंही ठरविलें पाहिजे.

कोंकणीवाद्यांनी एक गोष्ट निश्चित लक्षांत ठेवावी की, गोव्यांत मराठीचें मूळ इतकें खोल गेलें आहे कीं, कितीही प्रयत्न केला तरी तें आतां उपटून काढणें कदापि शक्य होणार नाहीं. तसा विचारही मनांत आणतां कामा नये. आतां प्रश्न हा कीं, सरकारी दडपण आलें तर? मला वाटतें या लोकशाही राज्यांत कुठल्याही बलिष्ठ सरकारालाही जनतेच्या इच्छेविरुद्ध कांहींच करतां येणें शक्य होणार नाहीं. कदाचित् तसा कांहीं प्रयत्न झाला तर ती एक फार मोठी दुर्दैवाची घटना ठरेल. जनतेंत त्याची प्रतिक्रिया होईल. आणि त्यामुळें धोकादायक परिस्थिती निर्माण होईल. परकी राजवटींतही जी मराठी सर्व शक्ति पणाला लावून जिवंत ठेवली गेली ती मराठी स्वातंत्र्यांत नष्ट होण्याचा प्रसंग आला तर स्वातंत्र्य हा एक शाप ठरेल. परंतु तसें कांहीं होणार नाहीं आणि हा प्रश्न गोडीगुलाबीनें सुटेल, अशी मला आशा आहे.

मला कोंकणीवाद्यांना अत्यंत प्रेमानें असें सुचवावेसें वाटतें कीं, त्यांनी तूर्त हिंदुसमाजाचा नाद सोडून हा कोंकणीचा प्रयोग प्रथम ख्रिस्ती समाजांत करून पहावा. ख्रिस्ती बहुसंख्य असलेल्या गांवांत कोंकणी शाळा काढाव्या, तिचा प्रसार करावा. मात्र या लोकांना देवनागरी लिपींत कोंकणी शिकवावी आणि त्याचा परिणाम काय होतो तें पहावें. एकाच बाणानें दोन मारल्यासारखें होईल. कोंकणीचेंही कार्य होईल, मराठीचीही सेवा नाहींतर कोंकणीवादी म्हणतातच कीं आमच्या मनांत मराठीबद्दल द्वेष मुळींच नाही. तरी प्रयोग जरूर करून पहावा.

दुसरें, भाषिक प्रश्न आणि राजकीय प्रश्न यांची गल्लत होऊं देतां नये. गोव्यांत मराठी भाषेला सरकारी मान्यता मिळणें म्हणजे महाराष्ट्रांत विलीनीकरण होणें असें त्याचें समीकरण करतां कामा गोवा आज केंद्रशासित आहे. आणि यापुढें तो कांहीं काल तसाच इष्टही आहे. संक्रमणकालांतील सर्व अनुभव जमेस धरून प्रचलित सर्व बाजूंचा अभ्यास करून गोवा महाराष्ट्रांत विलीन व्हावा, कीं संघराज्यांत स्वायत्त घटक म्हणून स्वतंत्र रहावा, हें गोव्याच्या ठरवावयाचें आहे. अर्थात् याचें उत्तर एक भविष्यकालच देईल. त्याचा निर्णय घेणें शक्य आणि योग्यही होणार नाहीं. मात्र म्हैसूर विलीन होण्याचा प्रश्नच उपस्थित होत नाहीं. तसा विचारसुद्धां वदतोव्याघात ठरेल. शेवटीं, माझे विचार व्यक्त केल्यानंतर व या सर्व बाजू हाताळल्यानंतर मला अत्यंत कळकळीनें अशी विनंती करा आहे कीं, या उभय वाद्यांपैकीं कांहीं विचारवंतांनी एका प्लॅटफॉर्मवर एक लहानशी गोलमेज परिषद भरवावी, तिथें बसून विचारांची देवाण करावी. उभय बाजूंचा दृष्टिकोन एकमेकांना पटविण्याचा प्रयत्न आणि त्यांतून कांहींतरी एकवाक्यता निर्माण करावी. या कार्यांत अल्पमतीशक्तीप्रमाणें शक्य ती सेवा करण्यास मी तयार आहें. पुन्हा ही कीं, या प्रश्नाबाबत कांहींतरी लौकर तडजोड घडवून आणा दुहीच्या खड्ड्याकडे नेणारा हा कोंकणी-मराठी वाद एकदांचा थांब

**वामन शिवराम कुंडईक**
कुंडई – गोवा.

पुस्तिके वांगडा तांणी म्हाका एक चीट बरयल्ली, 'यावर आपला कळविल्यास फार आभारी होईन' ह्या अर्थाची.

हांवें तांकां जाप बरयल्ली तिची एक प्रत म्हज्या कागद-पत्रां तरी आसा. हाताक लागूंक ना. लागतली एक दीस. पुणून म्हा आसा ते प्रमाण हांवें तांकां अशें बरयल्लें–

'कोंकणी मराठी वाद हो वयल्या वयल्यान जरूय भाशीक दिसलो तरूय तो भाशीक न्हय. मुदलांत हो वाद राजकी. शेंकड्यां उपरांत बंदेपणांतल्यान मेकळें जाल्ल्या गोंयाक राजकारभार धनीपणान चलोवपाची संद मेळ्ळ्या ती कांय गोंयक महाराष्ट्रांत विलीन करूंक जाय' अशें म्हणून ना करूंक मुखार आमी तांचे आड झुजतात. एका बंदेपणांतल्यान मेकळें जाल्ल्या दुसऱ्या बंदेपणांत घालपाक मुखार सरप हाचेसारकीं कर्मकट्टेपण नात अशें जांकां दिसता तांकां आयज तुमी 'कोंकणीवादी' ह्या वळखतात. आनी 'ह्या न्हय जाल्यार दुसऱ्या, पुणून खंयच्याय बंदेपणांत' रावंक सोदतल्यांक तुमी मराठीवादी म्हणटात. दोनूय लोकां मजगतचो हो फरक तुमच्या लक्षांत आयला अशें तुमच्या वयल्यान दिसना. म्हाका केन्ना केन्ना अजाप जाता – 'आमची भास म्हळी जाल्यार तुमकां महाराष्ट्र वेगळे रावंक केन्नाच दिवचो ना सत्य तुमच्या लक्षांत कशें येना? इतले भोळे-भावार्थी लोक तुमी? भास मराठी म्हणटल्या गोंयकारां मदीं गोंय महाराष्ट्रांत वचूंक तें वेगळें रावंक जाय अशें म्हणपी कांय जाण आसात हें तुम आसा मू? दोन नांवां घेतां. एक, प्रो. विनायक म्हात्मे हांचें पचीबाब सरदेसाय हांचें. म्हात्म्यांचो हांव एक विद्यार्थी आनी

म्हाका दोगांय विशीं सुमारा भायर आदर. तांकांय ही सादी गजाल
हें पळोवन म्हाका अजाप दिसता. 'गोंय महाराष्ट्रांत येवंक जाय,
, गोंयची भास मराठी' अशें पुराय महाराष्ट्र एका ताळ्यान म्हणपाक
हें पळेतकूच 'गोंयची भास मराठी निखालूस न्हय, गोंयची भास
आनी कोंकणी मराठीची बोली न्हय' अशें आमकां (जांकां गोंय
पविल्लें जाय तांकां) म्हणचेंच पडटलें. खरो वाद तो हो. ह्या वादांत
समन्वय' कशे घडोवन हाडटले?'

जाप घाडले उपरांत एक सप्तक गेलां जातलें, पचीबाब एक दीस
वन आमगेर आयले आनी 'चल, तुका शांबारावान आपयला' अशें
म्हाका रायबंदरा शांबारावांसरीं घेवन गेले. शांबारावां म्हऱ्यांत वामनबाब
दयानंदबाब (बांदोडकार) हांकां पळोवन वागाचे घोर्लीत पाविल्लेवरी
दिसलें. आनी नाय म्हळ्यार हांव मात्सो काचाबूल जालों. 'तुजें
बाक बरयल्लें पत्र आमी वाचलां' अशी सुरवात करून तांणी कोंकणी
ठी भास न्हय, खानदेशी, विदर्भी, अहिराणी ह्या बोलयां सारकी
मराठीचीच ती एक बोली... ती वाडपाची ना. ते भायर, तुमी जांचो आधार
घेवन ही चळवळ चलयतात ते किरिस्तांव ती केन्नाच मानून घेवपाचे नात...
मानलीय जाल्यार देवनागरी लिपी कशीच घेवपाचे नात' अशें कितें कितें
म्हाका समजावन सांगलें. पुणून, निमाणें म्हळें, समज गोंय महाराष्ट्रांत
घालचे नात अशें आमी तुमकां आश्वासन दिलें जाल्यार तुमी मराठीचो
विरोध बंद करतले व्हय?

हांवें म्हळें, 'तुमचें आश्वासन कित्याक उपकारता? महाराष्ट्राचें मेळूंक
जाय... तें केन्नाच मेळपाचें ना... दुसरें, मराठीचो विरोध आमी भास म्हूण
केन्नाच करूंक ना. विरोध आसा तो मराठी नांवाच्या हत्याराचो... जें गोंयचें
वेगळेंपण ना करपाक भायर सरलां...'

म्हजें सोंपुकूच नाशिल्लें. बांदोडकार 'मागीर मेळटां' म्हूण सांगून उठून
गेले.

कोंकणी मराठी समन्वयाच्या पयल्या यत्नाची ही कथा हांगा सोंपता.

— र. के.

# ‘साहित्य-स्वाध्याय’

प्रियदर्शनी तडकोडकार




चंद्रकांत केणींच्या ‘साहित्य-स्वाध्याय’ ह्या कुळागर प्रकाशनाच्या पुस्तकान कोंकणी वैचारिक साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. तशें पळोवंक गेल्यार कोंकणींत साहित्यशास्त्राचेर वा साहित्या विशिंच्या प्रस्नांचेर गंभिरतायेन बरप चडशें जावंक ना. ‘कथाशिल्प’, ‘आस्वादन’, ‘कोंकणी समीक्षण: तत्त्व आनी प्रयोग’ सारकेर्ली कांय भोव थोडीं पुस्तकां सोडलीं जाल्यार आजून तरी असले तरेच्या विशयाचेर जावपाक जाय आशिल्लें तितलें बरप जायना. साहित्याचेर भासाभास जाता. पूण ताच्या सिद्धांतांचेर गंभिरतायेन विचार करप आनी ते लेख पुस्तका रुपान उजवाडाक हाडप अशें व्हडलेंशें जायना. अशा वेळार ‘साहित्य शास्त्रावेले ग्रंथ वाचून ते शिकचे परस हांवें साहित्याची म्हजे नदरेन चिकित्सा सुरू केली. त्या प्रयत्नांचें हें फळ’ अशी प्रामाणिक कबुली दिवपी चंद्रकांत केणींचें हें पुस्तक गंभीर साहित्य-समीक्षणाच्या मळार आपणाखातीर एक वेगळी सुवात जोडटा हातूंत दुबाव ना.

लेखकान म्हळां तेप्रमाण ह्या पुस्तकांत साबार तरांचे साहित्या संबंधिचे विशय आयल्यात. ९६ पानांच्या ह्या आटोपशीर पुस्तकांत वट्ट १५ लेख आसात ते साहित्याच्या वेगळ्या वेगळ्या प्रकारांचेर, तांच्या तत्त्वांचेर आनी सिद्धांतांचेर आदारून. सुरवेच्या ‘दोन उतरां’नी बरोवप्यान ह्या लेखनाविशिंची आपणाली भुमिका मांडल्या आनी ‘बंधनमुक्ती ही साहित्य सर्जनाची पूर्व अट’ अशें म्हणून ‘बऱ्या साहित्याचो कस ना जाल्यार ताच्या तंत्रामंत्राची फास्की थारावपाचो यत्न करप पिशेपणाचें जातलें’ असो विचार मांडला. घडये तंत्राचीं पुस्तकां वाचून मंत्र मेळोवपा फाटल्यान लागिल्ल्या नवोदितांक पळोवन तांणी हो विचार मांडला जावंये.

‘साहित्य’ ह्या पयल्या लेखांत साहित्याची आपले पद्धतीन व्याख्या करून बरोवप्यान वाचनाचें आनी पुस्तकांचें, मनशाचे जिणेंतलें म्हत्व सांगलां. ‘भास हो साहित्याचो प्राण’ अशें ह्या लेखांत केणी म्हणटात तेन्ना संस्कृत आलंकारिकांनी काव्याच्या आंगांकच काव्याचो प्राण, आत्मो म्हळां ताचीय याद जालेबगर रावना.

‘लेखक आनी ताचें अणभवविश्व’ हो तसोच, नव्या लेखकान घडटा त्या गजालिंचें जाणविकायेन भान दवरूंक जाय हें सांगपी लेख. कलाकाराक निखटी प्रतिभा आसून भागना. तिचो योग्य तो आविश्कार जावंचे खातीर फावो ते साधनेची आनी अभ्यासाची – यत्नांचीय – जोड तिका दिवपाक जाय. त्याच सांगातान आपणालें अणभवविश्व समृद्ध करपाखातीर लेखकान मनाचे दोळे सदांच उकते दवरूंक जाय, हो विचार साद्यो साद्यो आनी दिसपट्टे जिणेंतल्यो देखी, प्रतिमा घेवन तांणी पटोवन दिला. रुपांतर हें साहित्य-साधनेंतलें एक सपण. जांची प्रतिभा आपणाल्या अणभवाक योग्य ती अभिव्यक्ती दिवंक पावना तांणी हाची साधना करून आपणाभितर तशी कळाशी हाडची. पूण आपूण स्वतंत्रतायेन बरयतना दुसऱ्याचें निखटें अनुकरणच करचें न्हय अशेंय ह्या लेखांत ते सांगतात.

साहित्याक जिणेपासून वेगळावप भोव कठीण. देखून लेखक ज्या समाजांत, वातावरणांत, वाठारांत वावुरता ते भुंयेचो आनी भोंवतणचो ताचेर

जाल्लो परिणाम आनी संस्कार ताच्या साहित्यांत ‘पडबिंबता’. दे
जिणेसावन वेगळें उरिल्लें साहित्य निखटो कल्पनाविलासाचो खेळ
कृत्रिम जातलें. जाल्यार ते जिणेंत एकरूप जाल्लें साहित्य जिणेचें
जावन अज्रांवर जाता. हो विचार ‘साहित्याक मातयेचो वास’ ह्या ले
आधार जाला. कोंकणी साहित्याचें वेगळेपण ताच्या मातयेच्या वासांत
‘साहित्य हें जितलें थळावें तितलें तें संवसारीक जावंक पावता –
साहित्यांत भारतियत्वाचो अंश आसता तेंच साहित्य भारताचें
जावंक पावता’ अशें हांगा केणीबाब बरयतात.

‘शाश्वत कितें ?’ आनी ‘साहित्याची जीवसाण’ हे दोन लेख बरोव
वाचनाच्या व्यासंगाची वळख करून दितात. खरें काव्य / साहित्य
उडयलें, उदकांत बुडयलें म्हूण ना जायना. तें लोकांल्या काळजांत
उरिल्लें आसता. आनी हेच कसवटणेचेर जायत्या कवी/लेखकांचीं
तिगून उरल्यांत. हें संवसारीक मळावेल्या नव्या/पोरण्या देखिंनी
सांगता. पिंडान पत्रकार जाल्ल्यान परकी साहित्याचो व्यासंग करतना
साहित्याभायर राष्ट्रांचे, संस्कृतायेचे इतिहास, विज्ञानीक मळावेले सों
नदरे पोंदच्यान घाल्ल्यान थंयचे संदर्भ दिवपाफाटली सहजताय जा
हें खरें आसलें जाल्यारय ह्या लेखांचें स्वरूप टिपणी कशेंच उरलां.

‘ललित साहित्य’ हो ह्या पुस्तकांतलो सगळ्यांत व्हडलो लेख.
साहित्य ह्या उतराचेर विस्कटावणे सावन, ललीत साहित्य म्हळ्यार
हाचे संबंदिच्यो व्याख्या आनी ताचें वेगळेपणय सांगलां. ललीत लेख
जशी सर्जनशक्त आसची पडटा तशीच सर्जक कल्पनाशक्त वाचप्या
आसची पडटा. साहित्याचे हेतू सांगतना भारतीय साहित्यशास्त्रान सां
हेर हेतूंपरसय निखटो आनंद दिवप हो एकमेव हेत बरोवप्यान हांगा
जिणेंतले दोन रस निर्मप इतलेंच ललीत साहित्याचें काम अशें
ताचें कार्यक्षेत्रय सीमित करून दवरलां. सौंदर्य हो साहित्याचो एक
पूण हो धर्म आकाराच्या सुमेळांतल्यान येता हें सांगपाक लेखक
ना. ह्याच लेखांत ललीत साहित्याची भास कशी आसपाक जाय
भासाभास केल्या. ‘निबंद आनी लघुनिबंद’ ह्या परिच्छेदांत ह्या दोन
प्रकारांविशीं चर्चा केल्या. आनी कोंकणी ललीत साहित्याचेर नदर भों
ताच्या प्रवाहांत ‘अंतरां’ (gaps) आसात म्हणपाचें दाखयलां. लोकसा
दायज आसुनूय कोंकणींत अक्षर-साहित्य ना हें सांगपाची धिटा
दिसता. ह्याच लेखांत बरोवपी साबार साहित्यप्रकारांचो ताळेबंद घेता.

वचर्चा करता पूण शास्त्रीक नदरेन ताचे सिद्धांत मात खंयच मांडना.
य समीक्षा विचारांत लेखकाच्या चरित्राचोय विचार ताचे कृतिचेर
च्या वेळार करतात ही गजाल केणी विसरूंक नात. देखून ह्याच
न लेखकाच्या चरित्रा'वेल्या वेगळ्या परिच्छेदाचोय तांणी आसपाव
ॉयड, युंग ह्या मानसशास्त्रज्ञांच्या सांगातान हो विचार साहित्यचर्चेंत
गेलो आनी उपरांत तोच दृष्टिकोण योग्य थारावपी अतितायेची
न कांय समिक्षकांनी घेतली. हाचे अनिश्ट परिणाम साहित्य निर्मणेचेर
मीक्षण लेखनाचेरय जाले. कोंकणी साहित्याक ह्या विचाराची बादा
म्हूण घडये 'कलेचें मोल कलाकाराच्या चारित्र्यावयल्यान थारावप
ातलें' असो निश्कर्श वा म्हणुंया, अशी शिटकावणी ह्या लेखाचे
डेन दिल्या. ललीत वाङ्मयाच्या कलात्मक मुल्यांविशिंचो विचार
ललीत वाङ्मयाचे निरोगी वाडीक सदांच हातभार लायताच पूण
ानच ललीत वाङ्मयाच्या व्यवच्छेदक लक्षणांचोय सोद घेवप शक्य
ानी ताच्या साबार घटकांचीय मुळासावन खरीक वचून तपासणी
पावता. वयर उल्लेख केल्ल्या कांय लेखांतल्यान चंद्रकांत केणी
ाहित्यांतल्या कांय सिद्धांतांचेर सोप्या उतरांनी आपणालीं मतां
न. आयज कोंकणी साहित्य आनी समीक्षाय ज्या मोडणार उबीं
थंयच्यान फाटीं पळयल्यार कांय गजाली लक्षांत येतात. भारतीय
साहित्य निर्मणेचो वावर ज्या काळांत चलतालो तेन्ना कोंकणी
ापणाल्या अस्तित्वा खातीर झुजताली. हेंच अस्तित्व सांबाळपा
तिका हो वेळ मेरेन झुजचें पडलें. देखून हेर भासांनी समाजाचे
ण साहित्य निर्मणी जाताली. तशेंच समाजान उत्पन्न केल्ल्या कांय
य विचार मंथन जातालें. ताका लागून साहित्याच्या हेतू सावन
डारा मेरेनचे साबार प्रस्न वेगळ्या वेगळ्या आंगांनी तर्जून पळोवपाची
थंय जाली. हे प्रक्रियेंत जायत्यो साहित्यिक गजाली वादांच्या
ांत घुस्पटून असाहित्यीक जाल्यो. क्रिया-प्रतिक्रियांचें मोड येवन
साहित्य निर्मणेंत खंड पडलो ना. ह्या साबारांची नोंद 'कोंकणी
च्या फुडारांत' ह्या लेखान घेतल्या. हांगा लेखकान कोंकणीच्या
आड येवपी कांय गजालिंचें दिग्दर्शन केलां. पूण ताका वादाचें
येवंक दिवंक ना. हाचें कारण घडये, ह्या लेखांच्यो कांय स्वयंसिद्ध
र्यादा आसात. ज्या उद्देश्यान ह्या लेखांचें लेखन केलां तांतुंतल्यान
दा सिद्ध जातात. ते म्हणटात, 'विशय थारावन हें पुस्तक बरोवंक
, संमेलनांनी, शिबिरां आनी कृतीसत्रांनी वा नेमाळ्याच्या संपादकांनी
दिले त्या विशयांचेर जे मुद्दे बरोवन काडिल्ले तांचेंच हें संकलन'.
ांक वा शिबिरार्थींक मार्गदर्शन करपाच्या उद्देशान बरयल्ल्यान ह्या
खूब म्हळ्यार खुबूच सोंपेपण लाबलां. आनी वाङ्मया संबंधी निर्णायक
वप तशें शक्य नाशिल्ल्यान कांय कडेन निखटीं विधानांच केल्लीं
.

यांचेर नदर भोंवडायल्यार आनीक एक गजाल नदरेंत भरता ती
, हातुंतले चडशे लेख कथा ह्या साहित्य-प्रकाराकडेन संबंधीत
लेखकाचो पिंड कथाकाराचो आशिल्ल्यान हें घडप सभावीक.
कणी साहित्याच्या मळार हेर खंयच्याय प्रकारापरस कथा हो प्रकार
रान फुलता देखून म्हालगड्या कथाकारान नवोदीत कथाकारांक
न करप तितलेंच गरजेचें हे भुमिकेंतल्यान तशें जालां जावंये.
त छंद', 'आत्मकथात्मक कादंबरी', 'कोंकणी कथा-कविता' अशे
ख कविंच्या वावराची दखल घेवपी म्हूण आयल्यात. पूण ते बरयल्यात
ह्या मळाचेर अधिकार ना ही प्रांजळ भुमिका घेवनूच ! पूण वाङ्मयाच्या
ारांत उप्रासपी प्रस्नांचो आस्थेवाईकपणान विचार करुनूच.

पुस्तकांतले लेख दोन तरांनी वांटून गेल्यात अशें दिसता. एक
ट वा समाजनिश्ट विशयावेले आनी दुसरे व्यक्तिनिश्ट वा आत्मलक्षी
विशयावेले. भौशीक (जनरल) प्रस्न घेवन तांचें विवेचन बरोवप्यान सोप्या देखिंनी, सदांच्या वेव्हारांत मेळटात तश्या प्रतिमावळींतल्यान केलां. आयच्या कोंकणी साहित्याक नदरेमुखार दवरून केल्ल्या विवेचनाचे लेख पयले तरेंत येतात जाल्यार साहित्याच्या आदारान आनी नितिचे भुमिकेच्या आदारान तांची विस्कावणी केल्ले लेख दुसरे तरेंत येतात. साहित्याचे निर्मणेक प्रेरक पोसवण दिवपी, आश्वासक अशें तांचें स्वरूप आसा.

दुसऱ्या प्रकारांतले लेख – 'म्हज्या कथांचीं पात्रां', 'कला आनी अश्लीलपण', 'कथेची साधना', 'परकाया प्रवेश' – हे वाचतना एक गजाल सातत्यान जाणवता ती म्हळ्यार लेखकाची तटस्थताय. आपणाल्या साहित्याचेर तांणी जशें बरयलां तशेंच आपणाचेर आयिल्ल्या कांय आळांविशींय बरयलां. पूण तें बरयतना जी अलिप्तताय वा जो संयम हांगा लेखकान धरला तो पळयतकच एक परात्मभावना कोंकणी साहित्यांत मूळ धरूंक लागल्या काय कितें असो प्रस्न उप्रासता.

परात्मभावना म्हळ्यार एलिनेशन. मूळ जर्मन आशिल्ल्या ह्या उतराक इंग्लेजींत एलिनेशन आनी सेल्फ एलिनेशन अशो दोन संज्ञा पर्याय म्हूण येतात. तांतल्या सेल्फ एलिनेशनाविशीं अदीक जाणून घेवप हांगा योग्य थारतलें. हाचें कारण कोंकणींत कांय गंभीर वैचारीक बरप करपी लेखकांमदीं हाचो प्रादुर्भाव जाल्लेवरी दिसपाक लागला. ह्या पुस्तकांतय तो नदरेक पडिल्ल्यान ताचेविशीं अदीक जाणप समा जातलें. सेल्फ एलिनेशन हे संकल्पनेचो वापर गिन्यानाच्या वेगळ्या वेगळ्या मळांचेर – देखीक, तत्वगिन्यानी, समाजशास्त्रीय, मानसशास्त्रीय, साहित्यीक बी – केल्लो आसा. ह्या मळांचेर हे संकल्पनेचो वापर जातना तिका वेगळे वेगळे अर्थ मेळटात हें खरें आसल्यारूय 'एके वस्तूक दुसरे वस्तू सावन वा एका मनशाक दुसऱ्या मनशा सावन परकी करपी खंयचीय कृती/करणी वा तिचो परिणाम म्हळ्यार परात्मता' अशी सर्वसादारण व्याख्या मेळटा. आनी एखाद्री व्यक्ती परात्म जावप म्हळ्यार ती कित्यासावन तरी पैसावप, वेगळी जावप हो बोध जाता. मनीस आपणाल्या भायल्या संवसारा सावन पयस जाता तसो तो निजा सावनय परात्म जावंक शकता. हीच भावना 'साहित्य-स्वाध्यायां'त चंद्रकांत केणी हांणी बाळगिल्या अशें तांतल्या आपणाल्या लेखांविशीं, सृजनाविशीं, अणभवाविशीं बरयल्ल्या लेखांतल्यान दिसता.

परात्मता ही नॉर्मल व्यक्तिची मनस्थिति आशिल्ल्यान ती व्यक्ती, तिचो समाज आनी संस्कृतायेसावन परकी जाल्ली आसता. ती तांचेकडेन परकेपणान पळयता. ही ग्विननेट्लर हांची व्याख्या मात्शी बदलून केणींचो साहित्याकडेन पळोवपाचो दृष्टीकोण हांगा कसो परात्मच जाला तें दाखोवन दिवं येता. परात्मता ही संकल्पना सगळ्यांत पयलीं तत्वगिन्यानांत हेगेल हांणी मांडली. तत्त्वगिन्यानाचे नदरेन परात्मतायेचो अर्थ मनशाचें/वस्तुचें निजाच्या मूळ स्वरूपासावन विमुक्त/वेगळें जावप असो आसा. तशेंच स्व सावन पयस वचपा बरोबरच हेर मनशां, वस्तू, सैम हांचे सावनय पैसावप असो जाता. लेखकय बी आपणाली कृती सिद्ध केली म्हणटकच ते कृतीविशीं परात्मभावच बाळगून आसता. देखून आपणाले कृतिचें तो तटस्थतायेन विश्लेशण करूंक पावता.

चंद्रकांत केणी हांच्या 'अबुद्ध मोग', 'हिप्पी चली' ह्या कथांचेर अश्लिलतायेचो आळ घेवपी वाचपी तांकां मेळटा आनी ताणें उक्तायल्ल्या मताचेर बरोवपी जे विचार उकते करता ते सनातन काळासावन कलेच्या संबंदांत निर्माण जाल्ल्या प्रस्नांक नदरे सामकार दवरून. कलेचें सृजन करतना सर्जक तिचे सावन निर्मळ, नितळ आनंद मेळचो ह्या उद्देशान ती रचता. पूण ताच्या निर्मळ हेता फाटल्यान रसिकाक देहभान विसरूंक लावपी, तन्मय जावंक लावपी अणभव आयलोना जाल्यार रसिकाक रसभंग जाल्ल्याचो अणभव येता. ताच्यो विकृती चाळवल्यो जाल्यार ती कृती

अश्लील थारूं येता. हाचोच अर्थ अश्लिलता ही पळोवप्याचे नदरेंत आसता. तिका लागून तो निर्मळ आनंद भोगूंक पावना. 'कला आनी अश्लीलपण हो खूब पोरणो आनी एका अर्थान सनातन वाद. श्लील आनी अश्लील हांचेमदलें अंतर इतलें थोडें आनी दोगांकय जोडपी धागे इतले तलम की एका मनशाक जें अश्लील दिसता तें दुसऱ्याक वास्तव दिसूं येता' अशें म्हणून लेखक एके परात्म भावनेन आपणाल्या ह्या साबार अणभवांकडेन पळयता आनी कलेंत जें विसंगत वा बेसूर आसता तें अश्लिलच थारता असो निवाडोय एके परात्म भावनेन दिता अशें दिसता.

कोंकणींत आयज साहित्यशास्त्राचेर, समीक्षा आनी हेर आंगांचेर साहित्य-निर्मणी जावपाची सामकी गरज आसा. पूण ती निर्मणी ज्या प्रमाणांत जावंक जाय तशी जायना. साहित्याचें समिक्षा हें आंग उपेक्षित उरलांच. ते भायर, जें बरप चलता ताकाच समिक्षा म्हूण पाचारपाची पद्धत रूढ जावपाक लागल्या. समिक्षा हें उतर तशें पळयल्यार पसरट आनी बोथटय. ह्या उतराचो विग्रह केल्यार तें सम्यक + ईक्षा अशें सिद्ध जाता. म्हळ्यारूच, जतनायेन, यथार्थतायेन आनी बरे तरेन पूण समतोलान कृतिकडेन पळोवप म्हळ्यार तिची समिक्षा करप. कृतिंकडेन हे तरेन पळोवपाची ही क्रिया खरें पळोवंक गेल्यार सचेतन. पूण आयज केन्ना केन्ना तशें पळोवप जायना. चंद्रकांत केणी हांच्या 'साहित्य स्वाध्यायां'त ही निर्जीवसाण ना. हाचें कारण, तांणी आपणाल्या लेखनाच्या मळावेल्या अणभवाचे फाटभुंयेचेर साहित्यांतलीं कांय मुल्यां तपासपाचो तांचे परीन येत्न केला. तशें करतना तांणी तांच्या सभावाक मानवता तशी अलिप्ततायेची/परात्मतायेची भुमिकाय घेतल्या, तिचीय बसका समजून घेवचेलो यत्न करपाक जाय.

पत्रकाराचो पिंड आनी वेवसाय आशिल्ले केणी 'धर्तरी अजून जियेताली' सावन 'जंय वता थंय' मेरेनचे पांच कथांझेले, 'एकलो एकसुरो' सावन 'बर्मी दीस' मेरेनच्यो पांच नवलिका, 'बिम्बां पडबिंबां', 'आपालिपा' सारके ललित लेखांचे दोन झेले, कथिका सारको साहित्य प्रकार आनी वेगळ्या वेगळ्या साहित्य प्रकारांचीं पांच संपादीत पुस्तकां आपल्या नांवाचेर दवरून आसात. साहित्य प्रकारांच्या साबार लेखनाचो अणभव घेवन जातकच आतां साहित्या विशिंच्या गंभीर विचाराविशीं लेखन करपाच्या तांच्या ह्या प्रयत्नाक एक खास अर्थ लावं येता. विशय थारावन बरोवंक नाशिल्ल्या ह्या लेखनाक एक खोल आनी खरीक वचून घेतिल्ल्या सोदाची, परिणामत: चिंतनाची तितलीच समर्थ बसका आसा हें विसरूंक येना. आपले, साहित्याविशिंचे विचार मांडटना लेखक स्वत:चे सृजनप्रक्रियेचो जसो आदार घेता तसोच तो तातुंतल्यो देखीय घेता. आनी गंभिरतायेचो आव हाडिनासतना सहजतायेन केल्लें गंभीर विशयावेलें विवेचन अशें तांचें पडबिंब वाचप्यांचेर पडटा. ह्या पुराय पुस्तकाची विशेशताय म्हळ्यार साहित्यशास्त्रांतलीं मौलीक तत्वां खंयच क्लिश्ट जायनासतना तांणी मांडल्यांत.

साहित्याच्या स्वरुपा सांगातान ताचे निर्मणे फाटली प्रेरणा बदलता, उद्दिश्टांय बदलतात. देखूनच ताचे मोलावणेचो विचार नव्यान करपाची गरज आसता. साहित्याचे मोलावणेचे चालंत मानदंड कालबाह्य, अर्थहीन आनी अर्दकुटे थारावपी साहित्य दर काळागणीक जाता. देखून नवे मानदंड तयार करचेली गरज आसता. नवे केळमे किल्लयतात तशे समिक्षेच्या मळावेले सकस केळमे किल्लोवपाची स्फूर्त ह्या पुस्तकान मुजरत दिल्या. अशा पुस्तकाक येवकार मेळटलो हातूंत म्हाका इल्लोय दुबाव ना.

**साहित्य स्वाध्याय**
**चंद्रकांत केणी**
**कुळागर प्रकाशन १९९६**
**पानां: ९६, मोल: रू. ६०/-**

# पोंच

**काशिक म्हणचेंच पड्टा**
(कवितां झेलो)
काशिनाथ शांबा लोलयेकार
ब्र प्रकाशन, थिवी, १९९७
पानां: ७८
मोल: ५५ रुपया

**अंतरनाद**
(कवितां झेलो)
शरतचंद्र शेणै, कोची, १९९७
पानां: ९०
मोल: ५० रुपया

## RECTORATE OF EDUCATION

GOVT. OF GOA

### MARCHING AHEAD TOWARDS THE ACHIEVEMENT OF

1. Implementation of Goa Compulsory Education Act, 1995.
2. Universalisation of Elementary Education 100% coverage.
3. Incentives to school going children (primary level) in form of free textbooks, free uniforms, notebooks, raincoats etc.
4. Monthly 3 kg. free distribution of rice to all children (primary level) under the Prime Minister's Scheme.
5. Equipping of schools under Operation Black Board Programme.
6. Strengthening of District Institute of Education & Training at Porvorim in order to upgrade the training programme of in-service primary school teachers.
7. Establishment of State Council of Education Research and Training.
8. Extensive Teacher Training Programme.
9. Vocationalisation of Education.
10. Attainment of 100% Literacy.
11. Implementation of Goa Library Act, 1995.

## RECTOR OF EDUCATION

**PANAJI – GOA**

## RURAL DEVELOPMENT AGENCY GOA

Rural Youth in the age of 18 to 35 years are imparted training in vocational courses with the main aim of giving them self employment, specially in trades like automobile mechanic, welder, turner, fitter, mechanist, wireman, carpentry, masonry, plumbing, nursery, typewriting, doll making, fibre work, batik printing, wall hangings, carpets, tailoring and embroidery and computer technology.

- ☐ Financial assistance to farmers, for minor irrigation, purchase of improved implements, work animals and bullock carts as also for allied activities like dairy, goat rearing, fisheries.
- ☐ Financial assistance for non agricultural activities like industries, services and business.
- ☐ Higher subsidy of Rs. 7500/- to individual rural youth, VIIIth passed or failed, for taking up different I.S.B. activities.
- ☐ Group loaning cum higher subsidy to rural youth for different economic activities.
- ☐ Development of women and children in rural areas (DWCRA) provides women with opportunities of self employment on a sustained basis.

The assistance available to the group is of Rs. 25,000/- as a one time grant.

All the above programmes are meant for the rural poor who are living below the poverty line.

For further details, you may please contact the nearest Block Development Officer or the Office of the Rural Development Agency, Panaji-Goa.

Issued by

**THE RURAL DEVELOPMENT AGENCY**

GOA

REG No. GOA